






# जैत

*दिवाळी* - 2006

वर्स - **29वें** अंक - **दोन**



संपादक

**भिकू बोमी नायक**

◆

कार्यकारी संपादक

**माधव बोरकार**

◆

मुखचित्र

**गौरीश वेर्णेकार**

◆

उजवाडापी

**सुरेश सगुण नायक**

जैत प्रकाशन

336/11, खोर्ली-इल्हास,

तिसवाडी-गोंय 403 110

फोन - 2284637

◆

छापपी

**सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टम**

खोर्ली, तिसवाडी, गोंय.

◆

मोल

**60/- रुपया**

◆


**या अंकातलीं मतां त्या त्या बरोवप्यांची.**

मनोहरराय विशेषांक



# मांडावळ -

## यादींचो पर्मळ



## समिक्षकांचे नदरेंतल्यान



## तिकल्यो



## कथा



## कविता







## DEPARTMENT OF CIVIL SUPPLIES & CONSUMER AFFAIRS, Panaji

Aims at

The Department plays a bi-lateral role in two sectors i.e. matter related to Civil Supplies and Consumer Affiars.

I. In the pursuit of maintaining proper supply of Civil Essential Commodities, the Department is entrusted with :

   i) Proper functioning of Fair Price Shops & availability of essential commodities in these Fair Price Shops.
   ii) Supply of pure kerosene & check on its pilferage.
   iii) Supply of pure Petrol & Diesel & check on its pilferage.
   iv) Ensuring proper acquisition, sale & storage of Naptha, Solvent, Raffinate & Slop and Prevention of its use in Automobiles.
   v) Ensuring non-commercial use of domestic L.P.G. Cylinders.

Alongwith this, the Department runs special beneficiary schemes for Below Poverty Line people, viz. Annapurna Anna Yojna, Antyodays Anna Yojna, etc. The affords are made to make people aware about these and other schemes, under Jagriti Shivir Yojna.

**II. Consumer Affiars :**

The Government has established Grievance Redressal Machinery to safeguard consumers rights. The Government has established State Commission and two District Forums to settle Consumer complaint regarding goods & service consumer complaint can include :-

(a) Loss or damage suffered due to unfair trade practise by any trader;
(b) Defective good ;
(c) Price of goods charged is excess than fixed by law/displayed on packet/displayed on goods.

| You may complaint before | If complaint values |
|---|---|
| District Forum, Panaji/Margao | Upto Rs. 20 lakhs |
| State Commission | - Upto Rs. 1 Crore |
| National Commission | - Above Rs. 1 Crore |

**PLEDGED FOR THE BETTERMENT OF ALL GOANS AND ALL CONSUMERS.**



*Issued by:*

GOVERNMENT OF GOA.

**Department of Civil Supplies & Consumer Affairs**

Panaji - Goa.

# संपादकीय ....

क्रोंकणी साहित्याचे नदरेन 2006 वर्स हें व्हड्डा नुकसानाचें थारलें. 22 जून 2006 दिसा आमचे म्हालगडे बरोवपी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांकां दुखेस्त मरण आयलें. तांच्या मरणाक लागून कोंकणी साहित्य, संस्कृताय आनी समाज हांचें जें नुकसान जालां तें बेगीन भरुन येवचलें ना. पिरायेच्या सातव्या आठव्या वर्सा सावन ताणी बरोवपाक लिखणी हातांत घेतली ती जिणेच्या निमाण्या स्वासामेरेन खाला दवल्लीना. कोंकणी, मराठी, इंग्लीश, फ्रेंच ह्यो भासो ताणी अभिव्यक्तिखातीर वापरल्यो. पूण कोंकणी हीच तांच्या काळजाची भास आशिल्ली. कविता, कथा, नाटकुली, ललित लेख तेच प्रमाण वैचारिक साहित्याची ताणी कोंकणीत निर्मणी केली. उदेते बरोवपी तांचेकडेन मोठ्या विश्वासान वताले आनी मनोहरबाबांच्या उतरांनी तांची उमेद वाडटाली. जाती धर्माचे वणटींनी विखंड जाल्लो कोंकणी समाज एक जावचो असो तांचो हावेस आशिल्लो. आनी ते दिकेन ते अखंड वावुरले.

हो दिवाळी अंक आमी मनोहरबाबांचे यादीक ओंपतात. मनोहरबाब एक व्यक्ति म्हूण आमकां कशे भावले ते दाखोवपी कांय लेख तेच प्रमाण समिक्षेच्या आंगान वचपी कांय लेखांचोय आमी आस्पाव केला. आमी धाडिल्ल्या पत्रांक मान दिवन आनी मनोहरबाबावेल्या मोगान आमकां बरप धाडून दिवपी लेखकांचे आमी उपकारी आसात. तेच प्रमाण मनोहरबाबाली घरचीं सुनिल सरदेसाय, उमेश सरदेसाय आनी सौ. माया दत्ता सरदेसाय हांचे खाशेले उपकार मानपाक जाय.

2006 वसचि सुरवेक 3 जानेवारीक अरूण सितासाम सिंगबाळ हांकां मरण आयलें. ताणी मेजक्योच पूण मौलिक कथा बरयल्यो. तेच प्रमाण दोन दीर्घ कथा, व्यक्तिचित्रां आनी विनोदी साहित्य ताणी आपल्या फाटल्यान दवरलां. 'जायू' ही मोटवी नवलिकाय पुस्तक रुपान प्रसिध्द जाल्या. तांचे यादीक आमी आर्गां ओंपता.

3 जून 2006 हे दिसा शांती प्रभू तेंडुलकार हांकां अपघातांत दुखेस्त मरण आयलें. त्यो एक कवियत्री आशिल्ल्यो आनी कोंकणीच्यो पोटतिडकीच्यो कार्यकर्त्या आशिल्ल्यो. तांच्याय मर्णान आमचें खूप नुकसान केलां. तांकांय आमचीं आर्गां. तेच प्रामाण 3 सप्टेंबर 2005 दिसा कोंकणीतले एक जेस्ट लेखक आनी प्रकाशक सुमंतबाब केळेकार हांकां मरण आयलें. शिक्षणाच्या मळारुय ताणी मोलाचो वावर केल्लो अशें हें बहुआयामी व्यक्तिमत्व आशिल्लें. तांच्या मरणान जाल्लें नुकसान भरुन येवपाक खूप काळ वचचो पडटलो.

कोंकणी चळवळितलो एक कायकर्तो, पत्रकार आनी गोंयची बालनाटय चळवळ मुखार व्हरपी उमेश म्हांबरो हांकां 18 सप्टेंबर 2006 या दिसा मरण आयलें. तांच्या मरणान गोंयचीं कोंकणी चळवळ आनी बाल नाट्य चळवळीचें खुब नुकसान जालां. तांचेय यादीक आमी आर्गां ओंपतात.

ह्या अंकाक पालव दिवपी लेखक, जायतारदार, छपणावळ करपी हांचे आमी उपकार आठयतात. आनी सगळ्यांक दिवाळेची परबी भेटयतात.



## कोंकणी प्रकाशने

* **तलेदंड** 60.00
  बरोवपी : गिरीश कार्नाड
  अणकारपी : दत्ताराम कामत बांबोळकर
* **भांगराचें सुकणें** 65.00
  बरोवपी : ओम् गोस्वामी
  अणकारपी : शीला कोळंबकार
* **एकशें एक कविता** 90.00
  बरोवपी : रवींद्रनाथ ठाकुर
  अणकारपी : माधव बोरकार
* **निकोबारच्यो लोककाण्यो** 50.00
  बरोवपी : रॉबीन रॉयचौधुरी
  अणकारपी : माया खरंगटे
* **शणै गोंयबाब** 25.00
  बरोवपी: रा ना नायक
* **सात पावलां मळबांत** 130.00
  बरोवपी :कुंदनिका कापडीआ
  अणकारपी : चंद्रकांत केणी
* **कोंकणी ललित निबंद** 100.00
  संपादक : श्याम वेरेंकार
* **अणकारीत कथा** 75.00
  (मराठीतल्यो अणकारीत कथा)
  संपादन : हरिश्चंद्र नागवेंकार
* **मातयेचो मोग** 120.00
  बरोवपी : शिवराम कारंत
  अणकारपी : यशवंत सदानंद पालेकर
* **शेजारी** 160.00
  बरोवपी : पी.केशव देव
  अणकारपी: हरिश्चंद्र नागवेंकार
* **त्रिवेणी** 60.00
  बरोवपी: रवींद्रनाथ ठाकुर
  अणकारपी: चंद्रकांत केणी
* **सुनीतीकुमार चटर्जी** 25.00
  बरोवपी : सुकुमार सेन
  अणकारपी : एन् एन् आनंदन्
* **आशाढांतलो एक दीस** 75.00
  बरोवपी : मोहन राकेश
  अणकारपी : पांडुरंग भांगी
* **कोंकणी लोककाण्यो** 120.00
  संपादन : जयंती नायक
* **मोटव्यो कथा** 90.00
  बरोवपी : मस्ती व्यंकटेश आय्यंगार
  अणकारपी : रमेश लाड

## Our recent English Publications

* **Authors Speak** 200.00
  Ed. K. Satchidanandan
* **Crystallized Memories** 170.00
  Chekuri Rama Rao
  Tr. M.V. Chalapathi Rao
* **Porcelain & Other Stories** 60.00
  Santosh Kumar Ghosh
  Tr. Amitava Ray
* **Divya** 135.00
  Yashpal
  Tr. Anand
* **Jahera** 90.00
  Hijam Anganghal Singh
  Tr. E. Sonamani Singh
* **Mythical Man** 100.00
  Syed Mustafa Siraj
  Tr. Sudheshna Chakrabarty
* **This Ancient Lyre** (Selected Poems) 175.00
  Onv Kurup
  Ed. A.J. Thomas
* **Selected Poems** 60.00
  (Gopalakrishna Adiga)
  Tr. Sumatheendra Nadig
* **London And Paris** 70.00
  Through Indian Spectacles
  G. Parameswaran Pillai
  Series Ed. Makarand Paranjape
* **The Lost Meaning** 120.00
  by & Tr. Niranjan Tasneem
* **Mulk Raj Anand – A Reader** 250.00
  (An Anthology of Select Writings of Mulk Raj Anand)
  Ed. Atma Ram
* **Five Decades** (1000.00)
  *Special Discounted Price* 800.00
  (A Short History of Sahitya Akademi 1954-2004)
  Ed. D.S. Rao
* **Literature and Social Reform in Colonial Orissa** 150.00
  (The Legacy of Sailabala Das)
  Ed. Sachidananda Mohanty
* **The River of Blood** 120.00
  Indira Parthasarathy
  Tr. Ka. Naa. Subramanyam
* **A History of Konkani Literature** 160.00
  Manohar Rai SarDessai
* **Short Stories from Pakistan** 150.00
  Ed. Intizar Husain &
  Asif Farrukhi
* **The Open Door** 50.00
  *(Award-winning Kannada Poems)*
  K. S. Narasimhaswamy
  Tr. Ramachandra Sharma

*24 भासांतली पुस्तकां उजवाडावपी, साहित्य अकादेमी ही संवसारांतली संगळ्यांत व्हड संस्था*



- चंद्रकांत केणी

यार्दींचो पर्मळ

# मनोहर व्यक्तिमत्वाचो मनोहरबाब!

**डॉ.** मनोहरराय सरदेसाय संवसाराक अंतरले हे कळोवंक पणजेसावन एका मित्रान फोन केलो. न्हिदांतच हांवें फोन घेतलो आनी ती खबर आयकनाफुडें एकदम जागो जालो. तांची भलयाकी बरी ना हें हांव जाणा आसलों. २-३ खेपे तांच्या दारांत वचून परत आयिल्लों तरी तांच्या मरणाची खबर अपेक्षीत नासली. देखून ते खबरेचेर विस्वास बसलोना. पूण कांय सत्यां अशीं आसतात जीं कितलींय कोडू आसलीं तरी मान्य करचींच पडटात. हालीं हांव चडसो भोंवना पूण सकाळीं बेगीन उठून मनोहरबाबाचेर निमाणी नदर घालपाचें थारायलें आनी मडगांवच्यान पणजेमेरेन वतना मनोहरबाबाचीं तरेकवार रुपां, व्यक्तिमत्वाचीं एका परस एक तेजिष्ट अशीं तासां दोळ्यांमुखार उबीं रावलीं. २० व्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धात हांव पयले तांकां खेपे मेळ्ळो. मेळ्ळों म्हणचेपरस हांवे तांका पळयलें अशें म्हणप समा जातलें. दर खेपे एकाद्री कोटी करुन तांणी म्हाका हांसयलो. पूण तांचें निमाणें दर्शन घेवंक गेलों तेन्ना तेन्ना मात मौन पाळून तांणी सगळ्यांक रडयले.

तांकां उलोवंक खूब आवडटालें. विनोदी चुटके, तेयबी काव्यांत सांगपाची कला तांणी बाकीबाबाकडल्यन शिकून घेतिल्ली नासतय, पूण बाकीबाबांचो उगडास दिवपी तांचे कुस्कूट कवन आसतालें. मनोहरबाबांक मोख गांठपाखातीर कुस्कूट कवनांचो वा पिसोळ्यांचो आदार मेळटालो. मोख कसली - गोंय स्वतंत्र जावचें आनी मांडवीचे पाचवे देगेर परत वचून आंब्याच्या रुखातळाक रावून सवण्याचें गीत गायत, पिकी घोटां पुजावपाची मोख आसली. तातूंत सगळ्यां गोंयचें जिवीत आसपावतालें. एक पाचवें सपन तांणी भुरगेपणांत पळयलें. तें ते केन्नाच विसरलेनात. मुंबय गेले, पॅरिसाक पावले. दिल्लीक रावले तरी गोंयकारांक जागयत रावले. आपल्यो पुसट जायत वतल्यो. यादी घांशीत पुशींत रावले आनी तातूंतल्यान एक कवी जालो.

दुसरी मोख आसली, आपल्या घरांतल्यान भायरी जाल्लीं आवयभास, तिच्या हक्काच्या आसनाचेर पावची आनी तिच्या आशिर्वादान तिचे पूत आनी धुवो समृध्द जावच्यो. तांकां दिसतालें, मोल मेजलेबगर कांयच मेळना आनी तेखातीर कोंकणीची साधना आनी उपासना करुन ते आवयभाशेचें रीण फारीक करुंक वावुरताले. पूण आवयक घरा व्हरचे आदीं त्या घरांत बशिल्ल्या फिरंग्यांक धांवडावंक जाय आनी तिका मानान थंय व्हरुंक जाय. तेखातीर चलतल्या यज्ञांत तांणी आपल्यो समिधा घाल्यो.

मनोहरबाबांची बुद्द, तांची प्रतिभा, तांची कल्पकता पयलेच भेटेंत कोणाचेय नदरेंत भरताली. हांव नव्यानच मुंबय गेल्लों, तेन्ना मनोहरबाब सोरबॉन युनिवर्सिटीत डॉक्टरेट घेवपाखातीर पॅरिसाक वचपाची तयारी करताले. गोमंतक छापखानो तेन्ना 'साद' हे नेमाळें उजवाडायतालो. त्या नेमाळ्यांत हांवें मनोहरबाबांचे नांव वाचिल्लें. म्हाका घट उगडास जाता. गिरगांवांत रामचंद्र बिल्डिगेंत गोमंतक छापखान्यांत गेल्लेकडेन खासा काशिनाथ श्रीधर नायक (बयाभाव) हांणी मनोहरबाबाकडेन वळख करुन दिली. ते वचपाच्या बोवाळांत आशिल्ले तरी दोन मिनटां उलयले. त्या, वेळार तांचेविशीं म्हाका कांयच खबर नासलें. तरी 'मनोहर मासिकांत तांणी मराठींतल्यान बरयिल्ली 'हिरवं स्वप्न' ही कथा वाचिल्ली ते विशीं आमी उलयले.

कथा सादीच पूण गोंयची समाज जीण कशी वेगळी, गोंयचें सैम कशें मायेस्त आनी गिरेस्त हें ते कथेंतल्यान दाखोवपाचो लेखकान यत्न केल्लो.

त्या उपरांत मनोहरबाबांची भेट जाली ती दिल्लींत. मनोहरबाब दिल्लीक आयले ते आकाशवाणीच्या विदेश विभागांत फ्रेंच विभागाचे प्रमुख म्हूण. तांचो कामाचो वेळ रातीचो आसतालो. रातभर जागरण करचें आनी सकाळी सवकासेन उठून आळसावत चिंतन करचें आनी उपरांत तांचो बापूय प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी रांदिल्लें जेवण जेवन थोडोवेळ वामकुक्षी घेवची आनी उपरांत भायर सरुन शारांत भोंवचें, लोकाक मेळचें असो तांचे दिसपट्टो क्रम आसतालो. बापूय, पूत एकाच ब्लॉकांत ऑल इंडिया रेडियोच्या हॉस्टेलांत रावताले. आनी जेन्ना नुस्त्याच्या जेवणाचो बेत आंखताले तेन्ना कांय गोंयकार इश्टांक मुजरत आपयताले. ल्हवू ल्हवू मनोहरबाबाचें साहित्य, संगीत, कला क्षेत्रांतल्या मानेस्तांकडेन संबंद आयलो आनी मनोहरबाब कथांचे हिंदींत अणकार करुंक लागले. हिंदी लेखकांच्या वर्तुळांत तांका मानाचें स्थान मेळूंक लागलें.

दिल्लीक हांव शिवराक समाजात वावुरतालो. दाळ, सब्जी, रोटी आनी जाय जाल्यार चावल इतले सात्त्विक जेवण. हॉटेलांनी जेवण मेळटा तें पंजाबी वा मोगलाई धर्तीचें, गुजराथी जेवण मेळटाले तेवूय 'मोळू' अशे वातावरणांत म्हजेसारके कांय एकोडे गोंयकार दिल्लींत रावताले. तांची बेंडदास्त दवरुन तांची गांठ विटची न्हय म्हणपाची जतनाय घेवपी आसले ते सदानंद लाड. अळम्याच्या तोंडांकापासून तळिल्ले मिरसांगमेरेन आनी करमलाच्या लोणच्यापसून सुक्या बांगड्याचे किसमुरे मेरेन सगळे तरेचे पदार्थ तयार करुन आमकां ते मुजरत आमंत्रण दिताले. एक दीस लक्ष्मणरावांक ताणी आपोवन व्हेलो आनी ते जेवण जेवन लक्ष्मणराव संतुश्ट जाले.

'कितल्या म्हयन्यांनी आज हांव जेवलो, जाणां तूं?'' ताणी लाडाक विचारलें. सदानंदबाब निखटे हांसले, पूण लक्ष्मणरावाक दिसलें की, आपणेय लाडाक जेवणाक आपोवचें.

सकाळच्या वेळार आमी लक्ष्मणरावागेर पावले तेन्ना मनोहरबाब आपल्योच कविता वाचताले. आमच्या सांगतान मंगेश पाडगांवकर, नरेश मंत्री, सदानंद लाड आनी १-२ दिल्लींचे गोंयकार आसले. सगळे सातजण जेवतले हें मेजून घेतले उपरांत लक्ष्मणराव बाजारात गेले आनी तांणी १४ बांगडे, १४ फळां, अशेतरेन खरेदी करुन हाडली. सात बांगड्याचें तांणी हुमण केलें. सात बांगडे, तळ्ळे. मुद्दाम हाडिल्ल्या सोलांची कडी केली. घमघमत वासाच्या बासमती तांदळाचे शीत आनी जेवणाक वापरिल्ले अस्सल खोबरेल. पाडगांवकारान व्हडान उलो मारुन लक्ष्मणरावांक म्हळें, 'महाराज, आमच्या पोटांत कावळे रडू लागले आहेत.'

लक्ष्मणराव भायर आयले आनी ताणी म्हळें, 'जेवण तयार आसा, फक्त पानां वाडटां आनी आपयतां. पूण म्हाका महाराज मात म्हणू नाकात आं.''

''अहो, मी तुम्हाला गुजराथीत महाराज म्हटले. गुजराथीत म्हाराज म्हणजे स्वयंपाकी.''

आमी हांसून खेळून उलयतात आनी लक्ष्मणराव आमचेखातीर रांदतात हे पळोवंक विचित्र दिसतालें. पूण जेवक बसले तेन्ना तेय आमच्या उलोवण्यांत वांटो घेवंक लागले. जेवणाउपरांत सगळी दनपार मदी न्हिदत, मदी झेमेत लक्ष्मणरावासांगातान आमी मजेत सारली. पूण एक गजाल सांगलेबगर हे प्रसंगाचे वर्णन पूर्ण जावचे ना. लक्ष्मणरावानी सात केळीचीं पानां हाडिल्ली. एका तपल्यांत

शीत केल्ले. ताजे ७ समान वाटे केले. सात समान वाटे करुन हुमणाच्यो वाट्यो भरल्यो आनी दर एका पानार एक हुमणातलो आनी एक तळिल्लो अशे दोन बांगडे वाडिल्ले. दर एका पानाचेर वाडिल्ले शीत खूबच चड आसा हे आमका पळयतना दिसलें. ते भायर २ बांगडे कशे खावचे होवूय प्रस्न आयलो. थोडे कुशीक काडुया अशें तांकां सुचयलें तेन्ना तांणी म्हळें, 'हांव भेदभाव करिना. सगल्यांक सारके वांटून दिल्ले आसात.'

मनोहरबाबाक एकदीस हांवे विचारलें, 'तुमी अध्यापनाचे क्षेत्र सोडून ही सरकारी नोकरी कशी पसंत केली -

'खरें म्हळ्यार म्हजें म्हाकाच अजाप दिसता. सरकारी नोकरी म्हणून न्हय, कामूच रुक्ष. बंद कुडीत बसून बरोवपाचें आनी ते आकाशवाणीचेर वितरावपाचें. वक्तो आनी श्रोतो एकामेकांक वळखना आनी दिश्टी पडना. हो एके तरेचो बंदीवासच. पुण ही नोकरी घेवपाक आनीक एक कारण जालें. हांव जेन्ना पॅरिसाक सावन डॉक्टरेट घेवन परतलों तेन्ना सगळ्यांपरस चड खोशी म्हजे आवयक जाली. तिका दिसलें की डॉक्टर म्हणटकच हांव दवाखानो घालतलों. आपले मर्जेतल्या कांय मनशांकडेल्यान हांवे पयशें घेवचे न्हय अशें तिणे एक दीस सुचयलें. त्या वेळार हांवे तिका हांव कसलो डॉक्टर तें सांगलें. त्या खिणाक फूल बावचें तशें तिचें तोंड जालें. तिणें म्हळें, आतां परत, प्रोफेसरकी करतलो ? फ्रान्साक वचचे आदीं तूं तेंच करतालो. आतां फ्रान्साक डॉक्टर जावन परत येतकच तेंच करतलों? तिच्या प्रस्नांत खोंच नासली. पूण एक निर्शेणी आसली. हो प्रसंग हांवे आकाशवाणीवयली नोकरी पत्करपाच्या कारणांतलें एक कारण.

मागीर तांणी सांगलें, हो अणभव घेवन हांव परत शिक्षणाच्या क्षेत्रांत वतलों, कित्याक म्हजो पिंड शिक्षकाचो. शिकयतां शिकयतां शिकपाची म्हाका आवड. विद्यार्थ्यांच्या सांगातान, तांचे जिज्ञासेचें समाधान करतना म्हज्या गिन्यानाक बुद्दीक नवें नवें आव्हान पेलचें पडटा आनी हांव सदांच सतर्क उरतां. कामाचो वेळ वाडलो तरी मन थकना.'

मनोहरबाब खऱ्यांनीच एक शिक्षणाक आसले. तांची कविता लेगीत शिकवण दिवपी आसा. जें कितें मनांत खदखदता वा तापिल्ले रेवेंत धगधगता ताका तांणी उतरांवरवीं वाट दिली. तांची कविता म्हळ्यार शणै गोंयबाबान वर्णन केल्ल्या बाबूमामाल्या पणसासारकी. एक गरो जिबेर दवरलो जाल्यार तार्चा म्होंवसाण तोंडभर पातळटा आनी थंडाय बोबलेमेरेन जाणवता. अशी कविता कोंकणीत घडपाचें स्रय मनोहरबाबूकूच.

गोंय स्वतंत्र जालें आनी गोंयांत जागृतायेचे नवें पर्व उदेलें. गोंयकारांच्या काळजातलें स्वाभिमानाचे इंगळे पालोवंक लागिल्ले. थंय नवी समिधा घालून फुकपाचें काम कोणेयतरी करपाक जाय आशिल्लें. ती एक चळवळ आसली. ती चलोवंक फुडारी जाय आसले. आमचेकडेन रवींद्रबाबासारके फुडारी आसले. तांणी चळवळीच्या विचाराची बुन्याद आरंभाकूच रचून दवरली. जोमेरेन कोंकणी मनीस आपलो वगडायिल्लो स्वाभिमान आनी आत्मो (अस्मिता) परत मेळोवचोना तेमेरेन राजकी स्वातंत्र्याक अर्थ उरचो ना आनी तें काम करपाखातीर कोंकणी समाजाचे जिणेंत, कोंकणी भाशेची प्राण प्रतिष्ठा करची पडटली. साहित्य संगीत कलेच्याच न्हय तर अर्थकारण, समाजकारण, राजकारण ह्या सगल्या मळांचे अभिव्यक्तींचे माध्यम म्हूण आनी संस्कृतीचें साधन म्हूण कोंकणीचो स्वीकार समाधान करचो पडटलो. एक खेपे भाशेन आपलें वगडायिल्लें तेज परत मेळयलें म्हणटकच ती भासूच न्हय म्हणटल्यांची तोंडां बद पडटलीं आनी कोंकणी व्यक्तीमत्वाची अश्टतासां चकचकूंक लागतलीं. समान विचारांचे विचारवंत तांणी संघटीत करुन कोंकणी भाशा मंडळाचें मुळावण घालें पूण सामान्य भौसाचे फाटबळ मेळ्ळेबगर कोंकणी अस्मितेक आनी भाशेक फुडार मेळचोना हे येवजून तांणी कोंकणी परिशदेची चळवळ स्वतंत्र गोंयांत सुरु करपाची येवजण आंखली. आनी ह्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष म्हूण डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांची निवड केली.

गोंयचे कोंकणी चळवळीचो संदेश तळागाळांतल्या भौसामेरेन पावोवन हिंदू आनी क्रिस्तांव ह्या दोनूय धर्मांच्या आनी तमाम जातीच्या लोकाक एका व्यासपीठाचेर हाडून गोंयकाराच्या एकवटाचो नवो दिश्टावो घडोवपाचें काम मनोहरबाबाच्या अध्यक्षीय भाशणान केलें. विचार तेंच. आदर्शूय तेच, पूण धुंवतल्या उज्यांत तेल घालपाचें काम मनोहरबाबाले कवितेन केलें. कोंकणी हक्र्यांत स्वाभिमानाचें इंगळे पेटले. यज्ञाक नवो पुरयत लाबलो. उतरांतली मंत्रशक्ती सगळ्यांनी अणभवली. ४-४ ओळींची कवनां, गडगंज

किल्ल्याक कसो सुरींग लावंक पावतात तें त्या कवितांनी दाखोवन दिलें. कोंकणीची चळवळ चलोवप म्हणल्यार तळपाचेर मस्तक आपटप अशें म्हण्टाले. तांणी पळयलें की जेन्ना शिळेक विचार आपटता तेन्ना ती शिळा फुटून विचार फुडें वता. एक एक उतर मोतयांसारकें. एक एक विचार हो अबुद्दाक बुद्द दिवपी. मनीसपण जागोवपी. तें अध्यक्षीय भाशण गोंयच्या इतिहासाक नवी शक्त आनी दिशा दिवंक पावलें.

कोंकणी भास आमकां माय
आमची भास आमकां जाय

महात्मा गांधींनी 'क्विट इंडिया' म्हणिल्लें आनी पुराय भारत पेटिल्लो. नाजाल्यार डॉ. रामनोहर लोहियांनी 'जय हिंद' ही सादी घोशणा दिल्ली आनी पुराय गोंय न्हिदेंतल्यान जागें जाल्लें तसलो प्रभाव मनोहरबाबाल्या ह्या मंत्रांत आसलो. चळवळीक नवी धार आयली. साहित्याक नवो हुंवार आयलो आनी मुठभर गोंयकारांक आपल्या समर्थ प्रतिस्पर्ध्याकडेन टक्कर दिवपाची प्रेरणा मेळ्ळी. ते उपरांत साहित्य अकादमीच्या सल्लागार मंडळाचेर, नॅशनल बुक ट्रस्टाचे कमिटीचेर, गोवा कोंकणी अगादमींत, तांच्या सांगातान काम करपाची संद आमकां मेळ्ळी. शरीरान किरकोळ, भलायकेच्या कारणाखातीर सुती कपडे, तेवूयबी चुरगळिल्ले, घालून उतरांनी सगळ्यांचीं मनां जिखातलो. कोणाकडेन तोडीनासलो आनी तोडचें पडलें जाल्यार लेगीत फाटल्यान कोडूनपण उरचें ना हाची जतनाय घेतालो. म्हजेखातीर तो एक श्रेष्ठ कवी आसलो. भौभाशा कोविद आशिल्ल्यान भाशीक प्रस्नाचेर बरो मार्गदर्शक आशिल्लो. कोंकणी कवितेक राष्ट्रीय माचयेचेर प्रतिष्ठा मेळोवन दिल्लो श्रेष्ठ कवी आसलो. एक खडेगांज वक्तो, जो वाक्याकणकणी ताळ्यो मेळयतालो आनी श्रोत्याक वश करुन घेतालो. एके तरेन हांसत, हांसत गोंयकाराचें गोंयकारपण जागयतालो. असो एक व्हड सांगाती. तांची कर्तत्वाची हीं आंगा आज एकदम नदरेंत भरुंक लागलीं आनी दिसलें. कोंकणी कविता चार पांच पिळग्यांच्या काळजात पावोवपी हो कवी जे मेरेन कोंकणी भास उतरली ते मेरेन कोंकणी वाचप्यांमदी सासणाचो उरतलो.



अ. ना. म्हांबरो

यादींचो पर्मळ

# मनोहर सरदेसायांल्यो खबरी

मनोहरबाब सदां मुमुरखो हांसता. म्हाका जाल्यार केन्नाकेन्नाय दिसता, कोणेंय मुमुरख्या हांसूंक तांचेकडेन शिकचें. (हें श्रीपादबाब देसायांक समजत जाल्यार मात घात. ते आपल्या कोशांत बरयतले - मुमुर्ख्या हांसप : मनोहर देसायांवरी हांसप. सावयवेरेंच्या सरदेसायांवरी हांसप. कोंकणी कवीवरी हांसप.)

आनीक एक गजाल - मनोहर बाबांविशी खुबशे जाणांक लक्तुबाय दिसता. ते मुमुरख्यां हांसतात म्हूण, दिसूंक मोटवे म्हूण काय भुरग्यांवरीं आडेचो आवाज काडून आपल्यो कविता म्हण्टात म्हूण... कित्याक म्हूण कोण जाणा! चड करुन ती लक्तुबाय ओपिनियन पोलाआदी गोंयात ज्या राजकी सभांनी भाशणां करताले आनी ती करचेपयली ते केन्ना केन्नाय कविता वाचताले (प्रासंगीक कविता करपाक तांचेसारको दुसरो कापाज कवी कोंकणीत मेळचो ना. प्रसंग घडलो रे घडलो की केली कविता!) त्यावेळार मडगांवच्या एका मनशान म्हाका सांगलें - खरें फट हांव नकळ - की मनोहरबाब रस्त्यांतल्यान चलताना बट्टेची क्रिस्तांव बायलां 'तो पळे दोतोर वेता) अशें एकमेकांक पुर्तुगेजींत फुतफुतून सांगताली आनी दोतोर वाटेर दिसल्यार ताका लक्तुबायेन जाप दितालीं.

क्रिस्तांवांक मनोहरबाब मानवताले - जावं अजून मानवतात - ते तांगेल्या काव्यापरस तांगेले डीग्रीक लागून अशें केन्ना केन्नाय म्हाका दिसता. सर्वसामान्य मनशाक तशें काव्य व्हडलेशें कळना. 'शेतकारांनो! मुंडकारांनो! जणकारांनो! गांवकारांनो! जायात जागे! जायात जागे!' ह्यो मनोहरबाबांल्यो वळी तांकां समजतात. पूण उपरांत 'काळखाच्यो घोली सोडून उजवाडाचीं उडली पिलां' अशें तांणी म्हळे म्हण्टकूच लोकांक फकत तांच्या काव्यांतलो फोर्स कळटा, उतरां कळनात. अशेंच कितेंशें त्यावेळार घडटालें.

गोयांत त्याकाळार ज्यो राजकी सभा जाताल्यो तातूंत मनोहरबाबांल्यो प्रांसगीक कविता बऱ्यो फीट् बसताल्यो. आयज तांगेल्यो त्यो कविता - नेहरु, शणै गोंयबाब, लोहिया, मिनेझीस ब्रागांस हांचेवेल्यो - वाचत जाल्यार ततलो 'सगल्यापरस व्हडलो' मनीस कोण तो कळच ना. इंग्लीशींत 'भुरग्याखातीर मोठ्यान वाचपाच्यो काणयो' म्हूण बरयतात. मनोहरबाबांल्यो 'जायात जागे' संग्रहांतल्यो चडशो कविता म्हाका अशेतरेच्यो लागतात. त्यो मोठ्यान वाचल्यो जाल्यार आयकुप्याक एकसारको 'कट र्र कट र्र कट र्र' असो आवाज आयकल्ल्याचो भास जाता. हे फाटभुंयेचेर तांगेल्या 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहांतल्यो शणै गोंयबाब आनी त्रिशतांव ब्रागांसवेल्या कविता वाचात त्यो वेगळे तरेच्यो जाल्यात. तांगेली एक प्रासंगीक कविता मात् खुबशे जाणांक मानवतली. ती म्हळ्यार नेहरु गेले तेन्ना तांणी बरयलेली - 'रडूं नाका फुला वोगी' ही मुंबय रेडियोचेर त्यावेळार हांवें नेहरुचेर एक फिचर बरयल्लें. तातूंत निमाणे कडेन ही कविता घाल्ली आनी ललिता खांडेपारकारान

म्हळ्ळी.. अजून तें सूर कानांत घुमतात.

मनोहरबाबालो ॲकेडेमीक कॅरियर एकदम बरो आसा. 'गोयां तुज्या मोगाखातीर' पुस्तकाच्या फाटल्या कव्हरावेल्या तांगेल्या वळखींत म्हळां शिक्षणांत' सदांच घवघवीत येस कोंकणी बरप्यांभितर सदां पयल्या वर्गात पयले येवपी म्हाका दिसतात ते एकलेच. मनोहरबाब एम. ए. क आसले त्याच वर्सा डॉ. स. गं मालशेय - सध्या हे मुंबयचे एस. एन. डी. टी. युनिव्हर्सिटीत मराठी विभागाचे मुखेल आसात - एम. ए. करताले. परीक्षेचो निकाल लागलो. पयले आयले. पूण मजा म्हळ्यार, मनोहरबाबांनी फ्रेंचीबराबर मराठीय घेतिल्ली आनी त्या दोन पेपरांनी तांकां मालशेंयपरस अदीक मार्ग मेळिल्ले. (ही गजाल म्हाका मनोहरबाबांनी सांगूक ना, मालशेनी)

भुरगेपणांत मनोहरबाबांनी 'नबत' म्हूण एक हाताळें काडिल्लें खंय. ही गजाल व्हडलीशी न्हय - हाताळीं काडपाची धवणपणां, म्हाका दिसता, खुबशा कोंकणी बरप्यांनी केल्यांत. आनी ताका 'नबत', 'फांतोड', 'कवाथा', 'मांडवी', 'कुळागर', 'पुनव', 'शेनाय', पेपारें... असलींच कितेंशी नांवां दिल्यांत. तें कित्याक, मुंबयतल्या कॉलेजांनी आदल्या काळार जी कोंकणी मंडळा आसताली तांचीं वण्टीपत्रां आसताली आनी तांचीय नांवां हींच आसतालीं. मनोहरबाबाले 'नबती' विशी एकूच गजाल म्हाका बरी दिसली. तांतली चित्रां लक्ष्मण पे रंगयताले. तांणीच उपरांत मनोहरबाबांल्या दोन पुस्तकांचीं कव्हरां चित्रांयल्यांत.

कोंकणींत सध्या जे लोक बरयतात तांतल्या चडशांचे बापूय वेपार, शिर्वीस नाजाल्यार आनीक कितेंय करतात. एकलोय साहित्याच्या मळार वावुरता अशें काय म्हाका दिसना. इतलेंच न्हय तर चडशा जाणांच्या बापांयक आपणाले भुरगे कितें बरयतात ते लेगीत खबर नासता आनी कोणेय तें तांगेल्या कानार घाले जाल्या तें कानार केस घालतात. अशा वेळार आपलो पूत कितें बरयता ते उमळशिकेन वाचपी आनी ताका चारचौगांत कवतुकान 'आमच्या' म्हणपी लक्ष्मणरावांवरी बापूय मेळप ही एक भाग्याची गजाल. लक्ष्मणराव आनी मनोहरबाब हांचे हरशी संबंद कशे आसात तें हांव नकळ. आपल्या 'थळांतल्या खबरीं'त लक्ष्मणराव म्हण्टात : 'म्हाका कांय जाण मेळून म्हणटात. भांगरासारक्या पुताक सोडून तू असो वणवण्टा कित्याक ? त्या बरें मागप्यांक म्हजो पूत कितें उतर दिता हे हांव नकळ...' अशें म्हणून ते मुखार कोर्टांत उबे रावून मांडिल्ल्यावरी आपली बाजू मांडटात. जोमेरेन हे बापूय - पूत एकमेकांच्या साहित्यिक गुणांची कदर करतात तोमेरेन तांचेमदल्या हेर संबंदांच्यो ह्या 'बरें मागप्यांक कित्याक उचापती लागतात, हांव नकळ.

मनोहरबाब फ्रान्साक आसतना अदीं मदीं मुंबय रेडियोक कविता धाडटाले आनी तांचे सकल 'पारीस' बी बरयताले. त्या कवितांतल्यान म्हाका तांची पयली वळख जाली. त्यो कविता वाचताना कोंकणींत पयलेच खेप वेगळेंचसें कितेंतरी वाचिल्ल्यावरी दिसलें. उपरांत तांचेविशी 'सध्या ते दिल्लीक आसतात.' 'आतां हांगां मुंबयत शिकयतात.' असल्यो खबरी अदीं मदीं आयकूंक येताल्यो. 'इतलेंय शिकून येवन निमाणो प्रोफेसोरुच जालो रे तो?' अशेंय कांयजाण विचारताले.

मनोहरबाब आनी म्हगेली पयली भेट केन्ना खंय जाली ताचो काय म्हाका उगडास जायना. १९६२ साला गोंयात जी कोंकणी परिशद जाली तिचे ते अध्यक्ष म्हणून वेंचून आयिल्ले. आनी ते परिशदेक गोयां वेतासताना हांव तांचेबराबर आसलों. (म्हाका दिसता, त्यावेळार ते मुंबय सोडून गोयां वेताले. कारण तांगेल्या सामानांत एक पुस्तकांचो व्हडलो साक बी आसलो.) वाटेर गाडयेंत ते आपल्या अध्यक्षी भाशणाक फिनिशींग टचीस् दिवपांत गुल्ल आसले.

मडगांवां स्टेशनार देवतकूच हांवे हेवटेन नदर मारली, परिशदेच्या अध्यक्षांक कोण रिसीव्ह करुंक बी आयला काय म्हूण पळोवंक. थंय कोण नासलो.

दोन दिसांनी कोंकणी परिशद सुरू जाली. बंद गळ्याचो धवो कोट घालून मनोहरबाब स्टेजीर बशिल्ले. (त्या फोटान ते परिषदेचे अध्यक्ष दिसपा बदला डिस्ट्रींक्ट कलेक्टर कशे दिसताले.) तांगेलें भाशण लोक कवतुकान आनी टाळयांचो कडकडाट करुन आयकताले. आयकुप्यांभितर तांगेलें मांव दांतोर हरी कुडचडकारुय आशिल्ले. त्यावेळार तांच्या तोंडार जे कवतुकाचे भाव दिसताले ते अजून म्हज्या दोळ्यांमुखार आसात.

मनोहरबाब मडगांवच्या चौगुले कॉलेजांत गेले त्यावेळार थंय आनीक एक मनोहर आशिल्ले. तांचेंय नांव मनोहर सरदेसाय. 'मनोहरबाब' डॉक्टर आशिल्ले. ते मनोहर डॉक्टर नाशिल्ले. तरीय आसतना 'मनोहर म्हळ्याबराबर लोकांचो गोंदळ जातालो. म्हूण कोणेतरी तांतल्यान एक तोड काडली - एकल्याक कोंकणी मनोहर म्हणप, दुसऱ्याक मराठी मनोहर. उपरांत मराठी मनोहर सरकारी मनोहर जातकूच हो गोंदळ सोंपलो. (पयली उजवाडावणी १९८०).



प्रकाश थळी

यादींचो पर्मळ

# सुकिल्लीं ओवळां

म्हजो लागींचो ईश्ट कवी माधव बोरकार हाचें अचकित एक दीस पत्र आयलें 'जैतांचो अंदूचो दिवाळी अंक स. मनोहररायाचेर येवपाचो आसा, संपादकीय जापसालकी हांवें स्वीकारल्या. शाळेंत शिकपी कंवळे पिरायेच्या एखाद्या गुणेस्त भुरग्याक आपणाले मायेस्त आवयसंबंदी निबंद बरोवंक सांग तयार किदे जाता रें? किदें किदें, कितलें, खंयचे बरोवंचें आनी किदें टाळचें ह्या गोंदळांत विद्यार्थी गडबडटा. मनोहररायाचेर आतांमेरेन तो गेले उपरांत हांव कांयच बरोवंक पावलोंना ताचे फाटलें हें खरें आनी म्हत्वाचें कारण पूण माधवाचे आनी म्हजे संबंद अशे आसात, हो विशयूच आमच्या दोगांयच्या काळजाची खराय हालोवपी, ना म्हणप शक्य नाशिल्लें.

वयर सांगलां तेभाशेन मनोहररायाच्या साहित्याक म्हज्या भावविश्वांत आवय-भुरगो नातेसंबंदाभाशेन, वात्सल्यपूर्ण सुवात आसा. कोंकणीच्या मळार वावुरप्यांक बरोवप्यांक वाचप्यांक हाची खबर आसुंये म्हजे बरपावळीचेर मनोहररायाचो जबरदस्त प्रभाव जाणवता अशें भाई मावज्यान एकेकडेन बरयलां ते सामके खरें, ताणें म्हज्या मर्मार अचूक बोट दवरलां. म्हज्या लेखनांतूच न्हय, सदांच्या वेव्हारांत, संभाशणांत मनोहररायाचे आनी ताच्या उतरांचे पडसाद संदर्भ बा पावलाकणकणी लोकांक मेळत आयल्यात. फाटली कितलींशींच वर्सा कवी मनोहरराय म्हज्या भावविश्वाक व्यापून उरला.

खुद्द मनोहररायाकूच एकेक फावट अजाप जाताले, ताच्योच वळी हांव ताचेरुच मोखतालो तेन्ना, केन्ना केन्ना ताणें विचारचें, 'हें हांवें बरयलां? कांय फावटी ताणे म्हजे हुजरां ताच्या इश्टांकूय सांगलां 'हो प्रकाश जिवो आसा म्हणसर म्हज्या काव्याक मरण ना' हे दोनतीन फावटी आयकले उपरांत एक दीस हांवे म्हणले दोतोर जायते फावटी म्हाका म्हजें जिवीत Purposeless जालां शें हालीं हालीं दिसूंक लागलां. Now you have given me a glori-ous furpose to live for. I am indebted to you.' हांव आसासरुच न्हय, आमचे फाटल्यान येवपी पिळग्यान, पिळग्यो तांचे काव्य विसरचे नात इतले ते कसदार विशाल समृद्ध आनी गिरेस्त आसा. आज मनोहरराय आमचेमदी ना फकत उरलां तें फाटल्यान ताणे आमचे खातीर दवरिल्लें उगडासांचें विचारांचें मोलादीक साहित्य-धन, लालित्य, धन.

मनोहरराय गेलो आनी म्हजें भावविश्व सामके हालले अस्तिकूच रिते रितेंश दिसूंक लागलां. ताच्या काव्याच्या

परिसस्पर्शान लोखणाच्या म्हज्या भावविश्वाचे भांगर जालां हे हांव कशे विसरुं? हेरशींय जाल्यार कविरायाचे स्मरण चिरकाल जायत रावतलें ताच्याच उतरांनी सांगचे जाल्यार 'जाचे सदांच स्मरण जाता ताका मरण नासता.' मनोहरराय गेलो अशें तरी कित्याक मानपाचें? तो खंयतरी अवकाशांत आसा पूण आमकां मात तो दिसना अशी भावना घेवन मनाक हांव समजावपाचो यत्न करतां. 'जायत जागे' हे कवितेंत ताणेंच सुचयलां, 'मेल्ल्यांची काडात याद, पूण तांकां रडूं नाकात.'

कोणेशे म्हणलां, 'उगडासांचीं पाना परतिताना' क्रेन्ना केन्ना दोळ्यांतलें उदक लावंचे पडटा.' कविरायाच्यो यादी काडून बरयतना म्हजीय गत अशीच किदेंशी जाल्या. जॉन एफ. केनेडीक मारलो तेन्ना मनोहररायान मराठींतल्यान एक कविता बरयल्ली. कांय उतरांची अजून याद जाता.

"वैभवशिखरावरती असुनी
अमेरिका ही आज भिकारी..."

मनोहरराय गेलो आनी कोंकणी साहित्याची अशीच अवस्था जाल्लेरी दिसलें जाल्यार आमी अतिताय म्हणटले?

मनोहररायासारकेलो अस्सल कोंकणी कवी शेंकड्यांतल्यान एखादोच जल्मता मिनेझिश ब्रागांझाक लेखून मनोहररायाची एक कवितां आसा 'सगल्यांपरस व्हडलो तूं !' खूब वरसां पयलीं वेगळ्या संदर्भात हांवें 'कुळागर' म्हयनाळ्यांत तूंच गा!' आजलेगीत म्हजें हेंच मत ठामपणान म्हज्या मनांत आसा.

आमच्या बऱ्या नशिबान, मनोहरराय कवी म्हणून आनी मनीस म्हणुनूय केदो व्हड आशिल्लो ताची योग्य पारख करपी याचि देही याच डोळा जायते मनीस आमकां पळोवंक मेळ्ळे. आता तो आमचे मदी ना, अश्या वेळार तो म्हाका आनिकूय खूब व्हड दिसूंक लागला. घडये इंग्लिश कवी स्टिफन स्फेण्डर म्हणटो ते खरे आसुंये ताणें बरयलां.

Absence has
The quality of ice
which magnifies

दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी मुखार पळयतना अशेंच जाता न्हय ?

कविरायांक हांवें पयलेच फावट पळयलो तो मुंबयत. तेदे वेळार तो 'राव' का 'राय' आपणाल्या नांवांमुखार लायनाशिल्लो. फकत 'मनोहर सरदेसाय' इतलेंच आसतालें हें 'राय' प्रकरण ताणे खूब उसरां गोंयां स्थायीक ---- आपणायलें. १९५९-६० चो अदमास. थळ मुंबयचे चोपाटी विल्सन कॉलेजीफाटलें 'भारतीय विद्या भुवन' प्रसंग आंतर म्हाविद्यालयीन कोंकणी एकांकी सर्तीचो तशेंच 'विद्या' वार्षिकाचो आंतरम्हाविद्यालयीन बक्षीस समारंभ. मनोहरबाब फ्रान्सांतल्यान भारतांत परत आयिल्ल्याक चड तेंप जावं नाशिल्लो. त्या सुवाळ्याक मुखेल सोयरो ह्या नात्यान डॉ. मनोहर सरदेसाय जोधपुरी सुटांत हाजीर आशिल्लो. हांव तेन्ना आठवेंत काय णववेंत गवालिया टँक वाठारांतल्या (आतां ऑगस्ट क्रांती मैदान) इंपीरियल हायस्कुलांत शिकतालों. म्हज्या व्हडल्या भावावांगडा सुवाळ्याक गेल्लों.

दर वर्सा विद्या नांवांचो वर्सुको आंतरम्हाविद्यालयीन कोंकणी अंक येतालो. उत्कृष्ट साहित्याक इनामां आसतालीं. त्या वर्सा हरदत्त खांडेपारकाराले 'शांत उब्री सृष्ट' हे कवितेक पयले इनाम मेळिल्लें. ताचें सोबीत बरें रसग्रहण सामक्या सोप्या, मेजक्याच उतरांनी मनोहरबाबान केल्लें ताची नितळ याद जाता.

'विद्या' च्या एका अंकांत त्याच काळांत "कोंकणी काव्य कांय प्रवाह" ह्या माथाळ्या खाला मनोहरबाबाचो लेख वाचूंक मेळ्ळो. त्या काळार कोंकणी काव्य कितलेंशे आनी प्रवाह केदे, कसले, खंयचे हाची आज उण्या पुऱ्या पन्नास वर्साउपरांत कल्पना करुं येता. पूण म्हाका तेन्नाच तो लेख खूब आवडलो अपरुप अशें वेगळेंच किदें आनी तेंवूय कोंकणींतल्यान वाचता हाची खोल मनभुलयणी जाणविकासय जावंक लागिल्ली.

उपरांत मनोहररायाचे अध्यक्षने खाला ऐतिहासीक स्वरुपाची अ. भा. कोंकणी परिशद गोंयांत जाली आनी मनोहररायान एकाच फारान गोंयकारांची मनां जिखलीं. नागेशबाब करमलीन छापून घेतिल्ली हळडुव्या रंगाची मनोहररायाच्या भाशणाची पुस्तिका आमी रावताले ते निकुबाब धुम्याले वाळकेश्वर

कुडींत कोणेंतरी पावयली. म्हज्या हातांत ती पडली आनी हांवे वाचली मात - समको झपाटिल्लेवरी जालों. म्हज्यांतल्या उदेत्या कोंकणीवादी मनाक ही बुनियाद थारली मागीर थोड्या दिसांनी ताची 'आयज रे धोलार पडली बडी' ही संगितिका आनी अग्रंवर 'गोंयां तुज्यो मोगाखातीर' हो काव्य संग्रह म्हाका पिसावन गेलीं तेन्नाच्यान मनोहररायाच्या लिखाणांची पारायणां करपाचें व्यसनूच लागलें. तें अजून सुटना.

१९६४ वर्सा हांवें मुंबय एस. एस. सी. परिक्षा दिली आनी गोयची वाट धरली. थोड्याच तेंपान ओपिनियल पोल नांवांचो खवदळ गोंयांत जावपाचो आशिल्लो. त्या काळार मनोहररायान प्रासंगिक उपहासगर्भ अशें प्रचारकी गद्य-पद्य कोंकणींत आनी मराठींत खूब बरयलां. ही ताची बरपावळ 'राष्ट्रमतांत आनी 'सतां'त हांव वाचीत आशिल्लो. मुंबय आसतना मनोहरराय 'कोंकणी' नांवांची पत्रकां क्राडटालो, तातूंतल्यान अका प्रियोळकार सुशिल कवळेकार बा. द. सातोस्कार हांकां शैलीदार पद्धतीन उजरायतालो. हांवें त्या काळात भियभियेत बेकार चावडी नांवांचो एक लेख बरोवन धाडिल्लो. तो एक दीस 'कोंकणींत' मनोहरबाबान छापलो. हें म्हज्या जिवितांतलें छापून आयिल्लें पयलें बरोवप. त्या लेखांत अनंत काणेकराच्या संपादनाखाला उजवाडा येवपी 'साहित्यस्वप्न' साप्ताहिकांतल्या कोंकणी विरोधी लेखाक ही म्हजी जाप आशिल्ली, मनोहरराय गोयां वच्चे वेळार ह्या कोंकणी पत्रकांचे पक्षिकांत रुपांतर जालें. चडशें काम अ. ना. म्हांबरोच पळयतालो काव्यय दिसता. उपरांत एक दिवाळी अंक आयलो आनी तातूंत मीर्ग आयलो ही म्हजी पयली वयली कोंकणी कविता छापून आयली. त्याच संदर्भात अना, उदयबाब, स. लक्ष्मीकांतबाब तळावलकार इत्यादींकडेन वळख जाली. पूण मनोहरबाबाक प्रत्यक्ष मेळपाचो योग आयलो तो मात ओपिनियन पोलाचो धुमश्चेकच्च काळांत १९६४-६७ मदीं केन्नातरी.

म्हजे आनी मनोहररायाचे पयले भेटेक साक्षीदार म्हजो ईश्ट अमृत कांसार, अमृत 'आंकर' दिवाळी अंक काडपाक भायर सरिल्लो. आमी गोंयांत खूबकडेन साहित्य आनी जायराती पुंजायत भोंवतना अमृतान म्हाका कविरायागेर व्हेलो. शांतारान वालावलकारान मनोहररायाचीर 'आंकुरा' खातीर लेख बरयल्लो आनी मनोहरबाबाकडेन फोटो मागपाक आमी गेल्ले. आमचो बरो ताथोमाथो केल्ले उपरांत अमृतान फोटो जाय म्हळें. घोगळांतल्या आदल्या मिलिटरी बॅरॅक्सांत चौगुले कॉलेज चलताली आनी लागसारूच लतिफ म्हणटा ताच्या घरांत मनोहररायाचें बिराड. फोटो मागतकीर मनोहरबाबान आमका ब्राझिलाचो नामनेचो खेळगडो पेले हाचेविशीं एक किस्सो सांगलो तो असो :

पेले म्हज्यांत कोणतरी पत्रकार मुलाखतीखातीर गेल्लो. मुलाखत सोंपले उपरांत त्या पत्रकारान पेलेकडेन ताचो फोटो मागलो तेन्ना पेले म्हण्टा, 'You know, I am a good footballer and what a footballer does best in giving a kick.' हे सांगले उपरांत मनोहररायान 'I am not a bootballer so take this' अशें म्हणलें आनी फोटो दिलो. शांतारामाच्या सुंदर लेखावांगडा मनोहररायाचो तो फोटो 'आंकुरा'क गिरेस्त करुन गेलो. लतिफाचे घर सोडून मागीर मनोहरराय आक्यांच दुसऱ्या बिराडाक गेलो थंयूय हांव एक फावट पावलां. म्हणपाची याद जाता. येदो व्हडलो विद्वान मनीस जावूनच इतली नमळाय, सादेंपण बी गजाली म्हज्यांतली भीड चेपपाक कारण जाल्यो मनोहररायान तेन्नाच म्हजेर लाछ घाली.

१९६७ त हांव परतोय कॉलेज शिक्षणा खातीर मुंबय गेलों आनी कायम रावपा खातीर गोंया परतलों तो बद्द १९७७ च्या एप्रिलांत. मदीं दर वर्सा सुटयेंत गोंयां पासय मारी पूण मनोहररायाची प्रत्यक्ष भेट तो मुंबय आयलो तेन्ना तेन्ना अदीमदी जाल्या. ताचेकडेन पत्रवेव्हार चलतालो, ताचें साहित्य मेळोवन वाचप चालूच आशिल्लें. मनोहररायाच्या वांगडा विल्सन कॉलेजीत एका काळार शिकपी फ्रेंचीचो प्रोफसोर जिवूबाब केंकरो आमी रावताले ते कुशींचे कुडींत रावतालों. बांद्राक नॅशनल कॉलेजीत शिकयतालो. ताकाय मेळपाच्या निमतान मनोहरराय दोन तीन फावटी आमगेर पावला, एक रात रावलाय. युनिव्हर्सिटीचे पेपर मॉडरेट करपा निमतान ताचें मुंबय येवप-वचप जातालें. एक फावट बांद्राक साहित्य MIG कॉलोनीत दो. दत्ताराम सुखठणकारागेर हांव मनोहररायाक मेळूंक गेल्ल्याची याद जाता.

त्याच काळांत केन्नातरी हांवें म्हज्यो वेंचिक अश्यो थोड्यो कविता मनोहररायाक गोंया धाडून दिल्यो. कवितांसयत

ताचो अभिप्राय आयल्यो. 'आसात'. हांव समजुपाचें ते समजलों, खंयच्यो बऱ्यो आनी खंयच्यो चड बऱ्यो ते विशीं विचारपाचे धाडस त्या काळांत जालें ना पूण प्रो. जिवूबाबाक ताणे म्हज्यांत originality आसा अशें सांगिल्लें खंय. तो दाखलो म्हाका ऊर्बा दिवपाक पुरो जालो.

हांव गोंयां येवंचे येवन श्री. दामोदर कॉलेजींत लॅक्चर म्हणून १९७७ लागलो आनी थंय १९८७ मेरेन धा वर्सां काडली. मजगतीं केन्नातरी मनोहरराय पणजे पदव्युत्तर केंद्रांत गेलो. मडगांवा आसतना आमचें चडशें मेळप जालेंना. एक फावट ताका हांवें कॉलेजीच्या एका समारंभाक मुखेल सोयरो म्हणून हाडिल्लो. पणजे पदव्युत्तर केंद्रांत आसतना आनी उपरांत बांबोळे गोवा विद्यापीठांत ताका जायते फावटी मेळ्ळां. साहित्य सुवाळ्यांनीं तर ताचे भोंवतणीं सदांच मानेस्तांचो गराडो आसतालो. हांवूय खंयतरी आंग चोरुन मदीं रावतालों.

खंयच्याय संमेलनांत वा सुवाळ्यांत कार्यावळीचो उपचारी वांटो सोंपले उपरांतच्या वेळार तो आपूण जावन सगल्यांक पासयो, खबरो मारीत भोंवतालो. एका कदेलार तो बसला आनी सगले ताचेकडेन येतात अशें जाय नासलें आमचे मदले जायते जाण रेश्येत अपेक्षितात, demand करतात, मान दिलोना जाल्यार शिणटात. मनोहरराय उबो आसल्यारुच आपसूक रेश्पेत Command करतालो.

म्हामनीस आसतात ते उलयातात वा बरयतात तेन्ना तांच्या उतरांफाटल्यान अर्थ धांवत वता, गिङ्ग्या 'विचारवंतां'च्या सान मनशांच्या अर्थाफाटल्यान उतरांक खशेंत धांवचें पडटा अश्या अर्थाचें संस्कृतांत एक सुभाषित आसा. मनोहरराय म्हाकवी तसोच एक म्हामनीस आशिल्लो. ताच्या मेजक्याच उतरांफाटल्यान खोल अर्थ-आशय धांवत येतालो. उतरांचे खेळ करप, श्लेश वा Puns सादपांत ताचो हात धरपी कोणूच जालोना. हजरजबाबी पूण केन्नाच कोणाक दुखोवपी न्हय. ल्हान भुरग्यावरी, मातशें लुडबेत, दोळे मिचकायाय उलोवप. माचयेर उलोवंक उबो रावलो काय लांब हाताचे खोमीस आसल्यार मात्शे हात कवळटालो. दिसतालें हो घड्ये शाब्दीक घुरयेखातीर मुश्ठियुध्दाखातीर हात कवळटा जायत. पूण तशें नासतालें. दरेक फावटी एकाच उतरांतल्यान वा विनोदी वावयांतल्यान तो रोखडीच सभा काबीज करी.

दिसपाक ठेंगू मातसोसो गबाळो दिसलो तरी एक फावट तोंड उगडलें म्हणटकच विद्वत्ता फुलून येतालीं.

मनोहररायाचें शब्दपांडित्य जायत्या देशी विदेशी भाशंतल्यान आपणालें प्रभुत्व सहज सिद्ध करतालें, खरो व्यासंगी. पूण विद्या विनयेन शोभते हें ब्रीदवाक्य ओंठारुचन्हय तर आचरणान आशिल्लें. तत्वाचो मनीस. 'रघुकुलनीती सदा अपनायी/प्राण जाय पर वचन न जाहीं' असो खाक्या. हो गूण लक्ष्मणरावा कडल्यान ताका दायजान मेळ्ळो काय सगल्याच सूर्यराव सरदेसायांचे अशें, हांव सांगूक नकळो.

सरदेसायांमदी दोन तीन फांटे आसात. सूर्यराव प्रतापराव आनी तिसऱ्याची हांगां याद जायना. मनोहरराय खंयच्या पंथांचो ते सुरवातेक बरोच तेंप लक्षांत उरनासलें. उपरांतच्या सूर्यासंबंदीच्यो दोन कविता (आनिकूय आसतल्यो) मतींत फिक्स केल्यो. एक रेडिओचेर आयकल्ली ती अशी

"सुर्या म्हाका उठोवं नाका
उठय फुलांक, फुलां खुडटल्यांक
उठय गिता वाचतल्यांक
म्हजी गिता म्हजेमुखार

दुसरा कविता आसा ती सूर्याची प्रार्थनाशी स्तोत्र कशें पूण बरी जांव तातूंत अखेरेक ताणे म्हणलां "तुजे कुळयेंतलो कवी एक हो, दिता तुका गा आर्गां" हाचेवेल्यान मनोहरराय हो सूर्याराव हें म्हज्या मनांत चित्र जालें घट्ट रोंवलें.

तो स्वता हेरशीं बरो फांल्यार उठपी सूर्याकिरणांनी ताका जागोवपाची कसली गरज? ताणेंच 'जायो-जुयों'त काय खंयतरी म्हणलां

'हांवूय एक शेतकामती
फांत्यापारार उठटां
आनी लिखणेचें जोत धरतां."

आपापले सोयीप्रमाण कवी सगले तरेचें, विंगड विंगड अँगलांतल्यान बरयतात. त्या त्या वेळार तें तें खरें मानूंक जाय. म्हत्वाचें म्हणल्यार ताणें जें किदें सांगलां तें कितलें लालित्यपूर्ण आसा, खंयच्या तोलामोलाची ते पळोवप गरजेचे. शैली, धाटण कितली ओडलायणी हें तेळपाचें उलयला तशेंच बरयतना मनोहररायाची शैलीसामकी original आनी

नालित्यपूर्ण आसताली.

मनोहररायाचें बरेचशे काव्य प्रासंगिक स्वरुपाचे, प्रचारकी थाटाचें, उपहासगर्भ पूण काळाचो संदर्भ मतीन घेवन वाचल्यार नक्कीच वाचनीय, 'ही लोकशाय', आसलो पोल (३ भागांनी), उदक जाय, एक मत, एक खत यो रे म्हज्याच्योगमा' अशा जायत्यो दरेकी ताच्या विडंबनात्मक, त्रोसात्मक कवितांचे सुंदर नमुनेच. ओपिनियन पोलावेळचे ताचें खूबशें कोंकणी/ मराठी काव्य हो स्वतंत्र प्रबंधाचो विशय जावं येता. प्रचाराखातीर मराठी शाहीर गोयां कुसुंडे कशे देंवूक लागले तेन्ना मनोहररायान बरयले.

'आला मराठी शाहीर
पडे उफावर थाप
आला मराठी शाहीर
फुले ओंठावरही थाप...'

आनी गोंयकारांक शिटकायतालो

'झोळी घेऊनी जोगी आला
भिक्षा मागे दान
सीतामाई, रेषा पाही
सावधान, सावधान.'

आनी काळजांतल्यान, बोंबलेच्या देंठांतल्यान, कळबळ्यान उलो मारतालो.

"सांखळेकारा सांखळी तुजी
तोंडूं नाका
दिवचलकारा दिवली तुजी
पालोवं नाका
पणजेकारा पणटी तुजी
राखून धर
फांत्यापारार म्हजें घर
उजवाडान भर."

ह्या सगल्या गोंयकारानी हो उलो, ताळो आयकलो आनी गोंयचे आमचें घर जैताच्या उजवाडान भरलें. पूण जैताचो कैफ तकलेक मारचेपयलीच एकचाराची, भावकेची शिटकावणीय मनोहररायान रोखडीच दिल्ली. ताणे बरयल्लें.

'जिखलीं पानां, जिखलीं पानां
पुणून मनां जिखचीं आसात.
एकाच मायेधाग्यान आतां
सातूय लाखांक बांदचे आसात..'

जिवितांत बापूय बंदखणीत वचत सावन फामिलीची जापसालकी सांबाळीत, तोणके खाले पूण ताचे उपजत विनोद बुद्धीक वेर गेल्ली दिसना. ताच्या अखेरेच्या काळांत भांडाऱ्याल्या हॉस्पिटलांत हांवे ताचे खातीर बसून वट्ट देड वर हास्यविनोद केला, संभाशण आयकलां. दुसऱ्याचे विनोद बुद्धीकूय मनसोक्त दाद दिवपाची दानत ताचे ठांये आशिल्ली. हे बाबतींत आमचें दोगांयचे खाशेले सूतजमिल्ले.

मडगांव सोडून पणजे पदव्युत्तर केंद्रांत वचचे पयलीं ताका चौगुले कॉलेजीच्या स्टाफान मडगांवा संस्कृत प्रचारिणी सभा हॉलांत Dr. Sardessai gave 18 years of Fruitful Services to Chougule College. निरोप दितना. प्रो. रावान म्हणलें मनोहररायान आपणाल्या भाशणांत रावाक घरलो. ताणे म्हणलें, 'राव म्हणटा फ्रूटफूल सर्व्हिस. हें आनी बाबा किदें? पयली फ्रूट आनी मागीर फूल कशें? आल्मेद हायस्कूलांत ताका सोयरो म्हूण आपयलों आनी घरकान्न सुहासताईक म्हणल्यारुच माई उर्फ प्रमिलाबाय बक्षिसां दिवपाचे काम दिल्लें.

आनीक एक गजाल हांगां सांगूंक जाय. ताचे घरकान्नीक सुहासताई म्हणटात हें म्हाका मनोहरराय म्हजो पयशिल्लो साडू जाता अशे १९७८ च्या डिसेंबरात कळ्ळें. तेन्नाच समजलें आमच्या संबंदांक तेन्ना आनीक एक पोड मेळ्ळो. म्हाका लग्नाच्या जाळ्यांत घुसपावाप्यांमदी मनोहरराय बी एक आशिल्लो जाल्यार निश्चित खबर ना.

मुखोल सोयरो ह्या नात्यान आल्मैदात सरदेसाय जोडपें स्टेजीर मनोहरराय उलोवपाचे सुरवेकूच सांगता: 'हांव, हांगां मुखेल सोयरो. हांवें उलोवपाचें, बायलेन भुरग्यांक बक्षिसां वांटपाचीं. घराकडेन उरफाटें, तीं उलयता आनी हांव इनामां वांट्टां.''

भुरग्याखातीर मनोहररायान बरयलां तो एक स्वतंत्र चर्चेचो विशय. मनोहरराय वतकच ताच्या 'हळडुव्यातालल बेब्यानूच चड हुडक्यो मारल्यो आनी ताचेर नाका तितली

चर्चा जाली. सगले तरेचें साहित्य रचपी हो महासाहित्यिक लोकांनी ओगीच ल्हान करुन दाखयलो हे म्हज्या जिवाक लागलें. आमचे लोक भरपूर वाचिनात ताचो हो परिणाम. सोडात.

खूबशा जाणांक दुसऱ्याची बरी वाक्यां आपणाली म्हणून खपोवपाची संवय आसता. मनोहरराय खूब फावटी आपणाली बरीं सुभाषितां व्हडल्या व्हडल्या लेखकांची लेबलां लावन खंपयतालो. सार्त्र, काम्यू, ह्युगो, रोमा रॉला आनी हेर फ्रेंच मानेस्तांची अस्सल फ्रेंचींत Quotations सांगी आयकुप्यांमदी फ्रेंच बरी जाणाशिल्ले कितले गोंयकार हाचो अदमास ताका आशिल्लो.

कायं फावटी तो विनोदी किस्से रचोवन सांगी. हें किश्शे खऱ्यांनीच दुसऱ्यांसंबंदी काय खुद्द मनोहररायान रचिल्ले हे कळपाक मार्ग ना. असोच ताणे सांगिल्लो एक कोंकणी सारकी नकळो आशिल्ल्या मराठी अनुवादकाचो मनोहररायाचो एक नामनेचो मांडो आसा. 'आंग मुजें चोय पूण हात लाय नाका.' तिसवाडी बारदेस बी वाठारांत किरिस्तांव 'ळ' चे सुवातेर 'य' करतात. कोणा एका मराठी विद्वानान खंय तर्क केलो आनी साहजिकूच हिंदू वाचाप्यांखातीर अणकार केलो. 'अंग माझं चोळ पण हात लावूं नकोस!' वयल्यान मराठीवाल्यांची मनोहररायाचेर टीका 'काय हे सरदेसाई? म्हणें अंग चोळ पण तेसुद्धां हात न लावता? हें कसं काय शक्य आहे. बुवा?

श्रीपादबाबाच्या कोशाविशी काणकोणां विमोचन सुवाळ्यांतूच मनोहररायानं स्पश्टवक्तेपणा दाखोवन टीका केली. मनोहररायान म्हाका गजाल सांगली ती अशी 'हांवें म्हणलें, शी! शी! हो कोश हातांत घेवपाचो न्हय रे बाबा! श्रीपादबाब ओगी रावलो. तातो केलेलकाराक मनोहररायाचे स्पश्टवक्तेपण मानवलेंना. तो आनी मनोहर घनिश्ट ईश्ट. तातोन खंय मनोहरांक विचारलें, 'मनोहर आज तुवें सुवाळ्याक येवंचे पयली इल्ले लायिल्लें (कुट्ट) काय किदें रें? किदें उलयलो तूं?'

मनोहररायांन म्हाका श्रीपादबाबाच्या कोशांतले एक उतर घेवन आपणालें समर्थन केलें. श्रीपादबाब Major ह्या उतराक - भारतीय सैनिक अधिकारी अशें दिता. मनोहरराय म्हाका विचारता, आतां तूं सांग, एखाद्या पाकिस्तानी अधिकाऱ्याच्या सैनिकाच्या हातांत हो कोश पडत जाल्यार किदें जावं येता ?'

एका एका उतराचेर खेळ करीत Peus (श्लेश कोट्यो) करीत संभाशण फुलोवपाची मनोहररायाची वेगळीच हातोटी. युरोपी वा फ्रेंच साहित्यातल्या विनोदाक व्हडलीशी श्लील-आश्लिलतेची बंधना लागनात. खाजगी संभाशणात इश्टांमदी मनोहररायाचेरुय ह्या 'मुक्त विनोदाचो प्रभाव आसा म्हणपाचे जाणवताले.

एक फावट हांव पणजे ताळगांवा, तांच्या वनराई (तो ताका 'वनराय' म्हणटालो) घरा गेल्लों. ताचो एक ईश्ट थंय आशिल्लो म्हणूंक लागलो. 'जाणा मरे मनोहरबाब हांव आता दुसऱ्या कोणाच्याच सुस्तार जियेना. बायले खुस्तार जगता अशे म्हणून खूब जाण लिखणेचेर जगतां तुगेल्या लक्ष्मणरावावरी मनोहरराय मुमुरव्यांनी हांसता आनी म्हणटा

दोतोराक एक फावट सर्पी जाल्ली. हांव खबरेक पावलोंना पत्र बरयले आनी विचारलें. 'दोतोर आतां कसो आसा?' ज़ाप आयली 'सर्पी येवन गेली, आतां कात सोडटां.'

पोंपिदु फेस्टिव्हलाच्या निमतान भारतीय कवी ह्या नात्यान आपूण पॅरिसाक वचपाचो आसां अशें म्हाका दोतोरान एक दिस म्हणलें. हांवें विचारलें, 'एकटेंच वतात काय फामिल, म्हणल्यार घरकार्नीसयत?' मनोहरराय सूंसूं करीत ओंठांनी हांसता आनी म्हाकाच बयल्यान विचारता 'मयड्यां वतना कोण केळी बरोबर घेवन वता रे?'

म्हाकाय भुरगेपणासावन उतरांचे खेळ करपाची संवय. उपरांत व्हडलो जायत गेलों, शिकलों वाचले, पळयलें अणभवले आनी मनोहररायासारकेले विद्वानूय मेळ्ळे जांचोय प्रभाव खूब आत्मसात केलो. वयर सांगला त्या पोंपिदु फेस्टिव्हलाक मनोहरराय पारिसाक वचपाक गेला त्या वेळार हांव बांदोड्या, म्हालक्ष्मी प्राकाराच्या एका रुमांत दावो पांय प्लास्टरांत घेवन एक दोन म्हयने हातुणार उरलो. स्कुटरीच्या अपघातान धोंपर फुटिल्लें. दोतोराक हांवें पत्र बरयलें. 'दोतोर, बरे करुन वचात. तुमकां निरोप दिवपाक हांव विमानतळार येवं शकना. कारण तुमी पारिसाक पांवचें पयलींच म्हजो दांवो दोंको पारिसांत ( ) गेला. मनोहररायाक

कोटी खूब आवडली. ताचें कार्ड आसलें. 'धन्यवाद. पूण एक सांग, तूं स्वताच्या पांयार केन्ना उबो रावूंक शिकतलो?'

दोतोर पणजी पी. जी. सेंटरांत शिकयतालो तेन्नाची गजाल. ताणें म्हाका दनपारां जेवंक रावपाकूच यो म्हूण आपयल्लो. पी. जी. सेंटरांतल्यान आमी नुसत्या मार्केटांत वचपाक भायर सरले. ताच्या दाव्या खाक्यांत एक दाट उशेशे भग्ल्ले पास्त आशिल्लें. दुसऱ्या हातांत एक रेक्सिनाची व्हडली पोती. पोतयेंत टायपरायटर पुस्तकां, कादेर्न, थर्मास अशो जायत्यो वस्ती आशिल्लो. हांवे म्हणलें, 'दोतोर पोती म्हजेकडेन दियात. पास्त तुमचेकडेन आसूं दीं. आमचो गजानन जोग म्हणटा ते भाशेन, 'पास्त ही (तुमची) एक सामाजिक गरज.

दोतोर म्हणूंक लागलो, "ही पोतीय म्हजी कौटुंबिक शिक्षणिक आनी कसली कसली जायती गरज. पूण ती जड ना रे! कुणाच्या खांद्यार कुणाचे ओझे अशें तुवें किद्याक घेवचीं? म्हजो खुरीस म्हज्याच खांदार बरो सोबता". ताणे ती पोती म्हाका कशीच घेवंक दिली ना. मार्केटांत वचून मनोहररायान एक बरो व्हडलो विस्वण घेतलो. तोवूय ते पोतयेंत घालो नुस्तें घेवपाच्या निमतान पोती हांवें सांपडायली. खांद्यावरचे ओझें बरेंच जड जाल्लें. 'दोतोर, जड ना किदें म्हणटात? हातूंत म्हाका एकेच कडेन विस्वण, टायपरायटर, मोलिएटर, शेक्सिपयर, ह्यूगो, रवींद्र केळेकार, शणै गोंयबाब, बी कितली पेझाद व्हरायटी दिसता.' हांवे एक भुरग्यांखातीर कॅडबरी घेतली. दोतोर म्हणूंक लागली. ती मात पोतयेंत उडोवं नाका. तुज्या बोल्सांतूच दवर. पोती तूं म्हणटा तशी खऱ्यांनीच जड आसल्यार your chocolate will prove the proverbial last straw on the camel's back. It has already reached its saturation point, पिंनू येता.

'संस्कार' कादंबरेच्या अणकाराचो सुवाळो आमी मनोहरायाक लागून पणजेंत इन्स्टिट्यूट मिनेझिश ब्रागांझाचे आर्ट गॅलरींत दवरिल्ले. मनोहरराय निकतोच एका कण्याच्या दुयेसांतल्यान बरो जातालो. पूण आमचेखातीर ताणे मुजरत वेळ दिवन ल्हानशेंच सोबित बरें भाशण केलें. कांय उतरांची अजून याद येता. 'कोंकणीच्या, पुस्तकाच्या प्रकाशाच्या मोगान म्हाका आज हांगां दवरलो. खरें म्हणल्यार आज हांव ह्या पुस्तकाच्या मूळ बरोवप्याच्या प्रते अनंतमूर्तीच्या सांगाताक दिल्लींत आसपाचों. पूण हांवें म्हणलें ह्या अणकाराच्या रुपान हाणी अनंतमूर्तीची मूर्ती हांगांच उबी केल्या. वचपाचें रद्द केलें

उपरांत ताणें अणकाराचें ६७वे पान संबंद वाचून दाखयलें आणि म्हणलें, "हो अणकार खऱ्यांनीच बरो जाला. हें पान हांवे वाचले तें तुमी वाचचेंच सगलेंच पुस्तक विकते घेवन वाचचें." कार्यावळ सोंपतकच श्काद देंवतना ताका जतनायेन पावलां घालची पडटाली. मिनेझिश ब्रागांझाचे इमारतीच्या मुखावेली खळी वलांडटना हावें ताच्या बावळ्याक धरून आदार दिता सदांचे आमचे फकाणेर संवयेन म्हणलें, "जपून टाक पाऊल जरा, दोतोरा मनोहरा, आमचेखातीर तिश्टल्ल्या कश्टाल्ल्यामुशाफिरा. दोतोरान सदांवरी हांसत म्हणलें, "हें वायटशें गेलें ना तुजें"

आपलो नामो पत्रांत बरयतन दोतोर 'ताळगांवांक तांबडी माती (पुर्विल्लें नांव) वापरतालों 'देवा किदें तुजी करणी? केंस जाले धवे, नदर अजून तरणी.' अस्सल कवीक नाद, रस, गंध, रंग हे सगले लागता, तो रसिकूच आसता. रविंन्द्रबाबाच्या एका पुस्तकाक बरयल्ले प्रस्तावनेत ताणें म्हणला, 'रवीन्द्र जिविताचो अर्थ सोदता. हांव जिविताचे रंग पळयतां.'

ह्या रंगांवेल्यान केन्ना केन्ना हांवे ताका तुकलायला हांवें म्हणटें 'किदें कविराय मनोहरराय, हांवूय तसो एक रावून रावून (गांवांत) राय. पूण तुगेले रंग म्हजेकडेन नात. तूं पांढरे केस हिरवं मन, रहातां कुठे? तांबडी माती? हांवें ताका केन्नातरी एक फावट म्हणिल्लें. 'पणजे म्हजी कांय 'आका' आसात. आकाश (वाणी) एक, दुसरी कला अकादमी, कोंकणी आका, मराठी आका इत्यादी. पणजे अचकित मेळ्ळयार ताणे विचारचे, 'आज खंयच्या आकाक मेळपाक आयिल्लो?

सुरेशबाब बोरकाराच्या व्याकरणाचे करपा निमितान आमी तीन चार सप्तकां-अखेरेक म्हणल्यार शेनवारा सांजचे मेळून रातचे एकठांय बसून रावून दुसरे दीस सांज मेरेन चर्चासत्र. आमी म्हणल्यार मनोहरराय, उदयबाब, फेलिसबाब सुमनबाब, एकाच शेनवारा येवन गेलो. फर्मागुड्येच्या टुरिस्ट कॉटेजींत आमचीं शिबिरां जातालीं. एक दीस किदें जालें?

बाथरुमांतलो बल्ब फुटलो आनी कंवच्यो सगल्याक शिंवरल्यो. आमी कोम.कोण मॅनेजराक, प्यूनाक, झाडूवाल्याक, बीं पळोवपाक फ़ासाळ्ळे वावराड्याक घेवन पांच-धा मिणटांनी परतून येवन पळय जाल्यार मनोहररायन उक्त्या पायांनी एका हातांत सात्री खुटारो घेवन कंवच्यो एकठांय करपांत मग्न! मनोहरराय हो आचरणांत खरो गांधिवादी आशिल्लो.

मनोहररायाचो exelusively फकत म्हाकाच एकट्याक सहवास तोवूय बी बद्द चार दिसांखातीर मेळपाचो भाग्ययोग १९८६ त आसलो. त्या वेळार कोंकणी प्रजेचो आवाज 'आंदोलन तेंगशेर पाविल्लें गोंयांत आमी चळवळे सगले तरेन कोंकणीचें आंदोलन चलयल्लें. अखिल भारतीय पावंड्यावेल्या नामनेच्या इंग्लिशींत दिसाळ्यांनी निदान चार सणसणीत लेख तयार करपाच्या निमतान मनोहर, फेलिसबाब आनी हांव अशा तिगांक पणजे केणी हॉटेलांत बंदखणींत घालून लेख बरोवन घेवप असो कीं. प्र. आ. चो बेत. भलायकेच्या कारणान फेलिसबाब येवंक पावलो ना. उरले आमी दोगूच जाण. writing under duress म्हणटात तसो हो प्रयोग. कांय लेखक स्वताकूच अशे कुडीत बंदिस्त जावन बरयतात म्हणपाचें आयकल्ले. आतां आमचेरुच हो 'प्रसंग' येवन पडिल्लो.

हांव म्हजो portable टायपरायटर घेवन गेल्लों. दोतोरान सांगप, हांवें टायप करप. जमल्यार गरज पडल्यार म्हज्योय सुचोवण्यो करप. केणी हॉटेलांत आमच्या च्या-पाणी जेवणखाण बी सगली वेवस्था आशिल्ली. तशेंच सामकें भायरकेन्ना पायसंक वचपाची मेकळीक आशिल्लीच सामकीच कडक बदखण न्हय. मोगाळ अशी विशिष्ट कामाखातीर नजरकैद म्हणू येता. भायर गेले जाल्यार च्या बी घेतल्यार मनोहरराय किदेंच केल्यार म्हाका पयशें दिवंक लासनासलो. केणी हॉटेलांतले खर्च अथात आयोजकां वतीन.

८ डिसेंबर १९८६ हो दीस म्हजे यादीक सदांकाळ उतरलो. त्या दिसा पणजे इगर्जेचे फेस्त हांवें सकाळी १०क सुमार काम सोंपयत दोतोराक म्हणले दोतोर हे चार लेख तयार जाल्यातूच. पांचवो सांजे सोपोवया. भायर फेस्ताक फेरयेंत अशी पायस मारुन आयल्यार कशें? relaxation ताकाय ची गरज भासताली जावंये. तो तयार जालो. हॉटेलाच्यो इश्कादी देवतनां हांवें ताका म्हणलें, 'दोतोर आज म्हजें सप्तपदीक आठ वर्सा पुराय जातात. Why no go in for a small exclusive celebration? पयलेंच फावट at my cost म्हणटात तशें मनोहरबाब राजी जालो. आनी ल्हानश्याच Resturant लिमिटेड कंपनेंत लिमिटेड घेवपाक बसले. एका कोनशाच्या त्या मेजाकडेन दोतोराच्या मंद मृदु फुतफुतल्याश्या आवाजांत दोतोरान म्हाका कांय मांडे आयकताले. अप्रतीम असो तो अणभव आसलो. किद्याक म्हणून कोण जाणां, मनोहररायाचे तशेंच म्हजेय दोळे ओलमार जाल्ले. काळजांतल्यान, कळवळ्यान बरयल्ली कविता एकाद्या अस्सल रसिकाच्या कानार खुद्द कवीच्या तोंडातल्यान पडटा थंय spiritual unity चो प्रत्यय येता जावंक जाय. कलाकारांमदीं एक Spiritual Unity आसता हें खरेंच

मनोहररायान एक दोनदां म्हाका म्हणिल्लें 'जाणा मरे बाकीबाबाले पूत natural अमेरिकेंत आसात. त्या कविचे spiritual पूत आमी त्याच न्यायान मनोहररायाची घरची जायतीं आसातूच. पूण हांव ताचो भाव लागतां अशें म्हाका दिसता आयलां लक्ष्मणरावाचे जल्मशताब्दे वेळार मनोहररायान जाहीरपणान सांगिल्ले. 'कलाकारांक घरची वळखनात, हांव कवी कलाकार म्हणून लक्ष्मणरावाक चड बरे वळखतां. दोतोरवांगडा चार दीस केणी हॉटेलांत उरलों तेन्ना मनोहररायाक चड लागींच्यान वळखूंक पावलों. ताचेमार्फत खबरींच्या ओघांत कांय कर्ममियत आनी वर्मामियत लक्ष्मणरावाचीय इल्ली लागींच्यान वळख जावंक पावली. तृप्त हांव, फकीर हांव अशें लक्ष्मणरावान स्वताविशीं म्हणल्ना. पूण तो खरेपणीं तृप्त नाशिल्लो आनी फकिरुय नाशिल्लो अशें मनोहररायान म्हणलें. स्वता मनोहरराय फकीर नाशिल्लो पूण तृप्त आशिल्लो.

जायते जाण दोतोराक म्हणटाले 'आरे तुका पापया देवान इतली बुदवंत काय दिली. शिक्षणांत घमघमीत येस दिले. असामान्य प्रतिभेची लिखणे देणगी दिली. तुवें खंयतरी त्या प्रो. महालेवरी खंयच्यातरी विद्यापीठाचो उपकुलगुरु सहज जावं येतालें. खरें म्हणल्यार तुजी लायकी संयुक्त राष्ट्रसंघांत वा खंयचो तरी राजदूत जावपा इतली तुका सादी पद्मश्री लेगीत मेळची न्हय?

मनोहररायान चारुच वळींनी ह्या सगल्या बरें मागप्यांक जाप दिवन दवरल्या.

'हे म्हणटात.
हो इतलो चल्लो चलत रावलो
पूण खंयच मरे पावलोना?
हांकां खबर ना
हांव चलतालों तो चलपाक
न्हय खंय पावपाक.''

म्हाका एकदां ताणे म्हणले 'जाणा मरे? हांकां दिसता हांवे खंयचे तरी सत्तेचे व्हडले खुचेर बसचें, सत्ता गाजोवंची, बंगल्यांत रावचें, व्हडल्या व्हडल्या गाड्यानी भोंवचें. पूण खरेपणी म्हज्या हिसपान तो म्हजो स्वर्ग न्हय!'

कर्मयोगाचे मर्म मनोहररायाच्या आचरणांत दिसतालें. रवीन्द्रबाबान एकेकडेन बरयलां, 'म्हाका स्थितप्रज्ञ ह्या उतराचो अर्थ भगवद्गीता वाचतुकूच खूब उसरां कळ्ळो मनोहराक तो भुरगेपणांतूच कळिल्लो!'

मनोहररायाक ताचो 'स्वर्ग' ह्या गोंयांतूच मेळिल्लो गोंयचे ओडीतूच तो पॅरिसांतलो 'आप्सराचा सर्ग, गोंयच्या कुळागरांखातीर सोडून हांगां आयिल्लो न्हय? म्हणुनूच ताका हांवे तृप्त आशिल्लो अशें वयर म्हणलां. जीणेंन आपणाक सगलें दिले अशे ताणे एके कवितेंत म्हणलां ताका हेच जिणेंत ह्याच गोयांत याचि देही याचि डोळा ताचो स्वर्ग मेळिल्लो. देखुनूच ताका आतां स्वर्गवासी 'सर्गेस्त' म्हणपाचेली गरज ना.

मनोहररायाच्यो म्हज्या मनांत असंख्य यादींचो एक व्हडलो गुठलो जावन रावला. सुताच्या गुठल्यावरी उसयत तितलो उसोवपाचो, असूपांचो सोडोवपाचो ह्या यादींची यादी (वळेरी) करप शक्य ना. जिविताच्या फाटल्या ४०-४५ वर्साच्या पुस्तकाच्या पानांमदी हीं ओवळां हांवें सांबाळून दवरल्यांत ती सदांच पांवलाकणकणी परमळटलीं, तळमळायतली दोळ्यात उदक लावन उगडासाच्या पानांची पारायणां जायत रावतलीं, सुकिल्ल्या ओंवळांच्या अस्वस्थ करपी सुगंधाभाशेन. ह्या यादींमदीं मनहोररायाकडल्यान आयकल्यो, ताणे बरयल्ल्यो ताच्या स्वताच्यो यादीय भरसल्यात. हांब आसासर, म्हजी स्मृती साथ दिता तोवेर त्यो कशोच वचपाच्यो नात. ●

# AVOID OVER SPEEDING & OVER LOADING

DO YOU KNOW?

Every year more than THREE LAKHS road accidents are reported and over 80,000 people die in road accidents in Indias and 80% of accidents are due to Human error.

**FOLLOW TRAFFIC RULES / SIGNS**
**BE SAFE AND LET OTHERS BE SAFE**

- Don't mix drink with drive.
- Two wheeler is for two, not for too many;
- Speed thrills but it kills;
- Life is worth living why cut too short by over speeding;
- Always wear helmet while driving a two-wheeler.
- Do'nt use mobile phone while driving a vehicle.

*Issued in Public Interest By*




# DIRECTORATE OF TRANSPORT

PANAJI - GOA.


जेस् फेर्नांदीस

यादींचो पर्मळ

# म्हजो मनोहरबाब

म्हजी आनी मनोहरबाबाची वळख आनी आपुलकी खूब वर्सां आदली. १९६४ सालाक सावन मनोहरराय सरदेसाय हें नांव आमच्या घरगतीचें जावन उरलां.

मनोहरबाबाचें आनी म्हजें नातें एका गुरू आनी शिश्याचें. वडिलांचें आनी भुरग्याचें. एका जाणवायेच्या कोड्याचें आनी एके अपूर्ण भरलेले पायलेचें. जशी ती पायली आपले भराये खातीर त्या भाताच्या कोड्याकडेन पळयता, आनी एक वाट सोडपी जाणकाराच्या प्रत्येक पावलाकडेन पळयत आपले फुडलें पावल उखलता, तेंच तरेन ह्या गुरूकडेन पळयत, ताच्या फाटोफाट चलपाची हांवें सदांच दिका धरल्या.

पूण ते वाटेंतल्यान चलताना हांव ताच्या फाटल्यान कितलो पयस उरलां काय लागीं सरलां तें हांव सांगुंक शकना. हांव नकळ. पूण एक मात म्हज्यान निश्चित सागूंक जाता. प्रत्येक वळणा वेळार प्रत्येक थांब्यार मनोहरबाबान, फाटल्यान वळून म्हजेर आपली नजर भोंवडायल्या. वाट चुकता जाल्यार जापायला आनी फावत्या वेळार शिटकायला. कितलेशेच पावटी ताणें म्हाका आपलो हात दिला.

अशें उलयतलो जाल्यार वरांची-वरां पावचीनांत आनी बरयतलो जाल्यार ग्रंथ बरवचे पडटले. ताणें म्हाका सदांच आपलो आदार दिला, ताकाच लागून म्हज्या बरोवपाची तांक आनी आवाट इतलो फुडें पावला हें सांगपाक म्हाका गर्व दिसता.

ताच्या सल्ल्या शिवाय हांवें तेन्ना एकूय कविता बरोवंक ना आनी एकूय कथा छापूंक ना.

जायते पावटी हांव बरोवन हाडटालों. ताचेर उलोवून आनी सुधारीकरण करुन कितलोसच वेळ व्हगडायतालो आनी तेन्ना म्हजे कवितचो आकारुच बदलतालो आनी ऊंचावतालो. त्या दिसांनी, हांवें कितेंय बरयलें जाल्यार, तें केन्ना काय तांकां दाखयल्यार पुरोशें जातालें. आनी तें दाखोवपाक मुद्दम हांव ताच्या घरा मडगांव वा पणजे वतालों, तांगेर पावता तेन्ना तो कितलोय थकलेलो आसलो जाल्यार लेगीत त्याच वेळार म्हजें बरप घेवन बसतालो. आनी आपलो कितलोसोच मोलादीक वेळ सारून म्हजें बरप पुराय करतालो.

आपल्या फुड्यांत आयलेले पावटी ताणें, आपली तकली हयकारी तरेन हालयत म्हणचें 'हय, आयची कविता तुजी आदल्या परस कितलीशीच बरी आसा. सुधारल्या.' आनी ह्याच तांच्या धिराच्या आनी उत्तेजनाच्या उतरांनी अनेक थरानीं आनी दिकांनी म्हजी बरपावळ सुधारत गेली.

अशीं कांय वर्सा सोंपल्या उप्रांत ताणें दुरूस्त करी सारकें त्या बरपावळिनीं जबरशें कांयच नासतालें. त्या खातीर 'जेंस-बाब, आतां तूं बेस बरें बरयता. आतां तुवें तुजीं बरपां दखोवपाची मातूय गरज ना'' अशें म्हणटालो. आनी ताका म्हजो हो जबाब आसतालो. ''तें हांव समजतां मनोहरबाब, पुण, म्हज्या जिवाक समाधान जावपाक नाका?'' तेन्ना तो हांसतालो. वोगीच म्हाका पळयत हांसतालो. एक गोड हांसो!. वर्णन आनी मोल करूंक जायना तसलो आनी मोलाचो.

ताणें म्हज्या कितल्याशाच कवितांक माथाळे दिल्यात. म्हज्या 'दोन रूपां' आनी 'जितलें दिवशी, तितलें घेवशीं ह्या दोनूय पुस्तकांक ताणें नांवां दिल्यांत.

मनोहरबाबाची आनी म्हजी पयलीच भेट एके मजेदार घडणेंतल्यान जाली. तांच्या' जायत जागे ह्या कवितां झेल्याची एक रोमी आवृत्ती म्हज्या हातांत पावली. तांतली प्रत्येक कविता वाचून हांव सारकोच भुल्लसून गेलों. भास सामकी बरी आनी सोंपी तशीच रसाळ. एक पावटी वाचून खंयचीय कवीता हांवें कडेक दवरूंक ना. त्या खातीर, तो कोण आनी खंय रावता तें म्हाका जाणा जावूंक जाय आसलें. ताका मेळून, ताचे लागीं उलोवपाक जाय आसलें. देकून ताका सोदपाचे वाटेक लागलों. त्या काळार 'बिब्लीऑतेका थोमास रिबेरो 'नावांचे पणजेच्या नगरपालीकेचें एक वाचप घर आसलें. तांतून म्हजो एक इश्ट बाब आंतोन पियेदाद मोरायस काम करतालो (आयचो कोंकणी मोरायस) तो थंयसर 'लयब्रारीयन' म्हणून काम करतालो ही गजाल हांवें ताच्या कानार घातली. ताणें म्हाका मनोहरबाबाचो पत्तो दिली आनी हांवें तांका दोन वळी बरोवून घातल्यो. ताका मेळपाची म्हाका खूब खुशी आसा आनी त्या खातीर ताका खंय आनी केन्ना मेळचो तें मातशें कळय म्हूण सांगलें. मोठे अुमळशिकेन हांव ते चिटयेच्या जापेची वाट पळयत रावलों.

कांय दिसांनी तांची म्हाका चीट आयली, आनी ताणें म्हाका बरयलें 'हांवूंय तुका मेळपाक सोदतां. तुज्यो कविता आनी दुसरी बरपावळ म्हाका मानवल्या. जेन्ना तूं काणकोणचे पाळोळ्यां रावता, तेन्ना थंय आयल्यार म्हजीं एकाच बरबर दोन कामां जातलीं. तुजी भेट आनी पाळोलेंचे लेच किनारेचें दर्शन. केन्ना आयल्यार जातलें?'

ही ताची चीट वाचून हांव खूब खोशी जालों. ताक हांवें ताबडतोब जाबाब दिलो. हांव पणजेंतूच रावतां. पणजेच्य लिसेवार सातवेंवर्स शिकतां. देकून थंयच हांव तुका मेळटां केन्ना आनी खंय मेळचें तें सांग.

कांय दिसानी मनोहरबाबाची म्हाका परतून चीट आयली, आपूण म्हाका पणजेंत थोमास रिबेरो वाचनालय आसा तेच इमारतीचे फाटले वटेन माळयेर डॉक्टर कुडचडकाराच्या घरांत, पयले माळयेर मेळटां म्हणून कळयलें. फुडल्या सोमाराक १०.३० वरांच्या अदभासाक मेळटा म्हणून सांगलें.

हांव नेमलेल्या वेळापरस १० मिंटां पयलींच पावलों आनी हांवें दारार मारलें. एका मोटव्या आकाराच्या मदल्या पिरायेच्या मनशान म्हाका दार काडलें, आनी भितर आपोवून लागींच आसलेल्या सोफाचेर म्हाका बसूंक लायलो. हांव बसलों. 'तूं दोतोराक मेळूंक आयला?' असो ताणें म्हाका प्रस्न केलो. हांवें हय म्हळें. कारण लोक मनोहरबाबाकूय डॉक्टर मनोहरराय सरदेसाय म्हणटाले.'' तशें जाल्यार तूं मातसो बस. तो रोकडोच येतलो. आतांच भायर सरला. कोणाक तरी मेळपाक गेला वर्तमानपत्र वाचता जाल्यार वाच.'' लागींच टिपॉयार आसलेल्या पत्रांक उल्लेकून ताणें सांगलें. थंयचें एक वर्तमानपत्र काडून हांव वाचपाक बसलों.

कांय वेळान मनोहरबाबान म्हाका आनीक एक प्रस्न केलो. 'कसल्या कामा खातीर तूं दोतोराक मेळूंक आयला? तूं दोतोर कुडचडकाराक मेळूंक आयला?' 'हांव जॅस फेर्नांदीस डॉक्टर मनोहर सरदेसायान, आपल्याक मेळूंक आपयला. तो चड पयस गेला ?''

हें आयकून तो अजापलो. 'तूं जॅस फेर्नांदीस?'

'हय' हांवें परतीपाळ केलो.

'हांव तो मनोहरराय सरदेसाय. 'ताणें उठून म्हाका हात दिलो. हांवूय उबो रावलों. तूं जॅस फेर्नांदीस तर, तुजी बरपावळ वाचून, तूं एक ४५-५० वर्साचो मनीस म्हणून समजतालों. तूं तर १९-२० वर्सांचो तरणाटो.

दोगूय हांसले दोगूय एका मेकाक मेळून खुशी जाले. दोगूय सासणा खातीर एका-मेकाचो इश्ट जाले.

कांय दिसांनी पाळोलेंचे मराठी शाळेंत 'चवथीचो चंद्र' हे नाटकुलें जावपाचें आसले आनी तांतून हांव एका पाद्रींची भूमिका करतालों. मुखेल सोयरो ह्या नात्यान हांवें मनोहरबाबाक आपवणें केलें आनी ताणें ते मानून घेतलें.

मनोहरबाब आयलो आनी नाटकुल्याक सुरवात जाली. तें चालू आसतना कांय गांवचेच मराठीवाले आयले आनी मोठ्यान गडबड सुरु केली. दांडे घेवून आयले आनी 'आमचे मराठी शाळेंत कोंकणी नाटक कशें करतात तें आमी पळयतले म्हणून आमकां मारपेट सुरु केलो. तांतून म्हजेरुय कांय दांडे पडले. म्हजी तकली फुंटली गांवच्या पाद्र विगाराची लोब मागून हांवें आंगाक घातलेलो तो रगतान भरलो.

मनोहरबाबाक ताबडतोब माचये पोंदाक लिपयलो आनी कांय वेळान ताका व्हरुन आमच्या घरांत लिपयलो. ताणें म्हज्या माथ्याक जाल्लो घाय आनी रगतान भरलेलो लोब पळेवून अशें म्हळें 'जॅसबाब हें रगत फुकट वेंचेंना. एक दीस ताचें फळ मेळटलें. त्या दिसा हांव तुका माथ्यार घेतलों.'

आनी खऱ्यानीच तो जैताचो दीस जेन्ना आयलो, त्या दिसा मनोहरबाब आपल्या फुडल्या दैवीक जिवीताची आनी परमपित्यात एक जावपाची वाट पळयतालो.

एका व्हडल्या रुखाचे सावळेक रावलेली आनी आलाशिरो घेतलेली ही जिवी ताची रोंपी ताच्या उपकारा खातीर, ताच्या गोड उगडासाक मान बागयतां, आनी नमळायेन म्हणटां 'मनोहरबाब आतां तुजें सगळें जिवितूच एक सुंदर कवीत जालां. त्याच खातीर परम शक्तीवंत कवीन तुका आपली एक नवी कविता शिकोवंक आपोवन व्हेला.

केन्नांय सप्नांत तरी येवन तांतल्यो दोनूच वळी म्हाका शिकोवशी? काय हांगां करतालो तसो सरगातल्यान तो गोड मुरकच हय-न्हय सो हांसो आपल्या मुखामळार खेळयत आपले केंस आपल्याच बोटांनी म्हजेकडेन फक्त पळयत रावशी?'



प्रा. शशीकांत सरदेसाय

यादींचो पर्मळ

# म्हजो भाव - मनोहर

आमी सगलीं सात भावणां. मनोहर सगल्यांत व्हडलो आनी हांव सगल्यांत धाकलो. आमच्या दोगांच्या पिरायेत वीस वर्साचे अंतर. मनोहर सगल्यांत व्हडले आशिल्ल्यान आमी सगलीं ताका भाई म्हणटालीं - पिरायेच्या पांच वर्सापासून म्हाका मनोहराच्यो यादी आसात. प्रेमळ तितलोच म्हजो बापूय तापट आनी भुरग्यांबाबतीत अुदासीन आशिल्लो. म्हज्या आवयचो प्रेमळपणा मनोहरांकडे उपाट भरुन आशिल्लो. बापायच्या या तापट स्वभावाखातीर ताजे कोणाचकडेन भावनिक नातें निर्माण जालें ना. तो आमकां परकोच दिसतालो. ताज्या बाबतीत आमकां दुरावोच दिसतालो. पुण मनोहरराय सगल्या भांवडाच्याबाबतीत एक वेगळीच भुमिका घेतली. ताणें सगल्यांक प्रेम दिलें जशेंच बापायन करपाचीं कर्तव्यां ताणें केलीं. मनोहराचें सगलें जिवित म्हळ्यार त्याग. ताणें सगल्या कुटूंबाखातीर त्याग केलो. आपल्या फाटिवेल्या भावांक शिकयले पुण आपल्या त्यागाचो केन्ना गवगवो केलो ना. म्हज्यो बापूय लक्ष्मणराव जेन्ना स्वातंत्र्यचळवळींत पडलो. तेन्ना मनोहररायान कुटुंबाची देखभाल केली. म्हज्या व्यक्तिमत्वाचेर मनोहरांचा प्रचंड प्रभाव आसा.

१९६८ सालात महाविद्यालयीन शिक्षणाखातीर मनोहराकडे रावपाचे भाग्य म्हाका लाभलें. तेन्ना मनोहर चौगुले कॉलेजात फ्रेंच विशयाचो प्राध्यापक आशिल्लो. एक विद्यार्थी प्रिय आनी अष्टपैलू व्यक्तीत्वाचो म्हणून मनोहराचे नावलौकिक आशिल्लो. ताजें व्याख्यान आयकप म्हणजे एक पर्वणीच आशिल्ली. आपल्या रसाळ आवाजान मनोहर विद्यार्थ्यांक संमोहीत करतालो. ताज्या वर्गात कमालीची शांतताय आसताली ताजो आवाज नादमधूर. मनोहराचे वैशिष्ट्य म्हणजे तो आपल्या विद्यार्थ्यांक वेगळ्याच संवसारांत व्हरतालो. पाठ्यपुस्तकावलेंच शिकप नाशिल्लें. कोटी करप मनोहरानूच अशें समीकरण जाल्ले. मनोहर हो सगल्या विद्यार्थ्यांचो एक मॉडेल जावन गेलो.

मनोहर जितलो मृदू स्वभावाचो तितलोच प्रसंगाक वज्रासारखो वज्रापेक्षा कठीण जातालो. म्हज्या यादीनुसार तें वर्स १९६८ आशील्लें. म्हाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाच्या सरकारात श्री. टॉनी फर्नांडीस हे एक मंत्री आशिल्ले. ताणी तेन्ना उद्गार काडले की गोंय हें केंद्रशासित आशिल्ल्यान गोंयकार हे दुय्यम दर्जाचे नागरिक आसात. सगल्या गोंयकारांचो अपमान करपी हें विधान आशिल्ले. मनोहरान त्या विधानाचो विरोध केलो आनी मडगांव शहरांत एक व्हडलो मोर्चो आयोजीत केलो. या मोर्चाक लोकांचो तसोच कॉलेजच्या तरणाट्यांचो अभूतपूर्व तेंको मेळ्ळो. अन्यायाकडे झुंज करपाची मनोहराकडे शक्ती आशिल्ली !

मनोहर प्रवृत्तीच धार्मिक नाशिल्लो. कर्मकांड पूजा, सत्यंग अशा गजालीपासून तो पयस आशिल्लो. देवदेवा करून प्रत्यक्ष आयुश्यांत लोकांक लुबाडपी, फटोवपी आमकां जाय ते मेळटात. मनोहरान आसलो दांभिकपणा कटाक्षानं टाळलो - मनोहर धार्मिक नाशिल्लो पुण तो आध्यात्मिक

आशिल्लो. ताजी बेताळाचेर उपाट श्रध्दा आशिल्ली. पुण या श्रध्देक तो सार्वजनिक रूप दिना आशिल्ले. आनी मुख्य म्हणजे धार्मिक नासतना तो नीतीमान आशिल्लो. म्हजी आवय सांगताली की ल्हानपणात रस्त्यावयली शेणी लेगीत हाडल्यार मनोहराक आवड नाशिल्लें. मनोहर कोंकणी अकादमीचे उपाध्यक्ष आसतानाची गजाल. अकादमीच्या कामाखातीर ताका मडगांवां वचपाचें आशिल्लें तशेंच ताजे बायलेकूय कौटुंबिक करणाक लागून मडगांवां वचपाचें आशिल्ले. मनोहरान आपल्या बराबर बायलेक व्हेल्यार जातालें. पुण मनोहरान तशें केलेंना. ताणें आपले बायलेक बशीन मडगांवां धाडलीं.

मनोहर सर्वार्थान कर्मयोगी. आयुश्यभर कसल्याय फळाची अपेक्षा न करता तो काम करीत आशिल्ले. मनोहरान एकदां म्हज्या बायलेक सांगले, 'आपले काम निष्ठेन करप हेच म्हजें अध्यात्म.' मागीर तें काम कोंकणी शिकवपाचें आसूं नाजाल्यार आपल्या नातवाक खेळोवपाचें आसूं. ती दोनीय कामां त्यात निष्ठेन आनी प्रेमान करतालो. मनोहर केन्ना प्रसिध्दीच्या फाटल्यान धावलो ना. पूण प्रसिध्दी ताच्या फाटल्यान धावली तेन्ना तिची अवहेलनाय केली ना! ताका किर्त अमाप मेळ्ळी. पुण त्याचबरोबर प्रसिध्दी, यश मेळपाखातीर ताणें खंयच्या अुद्योगपतीचो हात धरलो ना अथवा धर्मपीठाच्या स्वामीचें बोट धरलें ना!

हांवें अशें आयकलां आध्यात्मिक उन्नतीचें सगल्यात व्हडलें लक्षण म्हणजे मनीस प्रसन्नचित्त आसता. खंयचो मनीस प्रसन्नचित्ता आसता तर जाका आंतरिक शांती प्राप्त जाता. मनोहर सगल्या अर्थान प्रसन्नचित्त आशिल्लो. ताज्या चेहऱ्याचेर हांवे केन्नाच निराशेची वा दु:खाची सया पळयली ना. आनी खंयच्याय परिस्थितीत हांवें ताका आपलो संयम सोडलेलो पळोवंक ना. ताज्या मुखावेली शांती ही ताज्या आंतरिक शांतीचे प्रतिबिंब आशिल्ले. मनोहर गेल्या उपरांत ताका श्रध्दांजली दितना ताका कोणेतरी अज्ञातशत्रु अशें म्हळे. मनीस जेन्ना कीर्तीच्या यशाच्या वलयान वता तेन्ना तो अजातशत्रु अुरना. ताका प्रत्यक्षशत्रु नासत पुण ताका हितशत्रु आपोआप निर्माण जातात. मनोहर अजातशत्रु नाशील्लो. ताकाय शत्रु आशिल्ले - पुण आपल्या शत्रूकडेन मनीस कसो वागता हाजेर त्या मनशाचें मोठेपण आसता. मनोहरान स्वत:जावन कोणाकूच आपलो शत्रु मानलो ना. या अुलट मनोहरान तांचेकडे प्रेमाचे, सलोख्याचे संबंध दवरले. केन्नाच कोंडमाण निर्माण जगाक मान्य आशिल्ले समीकरण मनोहराक भावलेना ! आपल्या सामाजिक, साहित्यीक तशेंच कौटुंबिक जीवनात मनोहरान प्रेमाची सौहार्दाची नातीं निर्माण केलीं. द्वेषाक, दुस्मानकायेक ताज्या जीवीतांत सुवात नाशिल्ली.

मनोहररायान जीणेचेर अुपाट प्रेम केलें जिविताचो असो एकूय खीण नाशील्ले की जातूंत मनोहरान रस घेवना. मनोहर बऱ्यापैकी हात पळोवपी. ताणे जायत्या जणांचे हात पळयलें आणि ताची भाकितांय खरी जाल्ली मनोहर बऱ्यापैकी बासरी वाजोवपी आनी ताका संगीतात रस आशिल्लो. मनोहराक छायाचित्रणाची आवड. मनोहर जंयजंय गेलो थंयची छायाचित्रां काढाल्यात ती आमच्या संग्रहात आसात. टपालांची तिकीटां, आनी देशोदेशींच्या नाण्यांचो संग्रह ताजेकडेन आशिल्ले.

मनोहरान प्रवासूय भरपूर केलो. फ्रांसाक तो दोनदां पावलो. युरोपातले जायते देश पळेले सोव्हिएट रशिया ताणें पळेलो आणि थंयच्या कार्यक्षम सेवाक्षेत्राचो अनुभव घेतलो. सोव्हिएट रशियाच्या भोंवडीअुपरांत ताजेर साम्यवादाचो प्रभाव पडलो. मनोहरांक वेगवेगळ्या भाषांचे प्रेम. फ्रेंच भाशेर तर ताजे प्रभुत्व. याशिवाय जर्मन, स्पॅनिश, गुजराती, कानडी, तमीळ या भाशेतल्यान तो संभाशण करतालो.

ऑगस्ट २००५ पासून मनोहरची प्रकृती इबाडली ताकां काळजाचे दुयेंस सुरु जालें. ताका हॉस्पीटलान घालचें पडलें - पुण चमत्कार जाल्यावशेंना मनोहर या दुखण्यातल्यान भायर आयलो. पुण त्या उपरांत ताजी जीवनशक्ती कमी जाली, वजनूय कमी जालें थोडोसे उलयल्यार ताका पुरो जातालें. जितले ताचे शरीर थकलें तितलीच ताची बुध्दी तीव्र जाली. मनोहर पयलीच जीनीयस. तातूंत या दुयेसान ताच्या बुध्दीनूय कात सोडली ताका व्हडल्या व्हडल्या लेखकांच्यो अुक्तीपाठ आशिल्यो ताका खूप उलयन दिसतालें. फाटल्या जून महिन्यात लक्ष्मणरांवाच्या खाजगी जीवनातल्यो थोड्यो गजाली ताणें म्हाका सांगल्यो. बार्वांस जूनाक रातचो मनोहरान 'शेवटचा श्वास घेतलो. आनी म्हाकां अशें दिसलें मनोहर आपलेच कवितेत आमकां सगल्यांक सांगता

'हांवे किदेंच मागल्या बगर
जिणेंत म्हाकां सगलें दिलें
कोलवाच्या खोंपीत म्हज्या
विश्वाचें धन दिलें !'



रमेश भगवंत वेळुसकार

यादींचो पर्मळ

# कविराज

याद एक शक्त. ही याद करपाची आनी याद जावपाची शक्त आमकां सैमान दिल्या. हे शक्तिच्या बळग्यारुच आयज म्हाकां याद जाता आमचो मनोहरबाब. तो आतां आमच्या सगळयांच्या मनात येवन रावला. खंयचीय वस्त आमच्या मुखावल्यान म्हणजे आमच्या दोळयां मुखावयल्यान ना जाली म्हणटकूच ती आपाप आमच्या मनात पावता.

मनोहरबाब कोण ? फकत एक कवी न्हय. मनोहर बाब एक बरो गजाली मारपी मनीस. गजाली सांगता सांगतां विनोदान सगळयांक हांसोवपी. उतरांचेर जोर दिवन तो सुंदर विनोद निर्माण करतालो.

*गिरेस्ताक गरीबाची काकूळट दिसता*
*पूण ताच्या बोल्सांत मोड नासता*

एक दीस आमी खंय मेळ्ळे तें याद जायना. चड करुन पणजे आसपाक जाय. आनी तेंय बी टी. बी कुन्या हॉला सकयल हांवूय थंय निकतोच पाविल्लों. तेन्रा सगळयो गाडयो कालापुरच्यान पणजे येताल्यो. आनी तेवेळा लक्ष्मणराव कालापुरा दोंगुल्लेवयले स्टेट बेंक कॉलॉनीत वसुदानगरांत रावताले. हांव थंय मेळनाफुडे मनोहरबाबान म्हाका लक्ष्मणराव दिसला काय कितें, तें विचारलें. मनोहर बाबान म्हाका सांगले की जर म्हाकां लक्ष्मणराव मेळ्ळे जाल्यार सांग म्हण ताची धूव मेळपाक सोदताली. म्हजे वांगडा एक इश्ट आसलो. तो मनोहरबाबाक वळख नासलो. ताणें म्हाका ताचेसंबधान विचाल्लों. हो कोण आनी सगळें सांगले की लक्ष्मण राव म्हण्टात ते एक व्हड मराठी कथाकार जांकां कथेखातीर एक इंटरनॅशनल पुरस्कार मेळ्ळा. आनी मनोहरबाबा तांचो पूत.

इश्ट म्हणपाक लागलो, आरे, उलयतना तर मनोहरबाब असो उलयलो की तो ताचो कोण लागना तो एक पूत बापायविशी अशें सामकें तिरायभशेन उलयता ?

हांवे म्हटलें, इश्टा, मनोहरबाब एक कलाकार आनी ताचो बापूय एक कलाकार. ते भायर लक्ष्मणराव स्वातंत्र्य सैनिक आपली बायल भुरगी सोडून तो बंदखणीत गोंयचे सुटके खातीर. आनी मनोहरबाबा व्हडलो पूत. घरची जबाबदारी मनोहरबाबाचेर. बापायक लेगीत समजून घेवपाची शक्त. दोगूय ग्रेट. देखन घडये दोगांय मदीं एक आपलेपण आसा. मोह आसा, संबंध आसा ओड आसा.

इश्ट म्हणपाक लागलो तूं कितें म्हण्टा ते सारके कळना. हांवें म्हटलें, कळटलें. मनशाक सगळेंच कितें रोकडेंच कळटा अशें आसना. कांय गजाली समजुपाक वेळ लागता. आनी कांय मनशाक समज हो बऱ्याच वेळान येता.

मनोहरबाबाची आनी म्हजी भेट एका काव्यात्म समयार जाली. काव्यात्म म्हणपाक कारण आसा. तशे आमी खंयूय मेळटात. पूण मेळपाच्या सिच्युएशन उपरांत आमकां त्याचे वेगवेगळे अर्थ जाणवतात.

एकदां गोमन्तकांत एक बातमी वाचली की मनोहरराय सरदेसाय हांकां कविराज हो पुरस्कार मेळ्ळा. वर्स याद जायना. १९६८ हे वर्स हांवे सातत्यान बरोवप सुरु केल्लें.

मागीर यस. यस. सी जाली आनी हांव कॉलेजीत पावलों. थंय मराठी तर घेतलीच. कॉलेजांत प्रो. यस. यस. नाडकर्णी नावांचो एक प्रोफसोर आसलो.

एक दीस नोटीस बोर्डाचेर कवि ते संबंधान नोटीस आसली कोंकणी भाशा मंडळाच्या काव्यस्पर्धेची. नाडकर्णी सरान म्हाकां ते विशीं सांगलेच आनी हांव आदी मदी कोंकणी कविता बरयता आसलेल्यान म्हाका हे स्पर्धेक कविता धाड दिसता जाल्यार.. अशी एक सुचोवणी केली.

आनी हांवे दोन कविता तांकां धाडूनूय दिल्यो. आनी म्हाका ज्या उतरान मनोहर बाबांकडे आकृश्ट केल्लो तें उतर कविराज ह्या स्पर्धेतल्या पयल्या पुरस्काराचें नांव आसले.

आनी एकेक दीस वचत गेलो २६ जानेर १९६९ ह्या दिसा सांजवेळा ही काव्यस्पर्धा. पणजेच्या वाश्को द गामा क्लबांत.

हांव म्हज्या नावाच्या अक्षराप्रमाण सामको निमणो उल्लों. आनी मायचेर कवींची गर्दी पळोंवक मेळ्ळी. शंकर परूळकार सोडल्यार हांव कोण्णाक वळखना. आनी हांगाच हांवें मनोहरबाबाक पयले फावट पळयलो.

मागीर पुरस्कार घोशीत जाले आनी ताळ्याच्या गडगडात हांवे पयले पुरस्कार म्हाकां जाहीर जाल्ल्याचे आयकलें म्हाका हे सगळे नवे आसलें आनी ते वेळार जाल्ली भयंकर उमेदूय म्हाका अनवळखी आसली.

पुरस्कार म्हण एक शील्ड आनी पयशे, अशे ते आसलें हे सगळे खांकेक मारुन लोकांक जाप दीत दीत क्लब का वास्को-द-गामांतल्यान भायर सल्लों हांव आनी परुळेकर, मागीर भायर येवन आमी चा माल्लों. गजाली केल्यो आनी लेट घरा वचपाक हांव प्रासार आयलों. तेन्ना बशी कमी आनी कामियांव चड, हांव भितर सल्लों. कमियांवांत थंय मनोहरबाब आनी सदानंद जांबावलीकर बसलेले. सदानंद जांबावलीकाराक देशप्रेमावेले कवितेक इनाम मेळ्ळील्लें.

उपरांत मनोहर बाब वेगवेगळ्या वेळार मेळत रावलो. कवितानी, कविसंमेलनांनी, ----- आमी एकामेकांक पत्रां केन्नाच बरयलीं ना. शणै गोंयबाबांचे शताब्दीवेळार लळितकांनी मेळ्ळे. आनी ह्या लळितकानी आमी दोगूय भुरग्यांखातीर कविता वाचताले आनी त्यो भुरग्यांक खूब्ब आवडटाल्यो.

एक दीस आमी फेरीबोटींतल्यान पणजेच्यान बेतींत वयताले. मागीर आमकां सांखळेवटेन वचपाचे आसलें. आमी फेरीबोटीक धक्यार उबे आसतना मनोहरबाबान म्हाका हांसत हासत रुच काडून विचाल्लें, तूं भुरग्यांखातीर कित्याक बरयता ?... कितें जाणा मरे हांव भुरग्यांखातीर बरोंवक लागलों ताचें कारण जेन्ना म्हाका भुरगीं जालीं तेन्ना तांचे खातीर म्हण. पूण तुजें काय लग्न जांवक ना. आनी तूं भुग्यांखातीर कविता बरयता.

हांवे म्हटलें ह्यो. भुरगीं जातकूचच जर कविता भुरग्यांतीर येता जाल्यार म्हाका बरी भुरग्यांची कविताच येंवची नांसली. वा ती भुरग्यांक आवडचीय नासली.

म्हाकां दिसता मनोहरबाबान भुरग्यांखातीर सुंदर साहित्य निर्माण केलां. मराठीत विंदा करंदीकरानी ते काम भुरग्यांक कविता दिवन. पुण मनोहरबाबांची भुरग्यांची कविता करंदिकराचे कवितेपरस खूब मोगाळ.

कोंकणीक साहित्य अकादमीन मान्यताय दिली. आनी कोंकणी लेखकांक साहित्य अकादेमीच्या साहित्यिक शिबिरांचो असाव मेळपाक लागलो. साहित्य एकादेमीन मुंबय एक कवितेचे शिबीर आयोजीत केल्लें. ह्या शिबिराक म्हाका, विजयाबाय सरमळकार, प्रकाश पाडगांवकार, जे. बी. मोरायस अशा चार कवींक आमंत्रण आसलें आनी दोन जाण्टया कवीक मार्गदर्शक म्हण आपयल्ले. ते दोन कवी म्हटल्यार

एक मनोहरबाब आनी एक र. वि. पंडित.

आमी वयतना वांगडा गेले तीन लोक. हांव, प्रकाश गडगांवकार आनी मनोहरबाब. आमी बसीन गेल्ले. दुसरे दिसा आमी मुंबय पावले. आनी तांचे भयणीगेर रावले.

दुसरे दिसा आमी विले पार्ल्याच्यान गोरेगांव गेले. थंयच एके दोंगुल्लेचेर न्यू डिलंड हॉस्टेल. आमकां आरे मिल्क कॉलनीतल्यान वयर वचचें पडटाले आनी ह्या हॉस्टेलाचो परिसर वाठार खूब्ब आवडलो. कवितेच्या शिबिराक फावो सो. पूण इतलेंय आसून हांव एक्क कविता हांगा करपाक शकलों ना वा म्हाकां एक्क कविता हांगा आयली ना.

सांज वेळा मुंबयच्या दादरच्या मुंबई मराठी-संग्रहालयांच्या ग्रंथ सभाघरांत उद्घाटणाचो कार्यक्रम. आप्पासाहेब देशपांडे हांचे भाशण ह्या कार्यक्रमाचे वैशिष्ट्य आसलें. साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष आसले ज्ञानपीठ अवॉर्ड विजेते उमाशंकर जोशी. तेय तशेंच हांसतें आनी नावाजलें व्यक्तिमत्व तांचेंय उलोवप हेंय महत्वाचे आसलें. हांव गोरेगांवच्यान श्रीधर शनवारे हांचे वांगडा गेलों.

कार्यक्रम बरो जालो. मुंबयचो कार्यक्रम मानवले. मराठी सिंधी आनी गुजराती लोकांकडे खूब वोळखी जाल्यो.

दुसरे दिसा मनोहरबाबान आमकां सगळ्यांक एकठांय जाल्या उपरांत म्हणचे फक्त कोंकणी लोकांक आमी अणकार करुया असो बेत सांगलो.

कोण्ण कांय उलयले ना. पूण म्हजेर आकांत आयलो. आमचे शिबीर काय अणकाराचेर नासलें. आनी म्हाकां अणकाराचे इल्लो अणभव आसलो. तो हांवे सांगलो. आनी हांवे हरिवंयश राय बच्चन हांच्या मधुशालेचें भाशांतर करताना ते लिखाण म्हाकां कशें कशें भावत केले ते सांगलें आनी कालंतरान तें म्हाकां भाशांतरीत करीन दिसलें तेंय सांगलें हांगासर मनोहरबाबान हाडिलेल्यो कविता आमकां वाचूंक जाय आसल्यो. आनी मागीर त्यो आवडूंक जाय आसल्यो. त्यो कशे लागतल्यो कोणाक खबर आसल्यो ? निदान म्हाकां तरी हो वावर करपाक जमपाचें ना हे हांवे सांगलें. आनी हो भाशांतराचो कार्यक्रम बारगळ्ळो.

निमणो दीस कवितांवेल्या चर्चेचो आसलो. चर्चा बरी चलताली. सिंधी कविता गुजराती कविता आमकां आयकून कळनासली. तांतली व्हायब्रेशना सोडल्यार बाकीची कविता हाताक मेळातसली. मराठी आनी कोंकणी कविता कळ्ळी. एक कळ्ळे हांव सोडून सगळ्यांनी थंय कविता बरयल्ली. म्हण्टकूच हांव जी कविता वाचली ती सावुलगोरी. हे सावुळगोरीचेर उहाके धा पंदरा मिनटां उलयल्लो. श्रीधर शनवारे उलयल्लो आनी ताणी सावुलगोरीचेर वेगवेगळया आंगानी चर्चा केली. म्हजे कवितेचेर उमाशंकर जोशीनीय आपल्या भाषणात उल्लेख केले. आनी म्हाका म्हज्यांतलो एक आगळोच रमेश वेळुस्कार पळोवपाक गावलो. सिंधी लोकांनीय तिची तुस्त केली आनी ही कविता बऱ्याच कवीनी म्हजेकडे हिंदीन भाशांतरीत करुन मागली. जें म्हजेकडे केन्नाच जालें ना. म्हाका सदांच दिस ऽ, इतले सुंदर अस्तुरेचें म्हण भाशांतर जाता ?

मनोहर बाबान म्हाकां म्हटले... रमेश तुजी कविता कोंकणी भायल्या लोकांक बरी कळटा मरे ?

आनी हांव फक्त हांसलों. ●

## तूं पडल्या मोगात

मळबातल्यान ओतली खोस
भांगराच्या शिंवरांनी
न्हावन गेली धर्तरी
मनाभितर उजवाडलें
वोत भिरांत सळसळ्ळें
काळीज पेटून धडधडलें
सपन फुलून परमळ्ळें
आनी जिवाक फुटलीं पांखां
कोगळा-पिलान सांगलें म्हाका
ल्हवूच कानांत
"तूं पडल्या मोगांत
तूं पडल्या मोगांत"



पुंडलीक ना. नायक

यादींचो पर्मळ

# मनोहरराय आयचो आनी कायचोय कवी

गोंयचे नामनेचे मराठी कथाकार स. लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणी कोंकणी साहित्याक दिल्ल्या योगदानाविशीं उलयताना आमी म्हणटात, मराठी साहित्याची जितली सेवा लक्ष्मणरावानी केली ताचे पावपटीन जरी ताणी कोंकणी साहित्याची सेवा केल्ली जाल्यार कोंकणी साहित्य आयज आसा ताचेपरस कितलेतरी पटीन गिरेस्त जावपाचें पूण तेचबरोबर आमी हेंवूय म्हणटात, लक्ष्मणरावानी कोंकणी साहित्याक थोडेशें योगदान दिलें खरें पूण 'मनोहरराय सरदेसाय' नावांचो पूर्ण कवी दिलो हें कोंकणीचें केदें भाग्य !

आनी ह्या भाग्याक वेर गेली. 'जायो-जुयो' बावून गेल्यो. 'पिसोळी' पांखां तुटून सैरभेर जालीं. कपलावयली 'तिकली' गळसणून सकयल पडली. मसंडींत लाकडांच्या सरणाचेर मनोहररायांचें कलेवर जळटाना पळयलें आनी तांचींच कवनां येवजलीं -

*'म्हज्या वांगडा खंयतरी एक झाड वाडटा*
*म्हाका निमाणो सांगात दिवंक'*

-------------------

*'लाकडाचेर कूड म्हजी वेतली चडूंक*
*तेन्ना हांव आसचो ना रडूंक'*

मनोहररायांचे कवितेंतलें उतरान उतर काळजाक भिडून वता. आळवाच्या पानाचेर थरथरपी उदकाच्या थेंब्यावरवीं तांची चैतन्यमयी शब्दकळा. ताणीच म्हणचें - कवितेंतलें उतर मुदयेवयल्या 'थिका' वरी आसचें. पूण तेखातीर कविकडेन जायतीं 'थिकां' आसचीं पडटात. जाल्यारुच ही अचूकतायेची जादू साधूं येता.

कोंकणी काव्याक आशय आनी आकार दिवन जाणीं कोंकणी भास समृध्द केली ते पोरणे पिळगेमदीं बाकीबाब बोरकर, र. वि. पंडीत आनी मनोहरराय हांचो क्रमांक वयलो लागता. बाकीबाबांनी कोंकणी कवितेक गेयता दिली,

पंडीतांनी आशय दिलो, मनोहररायांनी सोपे, सरळ, रोसाळ भाशेंत काव्याची निर्मिती करुन कविता जनसामान्यांत पावयली. खरेपणी मनोहरराय गोंयचे लोककवी.

म्हजो इश्ट, लेखक आणि उद्योजक दत्ता दा. नायक सांगत आसता, आपणाकडेन नोकरेखातीर आयिल्ल्याक वा खंयूय उमेदवाराची परीक्षा घेवपाखातीर तो जेदेवेळार वता तेन्ना उमेदवारांक एक प्रश्न तो हटकन विचारता, गोंयांतल्या दोन लेखकांचीं नांवां सांग. तेदेवेळार उमेदवाराच्या तोंडांत पयलें नांव येता तें मनोहरराय सरदेसायांचें. दुसऱ्या नांवामदें बदल जायत आसता. हीं इतली नामना मनोहररायांनी जोडल्या. अवघ्याच लेखकांक असलें भाग्य लाबता.

मनोहरराय कवी म्हणून श्रेश्टूच. पूण मनीस म्हणून ताचेपरस धापटीन श्रेश्ठ! मार्गदर्शनाखातीर तांचेम्हऱ्यांत गेल्लो मनीस रित्या हातांनी केन्नाच परतूंक ना. हांव म्हज्या भुरगेपणांत मनोहररायांकडेन आकर्शित जालों तो विचित्र पध्दतिन. म्हजी पयली गांठ पडली एका नामनेच्या कोंकणी कवीकडेन. पयलेच भेटींत ताणीं कवितेविशीं जायत्यो गजाली सांगल्यो. काव्य ह्या प्रकाराविशीं ताका खूब अभिमान आनी ओड आशिल्ली. पूण तेचबरोबर आपणालो समकालीन कवी आशिल्ल्या मनोहरराय सरदेसाय ह्या कविविशीं दुस्वास आनी तिरस्कार आशिल्लो. ताच्या उतरा कणकणी तें प्रकट जातालें. ताच्या ह्या उल्लेखान मनोहरराय हे व्यक्तिविशींची म्हजी उमळशीक आकांताची वाडली आनी तांकां मेळपाचें हावें थारायलेंय. मनोहररायांक जेदेवेळार हांव मेळ्ळों तेदेवेळार खऱ्या अर्थान नमळाय, माया, करुणा ह्या गुणांचो म्हाका दिश्टावो जालो. तेन्नासावन मनोहरराय म्हजेखातीर पूजनीय व्यक्ती जाली.

हांव तरणे पिरायेचेर कोंकणी चळवळींत दचकत भितर सरलों. मडगांवां कोंकणी भाशा मंडळाची वर्सुकी सभा आनी वेंचणूकेचो दीस. एके शाळेच्या वर्गात जेमतेम लोक. भौतेक म्हजेखातीर अनवळखी. लोक उणे पूण वाद व्हड. दोगजाण मोटमोट्योन झगडटाले. सभेचो वावर कसोच मुखार वचनासलो. कोणेय मदीं तोंड घातलें जाल्यार 'तूं फकत बटाटवडो खावपाचें काम कर. तुका जमपाचें न्हय तें' म्हण एकलो तावातावान उलयतालो. मागीर कळ्ळें, हो शंकर भांडारी आनी दुसरो नुरुद्दीन मवानी. फाटल्या बांकार बसून हांव हें पळयतालों. 'कोंकणीचें कशें जातलें', हाचेपरस म्हजे 'हांचेभितर म्हजें कशें जातलें' हाचोच हुस्को पडिल्लो. इतल्यान खंयसावन तरी मनोहरबाबा म्हजेम्हऱ्यांत आयले आनी म्हजे फाटीर हात दवरीत म्हणपाक लागले, 'हें खंय झगडें न्हय आं. ते झगडटात ते दोगूय कोंकणीचे भक्त.' म्हजो जीव थाऱ्यार पडलो. मनोहरबाबांक परिस्थितीतचें धंगण आसतालें. दुसऱ्यांच्यो भावना पारखुपाक कळटाल्यो.

मनोहरराय कोंकणीतले सर्वश्रेष्ठ कवी म्हणून आमकां तांचो अभिमान पूण तेचबरोबर ज्या सावय वेरें / वळवय वाठारांत म्हजो जल्म जालो, भुरगेपण गेलें तोच गांव ह्या म्हान कविचो आनी ते नदरेन आमी गांवभाव हाचो म्हाक अभिमान आसा.

उदेते प्रतिभेचें कवतूक करचें तर तें मनोहररायानी ! मागीर उतरां उणी पडचीं. आपणाल्यो कविता, कथा अभिप्रायाखातीर कोणूय तांचेकडेन घेवन गेलो जाल्यार ताचें सुमाराभायर कवतूक जावचें. ह्या कवतुकाच्या सुवाळ्यांत आपले बायलेक - माईकूय आस्पावन घेताले. नवोदीत लेखकाक धुस्मटूंक जावचें. जायत्या नव्या कविंच्या कव्यसंग्रहाक मनोहररायान प्रस्तावना बरयल्या. ज्या कविनीं तांचें मुक्तपणान अनुकरण करुन तांकांच पुन:प्रत्ययाचो आनंद दिलो त्यात कविचें प्रस्तावना बरोवन कवतूक करपाक ते फाटीं रावले नात. नवोदितांक दुखोवप ना म्हणपाचें ताणी जशें काय व्रतच घेतिल्लें.

कोंकणी भाशेच्या लढ्यांत मनोहररायांची पिळगी खूबूच मोवाळ आशिल्ली. पूण म्हजी पिळगी तितलीच आक्रमक आनी बंडखोर. मनोहररायांक गावांत कोंकणी नाटक सादर करपाक शक्य जालें ना. तातूंत आडमेळी आयलीं. फ्रान्साक आसताना तांकां भारतीय भासांच्या कवीसंमेलनात कोंकणी कविता वाचपाक जाली ना कारण कोंकणी भास संविधानाचे आठवे वेळेरेंत नाशिल्ल्यान फ्रान्सांतल्या भारतीय दूतावासान तांकां परवानगी न्हयकारली. अशे तरेचे अपमान मनोहरराय आनी तांचे पिळगेन सोसले. म्हजे पिळगेन असले अपमान सोसप न्हयकारलें आनी आमी आक्रमक जालें. १९८५ वर्सा आमी कोंकणी राजभाषेखातीर आंदोलन सुरु केलें.

तेदेवेळार मनोहररायान आमकां तरनाट्यांक समजावपाचो खूब यत्न केलो. पूण अखेरेक आमचो निर्धार पळोवन तांकां धन्यताय भोगली. आमच्या पणजेंतल्या पयल्या मोर्च्याक हाजीर रावून ताणी आमकां शुभेच्छा दिल्यो. आंदोलन यशस्वी जालें तेदेवेळार तरनाट्यांचें कवतूक करपाक ते विसरले नात.

मनोहरराय सावय वेरेंचे. पूण भुरगेपण प्रत्यक्ष गावांत गेले ना. गावांतल्या वातावरणाक, गावांतले सांस्कृतीक वैभवाक ते वंचीतच उरले. ताचे एके सांगितिकेचे नाव 'आयज रे धोलार पडली बडी.' म्हाका तें पुस्तक आवडिल्लें पूण पुस्तकाचें नाव आवडूंक नाशिल्लें. एके भेटींत हांवें तांकां म्हळें, 'मनोहरबाब 'धोला' चेर बडी पडना 'तोणी' पडटा. बडयेन तासो वाजोवपाचो आसता.' मनोहररायान अतिशय ममळायेन म्हळें, "हांवें धोलय वाजोवंक ना आनी तासोय. म्हजी चूक जाल्या आसतली." तांच्या ह्या प्रामाणिकपणान म्हाका एक लेखक म्हणून एक कलाकार म्हणून तांचेभितर कसलोच अभिनिवेष नाशिल्लो, अहंगंड नाशिल्लो. सामकें आरपार व्यक्तिमत्व!

कुटूंबवत्सल मनीस! कोणाचीय वासपूस करपाची जाल्यार नावासयत, फाटल्या संदर्भासयत, आपणालो वेळ दिवन, मनशांच्या मनांत देवून ताची चवकशी करताले. लोकसंपर्क जोडपाची आपली अशी एक कला ताणी आपणायिल्ली. लोकसंपर्क करपी मनशान फकत दुसऱ्यांचो वेळ घेतलो म्हण जायना तर दुसऱ्यांक आपणालोय भोवमोलादीक वेळ दिवचो पडटा तेबाबातींत मनोहरराय उदार आशिल्ले.

स्वत: विद्वान आनी दुसऱ्यांचे विद्वत्तेकूय तितलोच मान दिताले. तांचेमुखार मान बागयताले. सभेंत वा गजाली करताना, दोळे मिचकायत उलोवपाची खाशेली लकब. उलयतां उलयतां मनोहररायांन दोळे धांपले कांय समजुचें - तोंडांतल्यान आतां जे कितें भायर पडटलें तें मोलादीक मोती ! प्रसंगाक धरुन उलोवप ही तांची खासीयत. विद्वानांची अवतरणा, वक्तव्यां, कोट्यो तांकां तोंडपाठ आसताल्यो. सदर्भ ग्रंथांची पानां उगडल्यावरी पापण्यांची हालचाल जाताली. स्मरणशक्त दांडगी. साक्षात सरस्वती तांचे जिबेर नाचताली.

गोयांत मनोहररायांच्यो त्योच त्योच कविता आयकून आमकां त्यो पोरन्यो दिसच्यो. हो कवी पोरनो जालो अशें आमी शिक्कामोर्तबय करुन वडयिल्लें. पूण मनोहरराय जेन्ना गोंयांभायर वताले तेन्ना आपणाल्यो मूळ कोंकणी कविता आनी तांचो ईंग्लीश अणकार पेश करताले तेन्ना थंयचे प्रेक्षक आनी दर्शक तांकां हिसपाभायर दाद दिताले. गोंयांभायर जायतेकडेन म्हाका हाचो अणभव आयला. मनोहरबाब आमचेखातीर पोरने आसले तरी हेरांखातीर ते नवे आशिल्ले. कारण भाशेची शीम भेदपी मानवी मुल्यां ताचे करितेंत उपाट भरुन आशिल्लीं.

मनोहरबाबन आपले जिणेंत संपादन केलो तो लौकीक तशेंच लोकसमूह. त्यांच्या निर्वाणेच्या दिसासगळयांकूच ताचो प्रत्यय आयलो. बाकिच्या कुटूंबप्रमुखाप्रमाण हो मनीस धनसंचय करपाक शकलो ना. तेबद्दल ताच्या कुटूंबान केन्नाच राग उकतायलो ना, केन्ना शीण काडलो ना. वेल्यान कवी म्हणून त्यांचेविशीं अभिमानच व्यक्त केलो. व्हडल्या पुतान - सुनीलान एक दीस बापायच्या कर्तुत्वाच्या गौरवानिमतान एके पार्टिचें आयोजन केल्लें. मनोहरराय एक बापूय म्हणूनय भाग्यवान आशिल्ले.

एके गजालीचो आवर्जून उल्लेख करपाक जाय. मनोहरारायांची बायल-माई खऱ्या अर्थान तांची सांगाती म्हणून वावुरली. सुखाच्या वेळार आपणाल्या कर्तुत्ववान घोवाबरोबर नंदपांत सगळ्याच बायलांक गर्व आनी अभिमान भोगता. पूण होच अभिमान हातरुणांत खिळिल्ल्या घोवाचे बाबतीत तिगून उरना. पूण माईन घोवाक बरो सांगात दिलो.

कविवर्य मनोहरराय आज आमचेमदीं नात ताची खंत भोगता पूण तांच्या साहित्यांतल्यान तांचें अस्तित्व मुखावयल्या पिळग्यांक जाणवत रावतलें ताचो आनंदय उणो न्हय.

●



हेमा नायक

यादींचो पर्मळ

# मनोहरबाब साहित्यापरस सभावाचो प्रभाव अदीक !

मनीस संस्कारांतल्यान घडटा. हे संस्कार ताचेर घरांतल्या मनशांकडल्यान घडटा वा समाजांत वावुरताना भोंवतणच्या मनशांच्या सहवासांतल्यान घडटा. चडशे संस्कार समाजांतल्यानूच घडटात. मनशाचें वागप हें ह्या संस्कारांचेंच फळ. म्हजे फाटले जिणेकडेन वळून पळयताना म्हाका हाचें खरेपण पटपाक लागता. धडपड ही म्हज्या सभावांत आदींपासून आशिल्ली. सदच्या चालंत गजालीपरस कसल्याय आव्हानाक तोंड दिवप ही म्हजी वृत्ती. म्हजे हे वृत्तीक घरांतल्या वातावरणांत तितलीशी सुवात नासली पूण कोंकणी म्हालगड्यांच्या सहवासांत आयलें तेन्ना म्हजे वृत्तीक पोसवण मेळपाक लागली. म्हाका मेळिल्ली माया, प्रेम आनी तांचेकडल्यान जाल्ली म्हजी तुस्त तोखणाय, ताका लागून म्हज्या आयुश्याचो आख्खो कॅनवासूच बदलून गेलो. मनोहरबाब तातूंतले एक.

१९६८ ते १९७२ ह्या काळांत आमी चौगुले कॉलेजींत शिकताना मनोहरबाब थंय फ्रेंच भाशेचे प्रोफेसर आशिल्ले. कोंकणी कवी म्हूण तांची वळख आसली. कॉलेजीकुशीकूच ते ल्हानशा क्वार्टर्सांत रावताले. हांव, सुधीर तडकोडकार, दामोदर काणेकार अशे साहित्यांत रूच आशिल्ले विद्यार्थी एकठांय जावन कॉलेज सुट्टकीच तांगेर वताले. मनोहरबाबान आपलीं कवनां वाचून दाखोवंची. आमीय लजेत, भीडेत कितें बरयलां तें वाचून दाखोवचें. ताणीं हांसत हांसत आमकां शाबासकी दिवची आनी मागीर मोट्या मोट्या कवींचीं नांवां घेवन तांच्यो कविता वाचून दाखोवंच्यो. कशें बरोवंक जाय ही नकळटाना आमकां दिल्ली देख आसताली हें खूब उसरां आमकां कळून आयलें. मनोहरबाबान आमकां केन्नाच नाउमेद केलें ना. आमी कितेंय बरयलें तरी तें 'बरें ऽऽ बरयलां आं', 'अशेंच बरयत राव' म्हणून ते आमकां उमेद हाडटाले. म्हाका याद जाता, विलीयम वर्डस्वर्थ, जॉन कीट्स ह्या इंग्लीश कवींच्यो प्रणय कविता आमी तांच्या तोंडातल्यान थंय आयकल्यात. वाचपाची तांची ती स्टायल आनी तोंडावयले भाव आमकां आकर्शून घेताले. खूब मजा येताली. तांच्याच ह्या तोखणायेच्या उतरांचो परीणाम म्हणून आमी साहित्याच्या मळार नांवारुपाक येवपाक पावलीं अशें आज दिसता.

आमचेवांगडा आसताना मनोहरबाब आमचेच पिरायेचे जाताले आनी आमकां नव्यो नव्यो गजाली सांगून आमच्या गिन्यानांत भर घालताले. तांचीं म्होवाळ, भूल घालपी उतरां आमकां तांचेकडेन ओडूनच व्हरतालीं म्हळ्यार जाता. आपूण स्वत: एक फ्रेंच स्कॉलर, गिन्यानी आनी येदे व्हड लेक्चरर आसून लेगीत तांच्या वागपांतली नमळाय पळोवन आमी अजापताली. कर्तुत्वावान आनी बुध्दीमत्तेन व्हड तांक आशिल्ले मनोहरबाब!

मनोहरबाबांगेर वचप आमकां संवकळीचें जाल्लें. आमी दारांत पावनाफुडें ताणी माईक सादोवचें, 'आगे, हीं पळय हेमा बी आयल्यां.' आनी माईन पदराक हात पुर्शीत हांसत्या तोंडान भायर येवचें. चिंतपाक गेल्यार आयज लेगीत म्हाका मनोहरबाबांची ती म्हूर्त आनी माईचें तें मुखामळ याद जाता. आजून याद जाता तो वांठार. घराचीं तीं सोपणां. घरा फुडें आशिल्लें तें मळ. मायेन आनी विनोदान भरिल्ल्या त्या घरांतलें वातावरण. एके दनपाराची गजाल. मनोहरबाबांगेर आमची कवितांची मैफल रंगांत आयिल्ली. भायर शेतांत मदीं एक लायटीचो खांबो आशिल्लो आनी ताच्यो तारो तुटून जमनीर पडिल्ल्यो. इतल्यान एक गाय धांवत आयली आनी नकळटाना ती लायटीच्या खांब्याक तेंकली आनी शॉक येवन थंयच दसली. मनोहरबाब दांडो घेवन आयले, तिका वांटायतले म्हण. पूण कांय उपेग जालो ना. माई धरुन सगल्यांचीं तोंडां सुतकी जालीं. तो प्रसंग म्हाका घट्ट याद आसा. वेळा प्रसंगार मोनजातीक लेगीत आमी वांचोवंक जाय हो तांचो आमचेखातीर संदेश आशिल्लो.

मनोहरबाबांच्या साहित्यापरस तांच्या सभावाचो प्रभाव म्हजेर चड प्रमाणांत जालो. मनोहरबाब शांत प्रवृत्तीचे. राग, तिडक तांच्या सभावांत नासले. कसलीय भुमिका मांडपाची जाल्यारुय ते ती शांतपणान, म्होवाळ आवाजान मांडटाले. मनोहरबाबांचे चडशें लिखाण मनोरंजक, मिश्कील. ताणी रचिल्लीं प्रणयाचीं कवनां तर तेन्ना तरणाट्यांक ओडलायणीच थरिल्लीं. ते म्हणटाले,

*केंस वळयताना जपून वळय*
*तुज्या केंसांत म्हजें काळीज घुस्पलां.*

आनी हें सांगताना ते अशे तरेन तातूंत समरस जाताले, दिसताले, मनोहरबाबांचें तरणेपण म्हणल्यार प्रणयाचो खजिनो आशिल्लो काय? आमच्या हांसपाचो खळखळ आयकून रांदची कुडींतल्यान माई भायर येताली आनी चट करुन मनोहरबाब तिका पळोवन दोळे धांप - उगड करुन म्हणटाले,

*कितलीं तुजी पिराय आसूं दिसा*
*रातीं म्हजे वेंगेंत तुका सतराच वर्सां.*

अशे तरेन कॉलेज जीवनांत मनोहरबाब आमकां लागींचे जाल्ले. ताच्या 'जायो-जुयो' संग्रहांतली कवनां आमच्या सगळ्यांच्या तोंडपाठ जाल्लीं.

तांच्या कवितांनी आयल्या ती बायल साज-शृंगार करुन आयल्या. ताणी आपल्या कवितांनी बायलेचीं गुणवर्णनां गायलीं. तांचे नदरेंतल्यान बायल म्हणल्यार सौंदर्याची मूर्त. तांच्या कवितांनी बायलेचें सौंदर्य उपाट भरुन ओतता. ह्या विशयाचेर मनोहरबाबाकडेन आमी कितलेशेच फावटीं वाद घाला. बायलेमदीं हेरय गूण आसात म्हणपाचेंय तांका तावातावान उलोवन सांगपाचो यत्न केला. पूण ते आपल्या मताकडेव ठाम, 'हांवें बायलेक अशीच पळयल्या.'

मनोहरबाबांची एक याद न विसरपाइतली घट्ट म्हज्या अंत:स्करणांत उरल्या. आमच्या लग्नावेळावयली गजाल. आंतरजातीय लग्न आमचें. म्हज्या घरांतल्यान तसो विरोधूच. लग्नाक म्हजीं सोयरीं धायरीं व्हडलीं कोण आयलीं नात. तांचोय म्हण तसो अन्याय ना. तो काळूच तसो आशिल्लो. कोणूय मन सोडून असल्या मुवाळ्यांनी वांटेकार जायनाशिल्लो. पूण कोंकणीच्या मळावयले मात सगळे हाजीर आशिल्ले. तें समादान म्हाका व्हड! फकाणां मस्कऱ्यो चलिल्ल्यो. तरी लेगीत मनांतल्यान हांव बाबडें जाल्लें. म्हजी अवतिकाय मनोहरबाबान पारखिली. ताणीं तोखणायेचें एक ल्हानशें भाशण केलें आनी म्हणलें, 'हेमा म्हणजे भांगर. तें जंय जंय वतलें थंय थंय चकचकतलें आनी दुसऱ्यांक दीपकायतलें.''. मनोहरबाबांच्या उतरांनी म्हाका हिमालयाची तेंगशी गांठिल्लेभशेन जालें.

अशे हे मनोहरबाब आमकां बापायसमान आशिल्ले. ताणीं आमकां भुरगींच कशीं मानलीं. तांचेकडेन आमी राग काडला, शीण उगतायला. वायट दिसलां तेन्ना उगतेपणान तांका तेविशीं सांगलां. तितलो अधिकार आमकां फावतालो. कारण आमचें नातें आशिल्लेंच तशें. ●



डॉ. भिकाजी घाणेकर

यादींचो पर्मळ

# मनोहरबाब जसो म्हाका दिसलो

डॉ. मनोहर सरदेसाय, बाकिबाब बोरकार आनी र. वि. पंडीत हे तीन म्हजे गुरु अशें हांव मानतां. १९६१ वर्सा गोंय स्वतंत्र जालें. १९६१ ते १९६३ ह्या दोन वर्सांक जो कोंकणीचो वाद विवाद, वावर, शिबीरां जालीं ताकाच लागून हांव कोंकणी बरोवंक लागलों.

आकाशवाणी-पणजी आनी राष्ट्रमत हांकांय लागून हांव बरयत रावलों. आकाशवाणी वाऱ्यार सोडी आनी राष्ट्रमत छापलो ह्याच तेंपार पणजे-क्लूब नासीऑनाल हांगा एक कवी संमेलन जालें. तातूंत हांवेंय वाटो घेतिल्लो. त्याच दिसा डॉ. मनोहर सरदेसाय हे ''लोककवी'' म्हणून वेंचून आयले. ही म्हजी आनी मनोहरबाबांची पयली भेट.

ताणी सांगिल्ली एक खबर सामकी याद उरपासारकी तीच :

एक दीस तांच्या दारार बॅल मारली - रातचीं रवरां जाल्लीं. दार उगड जाल्यार दोन 'पाखले' - भोंवडेकार. ते आयिल्ले दुयेंत आसा म्हूण. मनोहरबाबान सांगलें हांव दोतोर - वैजकी शास्त्रांतलो न्हय. त्या दिसाच्यान डॉ. लावप म्हळ्यार रातची न्हीद वगडावप हें तांकां कळ्ळें.

कवी संमेलनाचें सुत्रसंचालन ताणी एकदां केल्लें. स्वामी विवेकानंद हॉलांत. थंय ताणी सांगलें - दोतोर घाणेकार - एक वैजकी शास्त्रांतले बरे दोतोर पूण कितें तरी खंय तरी चुकलें आनी ते कवी जाले.

'रुच्चीक' ह्या कार्यावळींत म्हजे टिव्हीचेर अमिता सलत्रीन मुलाखत घेतली. दुसरे दिसा मनोहरबाब म्हाका पणजेच्या देवळांत मेळ्ळे. ताणी सांगलें -

''काल तुजी कार्यावळ पळेली - बरी रुच्चीक आसली कांय म्हयन्यापयलीं सुनापरान्ताचेर म्हजें एक पान भर मलेरीया चेर पुराय लेख आयिल्लो. मनोहरबाबान तो वाचलो आनी बरो जाला म्हूण म्हाका फोन करुन कळयलें.

अशीच घडिल्ली आनी एक खबर :-

कला ॲकादेमी ब्लॅक बॉक्स (कृष्ण कक्ष म्हणप म्हाका तितलेंशें आवडना) एक कार्यावळ आशिल्ली. ती फुदासांव ओरीयेंत हे संस्थेन दवरलेली. त्या कार्यावळीत दो. मनोहर सरदेसाय हांच्यो कोंकणी कविता पोर्तुगीज भाशेंत अनुवाद करुन एके बायल कवियत्रीन वाचिल्ल्यो. त्या भायर कांय फ्रँच कविता कोंकणी आनी पोर्तुगीज भाशेंत केल्ल्यो.

कार्यावळ सोंपनाबरोबर अध्यक्षानी विचारलें कोणाक प्रस्न विचारपाचो आसा. ''श्री क्रूज ''शिक्षण खात्याचे पयलींचे'' डायरेक्टर हाणी एक प्रस्न विचारलो - ताजी ताणी जाप दिली. मागीर हांव उठलों हांवें सांगलें -

"म्हाका कांय विचारपाचें ना. पूण एक सांगपाचें आसा- तें म्हळ्यार - गोंय आनी पोर्तुगाल हांचो नकासो सारको. तें एक इतिहासीक अजाप - अकरा न्हंयो आनी अकरा तालुका (प्रोवींसीयस). जुवारी - तेजू. पेडणें - मिन्यू आनी काणकोण- आल्गार्व्ह."

हें आयकून मनोहरबाबान म्हाका विचारलें, "व्हू हेझ डन इट"? हांवें सांगलें - गोड - गोड इज नॉट जेंगरी- गॉड म्हळ्यार देव - देवाआनंद न्हय - रमेश देव न्हय - गॉड म्हळ्यार Gemerata, Orgamiker आनी डिस्ट्रॉयर - ब्रह्मा, विष्णू, महेश.

ही कार्यावळ सोंपतना दो. मनोहरबाब म्हाका पळोवन हांसलें - कितेंच म्हजेकडेन उलयले ना.

"मोगा तुका याद आसा?" हें गीत विमल बल्सावर हाणी गायलां. तें गीत बरें जालां पूण तेंच गीत दुसऱ्या चालीन म्हळां तें बरें दिसना. म्हजे बायलेक मनोहरबाबांच्या पदांमदी हें पद सगळ्यान चड आवडटा.

मनोहरबाब हें एक वादळ - कोंकणीच्या पोरसांतलें

मनोहरबाब हें एक फूल- गुलाब - कोंकणीच्या पोरसांतलें

मनोहरबाब हें एक नक्षत्र - कोंकणीच्या मळबांतलें

मनोहरबाब हें एक माणिक मोती - कोंकणीच्या सैमांतलें

मनोहरबाब हें एक मंदीर - कोंकणीच्या काळजांतलें

मनोहरबाब हो एक श्वास - ध्यासाचो

मनोहरबाब हें एक सुनामी - देगेवेले

मनोहरबाब हो एक गुरु. हांव तांचो एक शिश्य.

चड बरयत जाल्यार लेख बरो जातलोच आसा अशेंना थोडेंच बरोवन तें वाचून सुटमुटीत आमूंक जाय अशें मनोहरबाब सांगताले. देखून तांजी चार ओळींच्यो कविता - ताका ते 'वळ' म्हण, खूब बरयल्यो - सुनापरातात ताका तिकली म्हळी. चडश्यो तिकल्यो बऱ्यो अर्थपूर्ण आसल्यो पूण कांय तिकल्यो कपलाक चड वेळ धरना अश्यो असल्यो.

तांका म्हजी हीं आर्गां. ●





माया अनिल खरंगटे

यादींचो पर्मळ

# भुरग्यांचे कवी : मनोहरराय

मनोहरबाबांची आनी म्हजी वळख खूब पोरनी. हांव मडगांवच्या पार्वतीबाई चौगुले कॉलेजींत शिकतालें तेन्नाची. ते थंय फ्रेंच शिकयताले. तांच्या वर्गांत पांच-स विद्यार्थी. म्हूण ते आपलो वर्ग लायब्रींत आलमारीनी आडवण केल्ल्या इल्ल्याशा जाग्यांत घेताले. त्याच जाग्यार आमी चारपांच इश्टिणी थंयच बसून गजाली करतालीं, चुकून केन्नाय अभ्यास करतालीं.

तर सांगपाचें म्हळ्यार, फ्रेंचाचे विद्यार्थी येवन ताणीं आमकां कितलेंय ऊठ म्हळ्यार, आमी नोट्स काडपाचें नाटक करीत बसतालीं, मनोहरबाब येसर. ते येताले आनी हांसत म्हणटाले, "बायानो, मात्शें आमकां बसूंक दितात मूं?" ते बरोबर, 'हय सर, हय सर' म्हणत हांसत आमी उठ्ठालीं. चडकरुन तांच्या तासाक आमचीं हीं नाटकां चलतालीं.

तेन्ना आमी तांका फकत फ्रेंच शिक्षक म्हणूनच वळखतालीं. तांची कवी म्हणूनच न्हय तर आनी कसलीच वळख म्हाका तरी नासली. एक दीस वण्टी पत्रांचेर म्हजी कोंकणी कविता ल्हवू ल्हवू वाचून ताणी म्हजी तुस्त केली. तेन्नाच्यान हळू हळू तांची वळख म्हाका जावंक लागली.

मागीर कॉलेज सोंपतकर केन्ना केन्नाय कवीसंमेलनाकबी मनोहरबाब मेळटकीर म्हाका मनांतल्यान चोरी कशी दिसताली. कॉलेजींत आमी तांकां सतायतालीं ती याद काडून कितेंय म्हणत म्हूण हुस्को दिसतालो. मागीर जेन्ना तांचेकडेन चड वळख जाली तेन्ना हांवें तांकां कॉलेजींतली खबर सांगली. ते खूब हांसले आनी म्हजी फकाणां केलीं. तांकां ती याद लेगीत नासली, म्हाका मात चोरा मनांत चान्नें जाल्लें.

त्या उपरांत मनोहरबाबांकडेन चड लागिच्यान वळख जाली ती बेंगलोर जाल्ले साहित्य परिषदेवेळार. त्या वेळार आमी राविल्लीं थंयच मनोहरबाब आपल्या कुटुंबासयत राविल्ले. थंयच मनोहरबाबांच्या फकाणेर सभावाची, कवितेचेर मोग करपाच्या सभावाची आमकां वळख जाली. परिषदेच्या हॉलांतल्यान येतकर आमी रातचीं भायर बसून कविसंमेलन करतालीं. आमच्या सगळ्यांपरस पिरायेन व्हड मनोहरबाब आसले. पूण ते आमचे बरोबरचे जावन कविता म्हणटाले. आमच्या कवितांक तोखेताले. एक वळ लेगीत बरी दिसल्यार तुस्त करताले. चूक आसल्यार आपल्या अळार आवाजान समजायताले.

वयान आनी साहित्यान, विचारान जाण्टो मनीस कसो नमळायेन वागता तें आमकां पळोवंक मेळ्ळें. उपरांत आमची वळख वाडत गेली. हांवें तांचें सगळें साहित्य वाचलां.

पिसोळीं तर म्हजीं सामकीं आवडीचीं. तीं कितलेच वेळा हांव वाचतां. तांच्या साहित्यांतल्यान ते केन्ना केन्नाय बडी मारतात, चिमटे काडटात. सरकाराचीं कुतां काडपी कविता बऱ्योच विनोदी कश्यो जाल्यात. तितल्योच त्यो दोळ्यांत अंजनय घालतात.

तुमकां सवणीं जाय ? घरांत पांजरो लाव नाका, पोरसांत झाडां रोय.' ह्या सारकीं पिसोळीं जांव तिकल्यो. आमकां सत्याचें दर्शन घडयतात. साद्या साद्या विशयांचेर, सादया उतरांनी सहजतायेन ताणी कविता केली. तांकां गोंयांविशीं, गोंयकाराविशीं जितलो मोग तितलोच गोंयांतल्या प्रत्येक गजालिचेर, फातर-गुण्यांचेर लेगीत मोग. आनी हे सगळे विशय ताणो कवितेंत केळयल्यात.

तांचें साहित्य कितलें श्रेष्ठ, तें प्रत्येक वेळार जायत्या जाणांनी सांगलां. ते साहित्यकार म्हणूनय खूब व्हड, पूण म्हाका दिसता ते चड आनी श्रेष्ठ ते भुरग्यांचे कवी. ताणी भुरग्यां पासत कवुनलां, कविता, गितां, कवन-काणयो नाटकुलीं अशे जायतें साहित्य रचलें. हें सगळें ताणी भुरग्यांवांगडा भुरगे जावन रचलें. जायत्या जाणट्या लेखकांनी भुरग्यांपासत साहित्य रचलां. पूण तें भुरग्यांच्या नदरेंतल्यान न्हय, भुरग्यांक उपदेश करपाक म्हूणदया. ताणीं कितें शिकचें, कशी वागचीं, कशें खेळचें हे नदरेंतल्यान. पूण मनोहरबाब हे खरे भुरग्यांचे कवी. ताणी नळकटना अळारपणान भुरग्यांक शिकवण दिली. सुकण्या सावदांच्या माध्यमांतल्यान तांच्या आवडीच्या विशयांतल्यान, जशे बरो वास आनी तरेकवार रुचींचीं वखदां फार्मासकार भुरग्यांपासत करतात.

भुरग्यांचें मनोविज्ञान पयलीं लेखकाक खबर आसूं जाय, तांचें मन वाचूंक येवं जाय. जाल्यार बाल साहित्यकार भुरग्यांक भावता तशें, भुरग्यांच्या मनांतलें बरोवंक शकता. ही कळाशी मनोहरबाबांक दिस्त सादिल्ली. म्हूण ते जशे लोककवी जाले तशे भुरग्यांचे जाले आनी भुरग्यांच्या मनांत जिबेर तांकां अजरंवर स्थान मेळ्ळें.

भुरग्यांक आवडटा तीं जनावरां, सुकणीं, पावस, गाडयो आनी अशें जायतें. हे सगळे विशय ताणी बालकवितांनी केळयल्यात. कावळेमाम, हुंदीरमाम, बुकीमाम कोकोंच को, कुतू, हडवोताल्ल बेबो, पाचवो पाचवो कीर हे प्राणी भुरग्यांचे पयले इश्ट. हांचेरच ताणी थोड्यो कविता करुंकना. भुरग्यांचे न्हिदप, हांसप, रागार जावप ह्या सहजप्रवृत्तीचेरय ताणी कविता केल्यात. खेळटां खेळटां न्हिदप हो भुरग्यांचो निजाचो सभाव. तिचेरय ताणी कशी कविता केल्या पळोवया, "पतंग उडटा मळबांतू

मळबांतू
बाबू खेळटा आंगणांतू
आंगणांतू
पतंग उडटां पडलो गा
पडलो गा
बाबू खेळटां न्हिदलो गा
न्हिदलो गा "

अशे तरेच्यो साद्या सोप्या उतरांच्यो चार-चार, पांच पांच वळींच्यो कविता ताणी बरयल्यात. ज्यो मुक्त छंदांत कश्यो दिसतात. पूण तांकां ठेको, ताल आनी लय आसा तांकां चाल लावनय महज म्हणूं येता. देखीक (१) "कांगारु रे कांगारु, नाका ताका धरुं. ताच्या बोल्मांत बसला पळे ताचो धाकटो पोरु." (२) "शेजरा म्हज्या रावता मुळो एकमुळो रे एकमुळो, वाजयत आसता खुळूखुळू,' खिळखिळे रे खिळखिळो."

ह्यो कविता खंयचेय उडटे चालीन म्हणूं येतात. तेच परी मुळो, एकमुळो, खुळू खुळू खिळखिळो ह्या सारक्या यमकांक लागून तांका नाद येता आनी तोच भुरग्यांक चड आवडटा, तीं तांच्यां जिबेर सहज बसतात.

भुरग्यांपासत ताणी गितां, नाचगितां आनी खेळगितां वा व्यायामगितांय बरयल्यांत. देखीक, 'ताळी वाजय ताळी वाजय, टपटप टप' हातूंत हात, पांय असो असो सगळ्या आंगाक व्यायाम घडटा आनी भुरग्यांक टप टप, झप झप, छन् छन् ढण ढण हे आवाजय कृती सकट शिकूंक मेळटा.

'बेब्याचें काजार, माजराचें काजार, बाबुचें लग्न, किर्तन विजूबाय, गडगडो, न्हयत्या वेळार' अशीं जायतीं गितां कवन काणयोय ताणी बरयल्यो, जातूंत नाट्य लिपल

ानी तीं माचयेर सादर करुंकय मेळटा.

बालवर्गात (के. जी.) तांच्यो कविता आमी शिकयतात. यो म्हणटना भुरग्यांच्या तोंडार जी खोस येता ती पळोवन ा कवितांतली खराय, भुरग्यांची काळजां जिखपाची शक्त ामकां कळटा. तांचेच भाशेंतल्यान त्यो कविता आशिल्ल्यान ांकां तांचो अर्थ लेगीत कळटा. मागीर तीं तातूंत आपल्याक ाय ती नांवां घालून त्यो कविता म्हणटात. अशेंच तांचें ाक कवन, "बिलूबाय, बिलुबाय, खंय गो आशिल्लें.

मामान तुज्या हाडलां मेमें, राखूंक बाशिल्लें."

हीं कविता शिकयतना तीं तीन, साडेतीन वर्साचीं चमर्टीभर भुरगी हांसून म्हणटात. 'बिलुबाय फटींग हां फटींग, तें मेमें राखूंक बसुना, खावंक बशिल्लें."

अश्यो तांच्यो सोप्यो कविता, ज्यो ल्हान भुरग्यांक ेगीत सहज कळटात.

म्हाका याद जाता. ही गजाल हांवें मनोहरबाबांक म्हळी तेन्ना तांका खोस जाली आनी आपल्याक कोणे एका भुरग्यान हडलो ताल्ल बेबो म्हणिल्लो ती गजाल सांगली. हेर व्हड व्हड पुरस्कारांपररय तो व्हड पुरस्कार दिशिल्लो.

मनोहरबाब सदांच, आपले केंस जरी पिकले तरी आपूण मनान पाचवोच आसां म्हणटालो. पूण म्हाका दिसता ते सदांच मनान भुरगेच आशिल्ले, म्हूण तांकां भुरगीं इतलीं आवडटालीं आनी ताणी तांचे पासत तांकां भावता अशीं कवनां बरयलीं.

मनोहरबाब आज जरी आमचेमदीं नासले तरी साहित्याच्या मळार ते अमर आसतलेच, पूण भुरग्यांच्या संवसारांत मात ते सासणाखातीर उरतले.



Government of Goa
STATE DIRECTORATE OF CRAFTSMEN TRAINING
Shramshakti Bhavan, Patto, Plaza, Panaji, Goa - 403 001.
Phone : 2437060, 2437059

# INDUSTRIAL TRAINING INSTITUTE
## (SOME FACTS AND FIGURES)

- 1st ITI was started in 1966.
- We have all together 11 Government and 4 private I.T.Is
- All together we offer 35 courses in all I.T.Is, out of which six courses are available for school dropouts having passed minimum of 8th Std., five courses for 12th Std. twenty courses are for SSC passed outs and four courses for students who have passed hospitality ma.

| One year duration trade courses | | | Two year duration trade courses | | |
|---|---|---|---|---|---|
| Sr. No. | Trade | Entry qualification | Sr. No. | Trade | Entry qualification |
| 1) | COPA | 12th Std. | 1) | Pharmaceutical Assistant | 12th Std. |
| 2) | DTPO | - do - | 2) | IT & ESM | 10th Std. |
| 3) | Stenography | - do - | 3) | Fitter | - do - |
| 4) | Secretorial Practice | - do - | 4) | Turner | - do - |
| 5) | Hair & Skin Care | 10th Std. | 5) | Machinist | - do - |
| 6) | Craftsmen Food Production | - do - | 6) | Electrician | - do - |
| 7) | Steward | - do - | 7) | Inst. Mechanic | - do - |
| 8) | Mech. Diesel | - do - | 8) | Ref. & AC Mech. | - do - |
| 9) | Plastic Processing Operator | - do - | 9) | Electronics Mechanic | - do - |
| 10) | Painter | - do - | 10) | D'Man (Mech.) | - do - |
| 11) | Hospitality Management General | - do - | 11) | D'Man (Civil) | - do - |
| 12) | Hospitality Management BBBT | - do - | 12) | Mech. Motor Vehicle | - do - |
| 13) | Hospitality Management Advanced Modules : Food Production, Food Beverage and Service, House Keeping and Steward | Passed Hospitality Management BBBT | 13) | Medical Electronics | - do - |
| 14) | Carpenter | 8th | 14) | Wireman | 8th |
| 15) | Mech. Tractor | - do - | | | |
| 16) | Welder (Gas & Electric) | - do - | | | |
| 17) | Plumber | - do - | | | |
| 18) | Cutting & Sewing | - do - | | | |

- We have 2 courses of Diploma in Multi Skill Industrial Technology.
- Seating capacity all together is 3068 seats.
- Annual intake capacity for admissions to I.T.Is alone is 1872.
- We have about 500 seats available for admission for school dropouts.
- We have 8 courses available in private I.T.Is with the intake capacity of 200 seats.
- Our session years begins on 1st of August, every year.
- Our admission take place in the month of June/July.
- Our Annual final trade test is held in July, every year.
- Average number of 1200 trainees pass out every year in both NCVT and SCVT final examinations
- **Our Output since 1966 is about 33,500 trainees.**

## APPRENTICESHIP TRAINING SCHEME

- The Department operates Apprenticeship Training Programme. There are 878 seats available for training under this programme. The major industries covered under this programme are hotels. There are altogether 114 industries covered under this programme. The apprentices draw stipend depending upon the year of training. The minimum stipend payable is Rs. 940/- Government of India (NCVT) conducts the final examinations.

## T.C.P. CENTRES

- Our Training-Cum-Production centers, produce attractive carved furniture items, Coir Door mats, Pottery items, Bamboo items, textile materials, etc.



नयना आडारकार

यादींचो पर्मळ

# यादींतले मनोहरबाब

डो. मनोहरबाब आनी मनोहरबाबांच्या मुखामळार फुलिल्लो मुमुरखो हांसो, म्हळयार सुवासिक जायांनी भरिल्लो गताचो पसो. आपल्या परमळान काळजा-काळजांक सुवासाचे दान वाटीत वचपी.

ल्हान-ल्हान, आशयघन उतरांच्या थिकांनी कवितेक मल्हार घालपी कवी म्हळयार मनोहरबाब अशें म्हळयार अतिताय जांवचीना. उतरां, तुजे-म्हजे जिबेर घोळपी, उतरां-दसपट्ट जिणेत नंदपी, उतरां-भोवजनांच्या काळजाक जोडपी, लोकांच्याच उतरांनी लोकांक मेळपी हो लोककवी.

मनोहरबाब म्हाका पयलीं मेळ्ळे ते 'हळदुवोताल्ल ग्रेबो' हे आकाशवाणीवेल्या 'ख़ळार-मळार' कार्यावळींत वाजपी गितांतल्यान. मागीर तांची गितां, बडबडगितां हांतूतल्यान ते म्हाका मेळत रावले. ते कशे दिसता, खंय रावता, कशे उलयता हेविशी उत्सुकताय म्हज्या मनांत जागत रावली. आनी तांका पयले फावट पळोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी सावर्डे जाल्ल्या लेखक संमेलनावेळार. अश्शी-अश्शी ल्हवूच मान हालयत, एक-एक उतर जोखीत, ओंठार मुमुरखो हांसो फाकयत म्हणिल्ली तांची कविता म्हाका भुलयत गेली.

म्हजो कोंकणीभक्त बाबा सर्गेस्त श्री. रंगनाथ सुर्लकार हे म्हजे कोंकणीतले पयले गुरु. तांणी म्हाका जाय म्हणून मडगाव कोंकणी भाशा मंडळातल्यान तेन्ना 'पिसोळी' हो कविता संग्रह हाडून दिलो. एकाच उतरान कितलेशेंच सांगपाची तांची कुशळताय म्हाका भुलोवन गेली.

१५ ऑगस्टाक 'कोंकणी भाशा मंडळाची' बाकीबाब काव्यसर्त 'जाताली. त्या काव्यसर्तीक हावें 'आरे रस्त्या' ही म्हजी कविता वाचली. कविता आयकून मनोहरबाब म्हजेसरी आयले आनी ताणी अपुरबायेन म्हजे कवितेची आनी म्हजे वाचनशैलीची तोखणाय केली. 'अशेंच बरयत राव' ताणी म्हळें आनी खरेंच मेळिल्ल्या वेळार 'कशे आसात तुजे रस्ते' म्हणत हावें नवें कितें बरयलां हाचीय चवकशी ते करताले. ताणी केल्ल्या तुस्त-तोखणायेन म्हाका बरें दिसतालें. तशेंच तांणी केल्ल्या सुचवणेचेरुय विचार करुन हांव तांचो मानूय राखतालें.

आमच्या वेळावेल्यो परिशदो, लेखक संमेलना म्हळयार आमकां पर्वणी. मानेस्ताचे विचार माचयेवयल्यान आय्‌कुवप आनी राती राबिल्याक आशिल्लेकडेन 'मिनी कंविसंमेलनात वांटेकार जावप. थंय एका झाडामुळांत हेर मानेस्तावांगडा बसून मनोहरबाबाचें आपोवणे आमकां आयलें काय हांव, माया, माया (तांची धूव), करुणा, नूतन, प्रतिभा, लीना, कंदा पै, यशवंती, च्रंदव्वा भांडारी, जयंती आपआपले कादेर्न घेवन धांवत वतालीं. मानेस्तांच्या कवितावाचनां

मदींच आमकांय कविता वाचनाचो आग्रो जातालो. आनी मनोहरबाब जे उत्स्फतपणान मानेस्तांच्या कवितांक दाद दितालो तेच उत्स्फुर्तपणान आमच्याय कवितांक दाद दिताले. आनी आमची उमेद वाडयताले.

म्हज्यो कविता साद्या-सुद्या उतरांच्यो आसताल्यो. म्हज्या कांय इश्टीणींच्या मतान तांका साहित्यिक मोल नासलें. पूण मनोहरबाब मात म्हज्या ह्या कवितांतूय आशय दिसतालो. अश्याच एके कवितेचेर तांणी कोंकणी अकादमीन घेतिल्ल्या कविसंमेलानावेळार भाश्य केल्लें. आपलें व्हडपण, आपल्यो कविता, आपलो साहित्यातलो मान हाचो अहंकार बाळगिनास्तना दुसऱ्यांच्या गुणांकूय पारखुवपी तांची नदर आसली. तांच्या आनी अशींच नदर बाळगुपी मानेस्त साहित्यकारांच्या विश्वासाच्या बळग्यार हांव अजूनय कोंकणी साहित्यमळार तग धरुन रावलां.

हांवें तांका म्हजी 'हिरन आनी वास्वेल' आनी 'पिटकुल्यो काणयो' हीं भुरग्यांखातीरची पुस्तकां भेट दिल्लीं. तांणी रोखडीच तांची पोच म्हाका पत्रान कळयली. 'हांवें तुमचीं पुस्तकां परती-परतीं वाचलीं आनी कांणी नातरांक कितले फावट सांगलीं. देव बरें करुं'' तांच्या ह्या पत्रान म्हाका खूब समाधान मेळ्ळें. कोंकणी साहित्यमळावेले मनोहरबाब आनी माधवबाब बोरकार तशेंच कवि श्री शंभू भाऊ बांदेकार हांचीय पत्रां म्हजे सारख्याक नवी साहित्य निर्मणी करपाक उमेद हाडटात.

दोतोर मनोहरबाब म्हाका गुरुतूल्य आशिल्ले. पूण तांचेविशीं आशिल्ल्ले आदरभावनेखातीर आसुंये हांव तांचेकडेन मनमेकळेपणान केन्नाच उलोवंक पावलें ना. तशेंच हेर म्हालगड्याकडेंय म्हजे प्रस्नाक जाप, जांव जापेपुरतो जाप हाचेवयर उलोवप जायना. पूण तेंच हांव माई, माया जांव उमेशाकडेन भरभरुन उलयतालें.

बडबडगितां, माणकुल्यांची गितां आनी मनोहरबाब. हांका वेगळावप शक्यूचना. आपल्या ह्या बालकवितां वरवी ते माणकुल्यांच्या ओंठा-ओंठार घोळ्ळयात. घरां-घरांत पावल्यात. आनी जाण्ट्या-नेण्ट्यांच्या काळजांतूय रावल्यात.

ज्युस्तूच, मुदयेवेले खीक कशीं उतरां आपल्या कवितांनी, आपल्या गीतांनी घोळयत ते जनांच्या काळजां-काळजांत रिगले आनी लोककवी जाले. तांचे लिखणेन आपले भोव… मर्यादेची वंय घातली ना. तांणी सगळ्या मळार आ… लिखणेक पर्जळायली. नाटकुलीं, लेख, कविता, बडबडगि… गितां, अणकार आनी मुपुल्ल्यो तिकल्यो. तांणी आप… मुमुरखो हांसो आनी म्हांवाळ, मोगाळ नमळायेच्या सभा… सगळ्यांकडे मायेचें नातें जोडलें.

मनोहरबाबान आपल्या उतर नखेत्रांनी साहित्य-विश्… मळब लखलखायलां. त्या उजवाडाच्या मार्गार म्हज… साहित्यप्रवास घडचो ही इत्सा.

मनोहरबाबाचो आर्शिवाद म्हजेर सासणांचो आमत… तशीच म्हजी तांचेवेली आनी तांच्या साहित्यावेली श्रध्द… सासणांची उरतली. तांका म्हजें नमन.



डॉ. जयंती नायक

यादींचो पर्मळ

# मनोहरबाबाक ध्यास आशिल्लो लोकवेदाच्या वावराचो

**म**नोहरबाबाक हांवें सगळ्यांत पयलीं पळयले ते, १९८३ वर्सा कुडचड्यार जाल्ल्या सातव्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे वेदयेर, तेंवूय तांची 'लोकशाय' ही कविता ते म्हण्टना आपले मिस्किल शैलींत पूण खोचक पध्दतीन समाजांत चलिल्या अन्यायाचेर आनी भोंदूगिरीचेर ते नेटा-नेटान कविता म्हण्टाले आनी तांच्या कडव्याकणकणी तांचेर माटवांतल्यान तळ्यांचो शिंवोर जातालों. कोंकणी चळवळींत म्हजो तेन्ना नव्यानच प्रवेश जाल्लो, ते आदी मनोहरबाबाक हांवें प्रत्यक्ष केन्ना पळोवंक नाशिल्ले. आकाशवाणीच्या खळार-मळारावयल्या तांचीं 'आज तुजो वाडदीस' आनी हडवो ताल्ल बेबो' हीं गितां मात आयकल्लीं. आनी ते दिसा 'लोकशाय' कविता म्हण्टल्या मनोहरबाबाक पळोवन हांव खूबच प्रभावीत जालें.

हे नंतर वेग-वेगळ्या कोंकणी कार्यावळींनी आनी संमेलनांनी मनोहरबाब म्हाकां दिसले, पूण आपूण जांवन कोणाकडेन मुद्दाम वळख करुंक वचप ना, ह्या म्हज्या सभावाक लागून तांचेकडेन उलोवपाचो प्रसंग केन्ना येवंक ना. मजगती चित्रंगीच्या मेळाव्यां निमतान मायाकडेन, म्हणजे मनोहरबाबांच्या चलयेकडेन इश्टागत जाली आनी मायाचो बापूय ह्या नात्यान तांचेविशीं मनांत आदर तयार जालो ... पूण मनोहरबाबाकडेन म्हजो खूब लागींचो संबंद आयलो तो हांव गोवा कोंकणी अकादेमींत लोकवेद विभागांत संशोधक म्हण रूजू जातकच. १९८७-८८ च्या ऑगस्ट म्हयन्यांत, म्हैसूर विद्यापिठाचो लोकवेद डिप्लोमा कोर्स करूंक गोवा कोंकणी अकादेमीन म्हाका शिश्यवृत्ती मान्य केली आनी हांव तेखातीर म्हैसुराक गेलें. मनोहरबांब तेन्ना गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष आनी लोकवेद विभागाचे मुखेली आशिल्ले. पूण म्हजी शिश्यवृत्तीखातीर निवड जावन, हांव म्हैसूराक वचसर म्हजी आनी तांची अकादेमींत भेट जावंक नासली. अकादेमीचे त्या वेळावेले सचिव श्री. वि. मं. धुमे हांचेच कडच्यान म्हजे निवडी संबंदान सगळ्यो अटी-सोपस्कार हें संबंदान म्हाकां सुचोवण्यो मेळिल्ल्यो.

म्हैसुराक पावतकच मात म्हाकां आनी म्हजेवांगडा लोकवेदशास्त्रात एम. ए. करूंक अकादेमीची शिश्यवृत्ती घेवन गेल्लें कु. पुष्पलता कासकर हाका दोगांयकय मनोहरबाबाचें पत्र आयलें (तांच्या स्वताच्या हस्ताक्षरांत) त्या पत्रांत लोकवेद वांवरा संबंदी तांणी आपलेपरीन आमकां मार्गदर्शन केल्लें तशेंच आमचेकडल्यान तांच्यो, म्हणजे अकादेमीच्यो कितें अपेक्षा आसात ते विशींच तांणी तातूंत बरयिल्लें. मागीर अदीं-मदीं तांची आमकां पत्रां येत रावलीं.

पत्रांवांगडा ते आमकां लोकवेदावयलीं पुस्तकां, कात्रणां बी धाडटाले. आमीय तांकां तांच्या पत्राच्यो जापो, पुस्तकांची पोच धाडटालीं. हांगाच्यान म्हजे मनोहरबाबाकडेन लागीचें संबंद तयार जाले. म्हजो कोर्स एकाच वर्साचो जाल्ल्यान तो सोपोवन हांव १९८८ च्या ऑगस्टच्यान अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत आदी कराराचेर आनी उपरांत नियमीत पध्दतीन संशोधन सहाय्यक म्हण रूजू जालें.

मनोहरबाबाक लोकवेदाच्या वावराचो खूब ध्यास आनी हुस्को आशिल्लो. अकादेमीचो लोकवेद विभागाचो वावर सुरू केल्लो 'गोंयच्या जात्रा-फेस्तांचें दस्तऐवजीकरण' करपाचो प्रकल्प तांणी चालीक लायिल्लो. धुमेच्या सहकार्यान तांणी कांय वावर केल्लो. उपरांत तांचे टीमींत हांवूय रूजू जालें.

म्हैसूरच्यान हांव लोकवेदाचें शास्त्र-शुध्द शिकप घेवन आयिल्लें, पूण प्रत्यक्ष क्षेत्रकाम हांवें मनोहरबाबाच्या मार्गदर्शनाखाला सुरू केलें. कुंकळेच्य सत्र्यो, काणकोणच्यो शिशारांदनी, गावणेंचो तोंक्याभार, नुवेंचें फेस्त, नावेलींचें फेस्त, शिविलेचो जागर, सांग्यावेलें रणमालें, आमोणेचो दसरो,... अशा अकादेमीच्या लोकवेद विभागावरवीं हांवें केल्ल्या कितल्यातरी उत्सवांच्या दस्तऐवज करणाक ते स्वता हाजीर रावन तांणी म्हाका तेखातीर मार्गदर्शन केलां.

लोकवेद वावराच्या निमतान आनी अकादेमीचे उपाध्यक्ष ह्या नात्यान मनोहरबाबांकडेन जो संपर्क आयलो तातुंतल्यान मनोहरबाब म्हाकां जे दिसले ते सादे, मायेस्त, हांसमूख, आपल्या पोझीशनाचो खंयच गर्व नाशिल्ले, ल्हानांबरोबर ल्हान जावपी आनी व्हडाबरोबर व्हड जावपी, दुसऱ्याच्या भावनांचो विचार करपी, सट्ट करुन कोणाक दुखोवपी न्हय अशें जात्रा-फेस्तांचें रिकोर्डींग करुंक वताले आमचे टीमीक रात-रात जागचें पडटालें, खंयींय बसचें पडटालें, मेळटा तें खावचें पडटालें. अशा वेळार मनोहरबाबांनी आपलें पोझीशन खंयच मिरयल्लें हांवें पळोवंक ना, ते आमचे वांगडा खंयींय आसताले. मेळटा तें 'खरें जाल्यार म्हण तुस्तकरीत खाताले, वयल्यान फकाणां-मस्कऱ्यो करुन वातावरणांत उमेद हाडटाले. तांकां आडवादानच हांवें रागार जातना वा तापतना पळयल्यांत.

१९९४ च्यान उपाध्यक्ष म्हण आनी लोकवेद विभाग मुखेली म्हण तांचो अकादेमीकडलो संबंद सोंपलो, पूण हांव जेन्ना केन्ना मेळटा वा कित्याय कामासंबंदान हांवें तांकां फोन केल्यार, 'लोकवेदाचो वावर कसो चल्ला? वा नवें कितें डोक्युमेंटेशन केलां?' होतांचो पयलो प्रश्न आसतालो आनी जर हंवें काय कारणाक लागून काम सद्याक थांबलां वा मंदावलां अशें सांगत तर ते खूब बेजार जाताले. मनांतल्यान नित्रळटाले.

मनोहरबाबाक हांव निमाणें मेळ्ळें तें सुमार देड वर्साआदीं म्हजीं 'गांवरान' आनी 'राजरत्नां' हीं लोककाणयांची दोन पुस्तकां २० ऑगस्ट २००९ गोवा कोंकणी प्रकाशीत केलीं आनी ते उपरांत हांव रोकडेंच त्या दोनय पुस्तकांच्यो प्रती तशेंच अकादेमीन उजवाडाडिल्ल्या 'लक्ष्मणराव सरदेसाय' ह्या पुस्तकाची प्रत घेवन तांकां मेळूंक म्हण तांगेर गेल्लें.

मनोहरबाबाची भलयकी तेन्ना बरी नाशिल्ली. ताचेकडेन उलोवंक बरें जमनाशिल्लें. कांय दिसां आदीं ते हॉस्पीटलांत रावनय आयिल्ले. सदचे पध्दतीन तांणी अकादेमीची आनी लोकवेद वावराची म्हजेकडेन वासपूस केली आनी सद्द्याक म्हजेकडेन 'सहायक सचिवपदाचो' ताबो आशिल्ल्यान लोकवेदाचें काम थांबलां अशें हांवे सांगतकच तांणी ताचेर नाराजी व्यक्त केली. लोकवेदांत तुवें जें प्रशिक्षण घेतलां ताचो फायदो अकादेमीन करुन घेवंक जाय, महायक मचिवांचें काम दुसऱ्या कोणाचेरुय अकादेमीन सोपोंवक जाय आशिल्लें अश्यो भावनां तांणी व्यक्त केल्यो. उपरांत सदचे भशेन आग्रो करुन माईन केल्ली च्या आनी खावंक खावपाक लायलें. ते नंतर मनोहरबाबाक पग्त मेळप जालेंना, कारण तांची भलायकी खूब इबाडली आनी सुमार वर्सभर भायल्याक तांकां मेळपाचेर घरच्यांनी बंदी घातिल्ली मजगती म्हजे सवेक शिकपी धुवडेक, आश्चर्याक एका ॲसायमेंटाक लागून तांकां मेळूंक जाय आशिल्लें. 'दिदी, म्हाका मनोहरबाबाक मेळूंक व्हर!' म्हण ताणें म्हाका मांगलें, तशें तांच्या घरा फोन करुन तांकां मेळूंक दितात काय म्हण हांवें वासपूस केली. फोन उमेशाचे मिसेसीन घेतिल्ले. सदयाक तांकां कोणाक मेळूंक दिनात म्हण म्हाका तिणें सांगलें. म्हजे धुवेडचें तोंड तें आयकून येदेशें जालें. मागीर अदीं मदीं ते म्हाका मनोहरबाब बरे जाले काय म्हण विचारत आशिल्लें. 'मनोहरबाब आज बरे जातले, फाल्यां बरे जातले आनी म्हजे धुवडेक तांकां हांव मेळूंक व्हरतलें अशी हांव वाट पळयतच आशिल्लें. पूण मनोहरबाब बरे जाले नात आनी म्हजे धुवडेक हांव मेळूंक व्हरूंक पावलेनात.

अखेरेक २२ जून ज्या दिसा रातची ११.३० वरांचेर बातमी आयली ती मनोहरबाब गेल्याची आनी शेवटाक म्हाका पळोवंक मेळ्ळो तो मनोहरबाबचो शांत अचेतन कलेवर, फुलांनी सजिल्लो, पूण तोंडार निरागस हांसो आशिल्लो.



कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

यादींचो पर्मळ

# म्हाका कळिल्लो मनोहरबाब

मनोहरबाबांसंबंदान बाकीच्यांप्रमाण म्हाकाय सदांच अप्रूप, अपुर्बाय! ते पिरायेन म्हजेपरस व्हड आसुनूय. खरें तर साहित्यीक मळार कर्तृत्वान ते खूबच व्हड आसुनूय भुरग्यांवांगडा भुरगो आनी जाणट्यांवांगडा जाणटो म्हूण तांचेसंबंदान खेरीत अर्थअपुर्बाय आनी हें सगले केन्नासावन? मनोहरबाबांक पळोवचे पयलींसावन, मेळचे पयलींसावन.

तशें मनोहरबाबांक प्रत्यक्ष मेळप, प्रत्यक्ष उलोवप हें हांव गोवा कोंकणी अकादेमींत सहायक सचीव म्हूण गेले उपरांत घडलें, तरी काणकोणच्या सरकारी उच्च माध्यमिक विद्यालयांत कोंकणी विशय शिकयतना मनोहरबाब खिणाखिणाक मेळटाले. म्हजेमदलो विद्यार्थी विद्यार्थ्याक साहित्य शिकयतना भाशेच्यो कुशळटायो, संस्कृतायेच्यो कुरवो स्वता शिकतालो आनी मनोहरबाबांसारक्या साहित्यिकांक सोदपाचो यत्न करतालो, विद्यार्थ्याक तांची वळख घडोवपाचो यत्न करतालो.

मात मनोहरबाबांमदलो मनीस कळ्ळो तो १ फेब्रुवारी १९९२ उपरांतूच. हांव अकादेमींत म्हज्या कामार रुजू जालो तेन्ना मनोहरबाब गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष आशिल्ले आनी भौ. भाऊ (पुरुषोत्तम) काकोडकर अध्यक्ष. आतां त्या काळांत भाऊ अकादेमीचे अध्यक्ष आसले तरी भाऊंचे गैरहाजेरीत मनोहरबाब (उपाध्यक्ष) अध्यक्ष आसताले. आनी देखून तेन्नाचे अकादेमीचे सचीव श्री. वि. मं. धुमेबाबांवांगडा म्हजोय विंगड विंगड कार्यावळीच्या संदर्भात मनोहरबाबांकडेन परतो परतो संबद येतालो. चर्चा जाताली. अकादेमीचे आतांचे अध्यक्ष श्री. पुंडलीक नारायण नायक हांच्या मार्गदशनाखाला आनी प्राचार्य नारायण देसाय हांच्या निमंत्रकपदाखाला अकादेमीन फोंड्या शिक्षक भवनांत शांतीनगरांत २५ ते ३१ मार्च १९९२ जी सतत सात दीस सात लेखक/समीक्षक आपोवन सात विशयांवयले पेपर सादर करुन तरणाट्या, नवोदीत लेखक-लेखिकांमदी चर्चा घडोवन हाडपाची, तांचेमदी साहित्याची आवड निर्माण करपाची 'साहित्य सप्तक' नांवांची कार्यावळ घडोवन हाडिल्ली, त्या दिसांनी मनोहरबाबांकडेन जाल्ली 'साहित्यीक संवकळ' म्हाका आजूय प्रेरणा दिता.

उपरांत ही 'साहित्यीक संवकळ' वाडली ती एका खेरीत आनी जिव्या-जित्या विशयाक लागून. 'कोंकणी

वाचनपाठ, दुसरी भास, यत्ता बारावी' विशयाचेर गोंय माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळ, आल्त, बेतीन दोन दिसांची कार्यशाळा ? १९ आगश्ट १९९२ ह्या दिसांनी पर्वरे ट्रेनींग कॉलेजींत घेतिल्ली. म्हाका पुरायेन अस्वस्थ करुन सोडपी हे कार्यशाळेंतली कविता आशिल्ली - आमी इकरा जाण-मनोहरराय सरदेसाय.

*गोंयचे इकरा म्हाल सान*
*थंयचे आमी इकरा जाण*
*जाण्टे पणून तरणे आमी*
*लाल भूंयचे राखणे आमी*

ह्यो आरंबाच्यो वळी तश्यो साद्यो, सोप्यो, हायर सेंकडरीच्याच कित्याक प्राथमिक वर्गातल्या भुरग्यांकूय कळपासारक्यो. पूण चर्चेंत गोंय वेगळें राज्य राखून दवरपाचें काय म्हाराष्ट्रांत विलीन करपाचें हे चळवळीचो संदर्भ आयलो तेन्ना 'इकरा म्हालांतले इकरा जाण लाल भुंयचे राखणे इतल्याचेर हे इकरा जाणांचे प्रकरण थाथारप शक्य नाशिल्लें. कारण, २९, ३० डिसेंबर १९६२ त गोंयांत पणजे शारांत फार्मसी कॉलेजींत इकरावें गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलन भरिल्लें. आनी ताचे अध्यक्ष आसले तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी. उद्घाटक न. वि. गाडगीळ. मात्त, संमेलनांत साहित्यावांगडा 'भाषावाद' (कोंकणी-मराठीवाद) मुखार आयलो, महाराष्ट्रवादाच्या संदर्भांतूय कांय विधांना जालीं. आतां संमेलनांत हाजीर आशिल्लाय स्वाभिमानी गोंयकारांक हीं अशीं विधाना मानवप शक्यूच नाशिल्लें. देखून तांणी निशेध उक्तावन घोशणा दियत संमेलन सोडलें. आचार्य प्र. के. अत्रे हांणी आपले संवयेप्रमाण कोटी केली 'अकरा डास चालले!...' हाचो संदर्भ हे चर्चेक आशिल्लो.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय ते कार्यशाळेचें उक्तावण करुन गेले उपरांत श्री. सुमंत केळेकार (शुध्दलेखनाचे नेम), श्री. फेलीसियु कार्दोज (व्याकरण, रचना), श्री. रमेश वेळुसकर (कविता) आनी श्री. कमलाकर म्हाळशी (गद्य) हांच्या मार्गदर्शनाखाला सुरु जाल्ले कार्यशाळेंत कविता विशयावयलें व्याख्यान चलनना तेन्नाचे सरकारी उच्च माध्यमिक विद्यालय, साखळीचे उपप्राचार्य आनी ज्येष्ठ व्याकरणकार प्रा. सुरेश बोरकार हांणी 'कोण ते इकरा जाण? आनी पयलो कोण? दुसरो कोण ? तिसरो कोण? आमकां कळपाक जाय!' असो खडेगांठ प्रस्न विचारुन सगल्यांकूच पेचांत उडयले! आनी त्याच खिणाक हवें थारायलें, सोदपाचें कोण ते इकरा जाण?

...'सुनापरान्त' खातीर सदराचें नांवूय निश्चित जालें. 'सोदतां सोदतना' आनी पयलो लेख 'कोण ते इकरा जाण?' उजवाडाक आयलो आयतार, १४ फेब्रुवारी १९९३ दिसाच्या अंकांत अर्थात ह्या सोदप्रकल्पाचे स्रय फावता तें मनोहरबाबांनी म्हाका दाखयिल्या आनी म्हजेसुवादीन केल्ल्या कोंकणी (संपादपी, छापपी, उजवाडावपी आनी धनी भौ. अ. ना. म्हांबरो) आनी नवें गोंय (संपादक भौ. गुरुनाथ केळेकार, प्रकाशक सौ. कुमुदिनी केळेकार, सल्लागार पेद्रु कुँय आफोंमु, रवींद्रबाब केळेकार) च्यां खणींक! त्या दिसांनी कोंकणी चळवळ कितले शिस्तबद्धपणान आनी बुदवंतकायेन चलताली हाचें दर्शन घडलें. तशेंच कोंकणी चळवळींतल्या नामनेच्या 'रायटर' मदल्या फायटर चेंय दर्शन घडलें. मनोहरबाबूय ह्या कामांत खूब मुखार आसले. म्हणपाचे कळ्ळें.

मागीर मनोहरबाबांकडलें म्हजे वचप वाडलें. धूव माया कवीसंमेलनांनी, साहित्यीक कार्यावळींनी मेळटालेंच. घरकान्न माईकडली वळख वाडली, आपलेंपण निर्माण जालें. गेल्यावेळार पूत जांवय मेळ्ळयार तांचेकडेनूय उलोवप जातालें. आनी मनोहरबाबांचो घराबो घरासयत म्हाका म्हजोच दिसपाक लागलो... मात ह्या समयार एक खंत उक्तावपाकूच जाय ती म्हणल्यार मनोहरबाबांच्या जिवींतांतल्या निमण्या दिसानी तांचेलागी बसून चार गजाली मेकळेपणान उलोवपाची संद हांव घेवंक शकलों ना! ना म्हणपाक भायलेभायर खबर घेवप जातालें. पूण जेन्ना केन्ना वच्चें दिसलें तेन्ना तांकां मेळपाक, उलोवपाक परवानगी ना म्हूण कळ्ळें आनी जेन्ना मेळपाक हरकत ना म्हूण कळ्ळें तेन्ना वचपाक मेळ्ळें ना! म्हजेसारक्या शेंकड्यांनी मनोहरबाबांच्या बरें मागप्यांची मनोहरबाबांच्या साहित्याच्या पिशांची ही सासणाची खंत!

मात्र मनोहरबाबांमदलो साहित्यीक-प्रशासक म्हाका

ायजूय साहित्य अकादेमीच्या कोंकणी सल्लागार समितीचो नमंत्रक/अध्यक्ष म्हूण समितीच्या म्हजेसारक्या सामान्य अशा ाजी वांगड्याक मार्गदर्शन करतना केन्ना केन्ना भीडमुर्वतीन ागपी अशा आपलें मोठेपण मिरयनासतना खबरे घेतना ाद जाता, कला अकादमीच्या लोकसंगीत/लोकनाच/ नोकनाट्य महोत्सवांनी लोकसंगीताच्या सुरांत, लोकनाचाच्या ालार आनी लोकनाट्याचे ढबीन आपलें म्हौंवाळ उलोवप रतना लोककलाकार जाल्लो मनोहरबाब नदरेमुखार येता. ोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, अखील ारतीय कोंकणी परिशद, अखील भारतीय कोंकणी साहित्य ंमेलनांनी सपनेल्या कांय खिणांनी मनोहरबाबांची एकूय ात्रा हेवटेन तेवटेन करीनासतना केल्लीं रोंसाळ काव्याच्या उतरांची भाशणां कानांर सादतात तेन्ना मनोहरबाबांनी कितले काव्यसंग्रह रचले, तांका कितले पुरस्कार फावो जाले, तांणी कितल्या संमेलनांनी, परिशदांनी भाशणां केलीं, कितल्या संस्थांची पदां भुशयलीं, प्रतिष्ठित केलीं, म्हज्या गांवांत ते कितले फावट पावले, आमचेमदल्या कोणाचे ते सोयरे बी वेट्ट गजालींक कांय एक अर्थ उरना !

मनोहरबाबां सोबीत कुडीच्या सुंदर तोंडावयलो भुरगेमनाचो निष्पाप, निरागस मुमुरको हांसो, ते कुडींतल्या काळजाचे गर्भकुडींतली सहजतायेन ओंठार आयिल्ली म्हौंवी उतरां, त्या उतरांनी आपसूक गुंथिल्ली सासणाचीं सुभाषिता, पणजी, मुंबय, फ्रांसांतले तकलेंतली विद्वत्ता, बुदवंतकाय, सावयवेरेच्या लोकवेदाचे संस्कृतीन जनसामान्यांत केळोवपाची-खेळोवपाची मनोहरबाबांची कळाशी, मनोहरबाबांक कवीराज करुन गेल्या, आमचेसारक्या रसिकांखातीर लोककवी मनोहरबाब आमच्या काळजांत घर करुन रावल्यात, हेच गजालीक आमचेखातीर अर्थ उरता !

सर्वार्थान आपल्या आपल्या घरच्यांच्या आनी आमचेसयत आमच्या घरच्यांच्या जिविताक अर्थ प्राप्त करुन दिल्लो मनोहरबाब इतलोच हो म्हाका कळिल्लो मनोहरबाब. ●





योगिनी बोरकार

यादींचो पर्मळ

# मनोहरराय सरदेसाय : म्हजो इश्ट

असें म्हणटात इश्टागतीक कसलींच बंदना लागना. इश्टागत कोणाय कडेन करुं येता. इश्टागतीक कोणूच फास्केंत बसोंवक शकना. इश्टागत फक्त जोडपाची आसता आनी इश्टागतीक लागून मनशां. मनोहरबांबाकडेन अशीच इश्टागत करपाची कळाशी आशिल्ली. ताकाच लागून हांव तांचें इश्ट जांवक पावलें.

मनोहरबाबाविशीं कितें आनी कितलें बरोवप व्हडलो प्रस्न मन सुखावपी वाऱ्याविशीं, तान भागोवपी उदकाविशीं कोण कितें बरोवंक शकता व्हय? मनोहरबाबाचेंय तशेंच.

मनोहरबाब वचून तीन म्हयने जाले. पूण तांचें अस्तित्व जाणवले बगर रावना. रेडियोवयली तांचीं गिता, सुनापरान्तात तांच्यो येवपी तिकल्यो आनी माणकुल्यांच्या ओठांर घोळपी 'हडवो ताल्ल बेबो' आयकतकच मनोहरबाब आमचे मदीं आसा हाचो प्रत्यय येता.

दिलीपबाब बोरकारान आपल्या 'बिंब' मासिकांत म्हज्या पुस्तकाखातीर ताणीं बरयल्ली प्रस्तावना छापली. ती प्रस्तावना तांची निमणी आशिल्ली. तांचे प्रस्तावनेच्या रुपान ताणी म्हाका आशिर्वाद दिलो. बाबाच्या पयल्या पुस्तकाक ताणींच प्रस्तावना बरयल्ली आनी आतां म्हज्याय पुस्तकाचो विचारुय तांचोच आशिल्लो. तांका हांव कविता दाखोवंक वतालें तेन्ना ते म्हाका विचारतालें, आतां पुस्तक केन्ना काडपाचें ? तांका जेन्ना हांवे सांगलें कोंकणी अकादमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेखाला धाडलां तेन्ना ताणीं म्हाका एक गजाल सांगली. ते म्हणपाक लागले", पुस्तकाची छापणावळ, टायप, कागद हाचेकडेन खास लक्ष दी. जंय पुस्तकां बरे तरेन छापतात तांचीय नांवां ताणी सुचयलीं. पुस्तक तयार जातकच हांवें मनोहरबाबांक पुस्तक भेटयलें तेन्ना तांणी पुस्तकांकडेन पळयत म्हळें, "पुस्तक बरें जालां. पुस्तकांक प्रस्तावना कोणाची गो?" हांवें म्हळें, "मनोहरबाब, तुमीच बरयल्या." ताचेर ताणीं म्हळें, "परत एक फावट वाचून दाखय. कांय कविता वाच पळोवया." प्रस्तावना आयकतकच म्हणपाक लागले. "बरी जाल्या मुगो." तेदेवेळार मनोहरबाबांचें आरोग्य बरें नाशिल्लें पूण ताणीं व्हडा आस्थेन म्हज्यो कविता आयकल्यो. मनोहरबाबान सदांच म्हज्याभशेन उदेत्या बरोवप्यांक उमेद दिल्या.

कांय फावटीं मजाच जाताली. तांचो फोन येतालो तेन्ना हांव म्हणटालें, "बाबाकडेन दितां आं". जाल्यार ते म्हणटाले, तुजेच कडेन उलोंवक फोन केल्लो. मागीर बरोच वेळ आमच्यो खबरी चलताल्यो. तांचेकडेन उलयतां उलयतां कितल्याश्याच नव्या लेखकांकडेन वळख जाताली. "तुवें हें आयकलां गो? तो असो म्हणटालो." अशें म्हणत ते खूब







योगिनी बोरकार

यार्दींचो पर्मळ

# मनोहरराय सरदेसाय : म्हजो इश्ट

अशें म्हणटात इश्टागतीक कसलींच बंदना लागना. इश्टागत कोणाय कडेन करुं येता. इश्टागतीक कोणूच फास्केंत बसोंवक शकना. इश्टागत फक्त जोडपाची आसता आनी इश्टागतीक लागून मनशां. मनोहरबांबाकडेन अशीच इश्टागत करपाची कळाशी आशिल्ली. ताकाच लागून हांव तांचें इश्ट जांवक पावलें.

मनोहरबाबाविशीं कितें आनी कितलें बरोवप व्हडलो प्रस्न मन सुखावपी वाऱ्याविशीं, तान भागोवपी उदकाविशीं कोण कितें बरोवंक शकता व्हय? मनोहरबाबाचेंय तशेंच.

मनोहरबाब वचून तीन म्हयने जाले. पूण तांचें अस्तित्व जाणवले बगर रावना. रेडियोवयली तांचीं गिता, सुनापरान्तात तांच्यो येवपी तिकल्यो आनी माणकुल्यांच्या ओठांर घोळपी 'हडवो ताल्ल बेबो' आयकतकच मनोहरबाब आमचे मदीं आसा हाचो प्रत्यय येता.

दिलीपबाब बोरकारान आपल्या 'बिंब' मासिकांत म्हज्या पुस्तकाखातीर ताणीं बरयल्ली प्रस्तावना छापली. ती प्रस्तावना तांची निमणी आशिल्ली. तांचे प्रस्तावनेच्या रुपान ताणी म्हाका आशिर्वाद दिलो. बाबाच्या पयल्या पुस्तकाक ताणींच प्रस्तावना बरयल्ली आनी आतां म्हज्याय पुस्तकाचो विचारुय तांचोच आशिल्लो. तांका हांव कविता दाखोवंक वतालें तेन्ना ते म्हाका विचारताले, आतां पुस्तक केन्ना काडपाचें ? तांका जेन्ना हांवे सांगलें कोंकणी अकादमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेखाला धाडलां तेन्ना ताणीं म्हाका एक गजाल सांगली. ते म्हणपाक लागले", पुस्तकाची छापणावळ, टायप, कागद हाचेकडेन खास लक्ष दी. जंय पुस्तकां बरे तरेन छापतात तांचीय नांवां ताणी सुचयलीं. पुस्तक तयार जातकच हांवें मनोहरबाबांक पुस्तक भेटयलें तेन्ना तांणी पुस्तकांकडेन पळयत म्हळें, "पुस्तक बरें जालां. पुस्तकांक प्रस्तावना कोणाची गो?" हांवें म्हळें, "मनोहरबाब, तुमीच बरयल्या." ताचेर ताणीं म्हळें, "परत एक फावट वाचून दाखय. कांय कविता वाच पळोवया." प्रस्तावना आयकतकच म्हणपाक लागले. "बरी जाल्या मुगो." तेदेवेळार मनोहरबाबांचें आरोग्य बरें नाशिल्लें पूण ताणीं व्हडा आस्थेन म्हज्यो कविता आयकल्यो. मनोहरबाबान सदांच म्हज्याभशेन उदेत्या बरोवप्यांक उमेद दिल्या.

कांय फावटीं मजाच जाताली. तांचो फोन येतालो तेन्ना हांव म्हणटालें, "बाबाकडेन दितां आं". जाल्यार ते म्हणटाले, तुजेच कडेन उलोंवक फोन केल्लो. मागीर बरोच वेळ आमच्यो खबरी चलताल्यो. तांचेकडेन उलयतां उलयतां कितल्याश्याच नव्या लेखकांकडेन वळख जाताली. "तुवें हें आयकलां गो? तो असो म्हणटालो." अशें म्हणत ते खूब





कितें सांगताले. एक दीस ताणी असोच फोन केलो आनी म्हणपाक लागले, "तूं घर ह्या विशयार खडीसाकर कित्याक बरयना?" हांवें म्हळें, "मनोहरबाब, ह्या विशयार खडीसाकर आयल्या आसतली." ताणी म्हळें, "कांयच हरकत ना. तूं बरय. तुका जाय जाल्यार कांय गजाली हांव सांगतां." अशें तरेन ताणीं म्हजे कडल्यान 'घर' ही खडीसाकर बरोवन घेतली. तांच्या उलोवपांतल्यान एक गजाल सदांच जाणवताली. जें सगळे करता तेंच जरी आपणे केलें जाल्यार हरकत ना पूण तातूंत आपलें वेगळेंपण आसपाक जाय. मनोहरबाबाचें वेगळेपण निमाणे मेरेन उरलें.

मनोहरबाबांचो स्वभाव ओडलायणो आशिल्लो. तांगेर केन्नाय गेल्यार ते माईक उलो मारताले, "हे, कोण आयलां पळय" तांचो आवाज आयकतच माई येताली आनी सुंदर हांसत खबर घेताली. कितें करता? अभ्यास कसो चल्ला? ही खबर घेतले उपरांत ती रांदचीकुडीत वताली. तितले म्हणसर मनोहरबाब वेगवेगळ्यो गजाली सांगताले. मनोहरबाबाच्यो गजाली आयकता आयकता माईन केल्ल्या च्याचो घोंट घेवप जातालें. माई सदांच म्हणटाली, "तुमी कोणी येतकच हांचें च्या घेवप जाता. केन्नाय चुकून साकरेचो च्या मेळ्ळो जाल्यार ओग्गी पिता. सांगना." मनोहरबाब मात तिचें उलोवप आयकूंक येंवंकनाशिल्ले भशेन करी आनी साकरेच्या च्याचो घोंट घेत घेत दोतोरांचेर केल्ले विनोद सांगीत रावतालो. कांय वेळा पयली मनोहरबाबाची कागाळ सांगपी माई हांसपाक लागताली.

एक गजाल मुजरत बरयन दिसता. मनोहरबाबांकडेन उलयताना वयाचो फरक जाणवनाशिल्लो. ताचें कारण म्हळ्यार मनोहरबाबांची दुसऱ्यांचें मत समजून घेवपाची तांक. खंयच्याय विशयार तांचे कडेन उलोवपाक, भंय जांव मनाचेर चेपण दिसनाशिल्लें. खंयची गजाल तांका आवडली जाल्यार ते मुजरत दाद दिताले आनी विचारांचो घुस्पागोंदळ जाला अशे जाणवलें जाल्यार तें अचळय घुस्पल्ल्या गांठीभशेन सोडयताले. म्हजी कविता घेवन तांगेर वतालें तेन्ना हो अणभव म्हाका येतालो. कित्याक कोण जाणा पूण ताणीं सुचयल्लो बदल समजतालो आनी पट्टालो. पूण तांचे सदांच सांगप आसतालें, "म्हाका हो शब्द हांगा बरो दिसता. तुका कसो दिसता तो पळय. बरो दिसलो जाल्यार घे." आपलें मत ताणी केन्ना कोणाचेर लादलें ना. फक्त मत सांगलें. तांच्या ह्याच स्वभावाक लागून परतून परतून तांचेकडेन उलयन दिसतालें.

बरयताना जर एकाद्र्या शब्दाची आडखळ आयली जाल्यार आमी मनोहरबाबांक फोन करतालीं. सगळो आशय समजून ते ज्युस्त जाप दिताले. खऱ्यानीच मनोहरबाब म्हळ्यार विश्वकोशाभशेन आशिल्ले.

मनोहरबाबांच्या व्यक्तिमत्वाक कितलीशींच ताम्प आशिल्लीं. दुसऱ्यांचे फक्त बरे गूण तांका दिसताले. घडये चुको काडपाची नदर तांका दिवपाक देव विसरिल्लो. दुसऱ्यांक सदांच उर्बा दिवपी मनोहरबाबान आपले नांव जावचें म्हणून घडपड केली ना. कोंकणीची सेवा करीत रावले आनी आपल्यागेर येवपी प्रत्येक मनशाचेर निस्वार्थ मोग.

मनोहरबाबांक माईचो सांगात तसोच मेळ्ळो. सगळ्याकडेन आपुलकेन उलोवपी माई म्हळ्यार खऱ्या अर्थान मनोहरबाबाली अर्धांगिनी. सद्दां कितलेशेच लोक येता आसतले तांगेर पूण माई म्हाका केन्नाच वाजेल्ली दिसली ना. सदांच हांसत्या मुखान येवकारपी वासपूस करपी माईन मनोहरबाबांक सांगात दिलो. आज मनोहरबाब गेले उपरांत माई खूब एकली दिसता. भोवतणी सगळीं आसून लेगीत ती एकली आसा. मनोहरबाब वता वता तिच्या तोंडावयलो हांसोय आपल्या सांगाताक घेवन गेले काय दिसता.

मनोहरबाबाकडेन आमची इश्टागत तीन पिळग्यांची. आल्मेदा स्कूलांत ते आज्याचे इश्ट आशिल्ले, मागीर बाबाचे आनी आता म्हजे ही इश्टागत केन्नाच न विसरपासारकी. घडये हेच इश्टागतीकलागून म्हाका मनोहरबाबांच्या निमाण्या संस्काराक वचपाचें बळगें आयलें. त्या दिसा आमचे भितर एक नवे नातें जुळ्ळें. वतां वतां मनोहरबाब म्हाका धीर दिवन गेले. जिणेचें सत शिकोवन गेले.

ताळगांवा, घरा वतना चुकनासतना म्हजी नदर मनोहरबाबाल्या घराकडेन वता. केन्नाय माई दिसता. एका जाग्यार तिची नदर थिराविल्ली आसता. तिचे रिते दोळे कोणाची तरी वाट पळयत आसता. कोणाची काय? मनोहरबाबालीच बी न्हय मूं?



उमेश म. सरदेसाय



यार्दीचो पर्मळ

# म्हजो बापुय मनोहरराय

**२२** जून २००६ दिसा बाबा गेलो. आनीक जाय जाय सो जावन गेलो. आसप आनी नासप ह्या उतरांचो भेद पावला-पावलाक जाणवपाक लागलो. असंख्य लोकांनी दुःख आनी खेद परगटायलो. जिविताच्या प्रवासांत ताणीं साहित्यीक आनी शिक्षणीक मळार केल्लो वावर आनी लोकांचेर केल्ल्या उपाट प्रेमाची पावती तांका मेळ्ळी अशें दिसलें.

म्हजो आनी बाबाचो सांगात ३९ वर्सांचो. बाबाक सदांच एक दुहेरी दृष्टीकोनांतल्यान पळयत आयलां. एक बापूय म्हूण आनी अेक व्हड व्यक्ति म्हूण. जाका इतल्या लागीच्यान अणभवला, बरोबर जीण जगला, ताज्यो सगळ्यो यादी सांगप शक्य ना. इतल्या वर्सांचो सहवास दोन-तीन पानांभितर बंदीस्त करप कठीण. चडश्यो यादी बापूय-पुताच्या संबंदाक धरुन आसा. हांव भुरग्यांमदीं तिसरो आनी निमाणो. व्हडलो भाव आनी मदली भयण. म्हजो जन्म जालो तेन्ना एका सोयऱ्यान 'हो आनी कितें खावंक जाला' अशे म्हणिल्लें खंय! बाबाक ताचो खूब संताप आयिल्लो. हाली तेंपार म्हाका बाबा कौतुकान 'तूं जावन बरो जालो रे' अशें केन्नाय म्हणटालो. म्हज्या भुरगेपणातसावन बाबाक सरस्वतीच्या सेवेंत पळयला. व्यवसाय शिक्षकाचो आनी बाकीचो खुबसो वेळ तो साहित्य साधनेंत मग्न आसतालो. घरांत बाबाचो कांयच बोवाळ नासतालो. सदांच शांत, थंड आनी आपले आपूण गरजेपुरतो उलोवपी. चुकून तापपी. लोक घरा आयले की फुलून उमेदीन वागपी. चार-चौगांत वा माचयेर ताज्या व्यक्तिमत्वात जाल्लें रुपांतर पळोवन म्हाका अजाप दिसतालें. भाशणावेळार ताळ्यांचो कडकडाट जातालो तेन्ना होच तो आमचो बाबा काय प्रश्न पडटालो.

बाबा एक असाधारण कार्यांत गुंतला अशें पयलीच्यान खंय तरी जाणवतालें. केन्ना केन्नाय मनांत चलिल्ल्या संघर्शाची जाण जाताली. ते कोंकणी चळवळींतले खर दीस आसूंये.

पयली आमी मडगावां रावतालीं. शाळेच्या स्नेहसंमेलनात वा कसल्याय समारंभांत मुखेल सोयरे म्हूण बाबाक मुजरत आपोवन व्हरताले. तशेंच खूब फावटी बाबाकडल्यान कोंकणी नाटकुलें बरोवन हाड अशी शिक्षकांची मागणी आसताली. हांवें मागीर बाबाच्या फाटीक लागून नाटकुलीं बरोवन घेंवचीं 'अकलेचो कांदो', 'केलें तुका जालें म्हाका' ही नाटकुली बाबान म्हज्याखातीर बरयल्लीं. त्या नाटकुल्यांत हांवें मुख्य भुमिकाय केल्ली म्हाका याद आसा. बाबा तेन्ना चौगुले कोलेजींत शिकयतालो. बाबाचें शिकोवप विद्यार्थ्यांक

खूब आवडटालें. फ्रेंच विशय न घेतिल्ले विद्यार्थी सुध्दा बाबाल्या वर्गांत येवन बसताले खंय. बाबा कॉलेजींत नाटकां बरोवन तीं बसयतालो. येसायांक आमकां बरोबर व्हरतालो. खूब मजा येताली. कितल्याश्याच फावटीं, मेळिल्ले लोक म्हाका बाबाले पद म्हणून दाखोवपाक सांगताले. हांव मागीर 'जिवित आमचें अशें' सिनेमांतले एक पद म्हणून दाखयतालों तें याद जाता. कांय कारणाक लागून बाबान मागीर चौगुले कोलेज सोडलें आनी मुंबय विद्यापीठांत विदेशी भाशा विभागाचो प्रमूख म्हूण नोकरी धल्ली. कांय वर्सां आमची ताटातुट जाली. केन्ना बाबा घरा येतासो जातालो. नेमान आमकां पत्रां बरयतालो. हांवूय अदीं-मदीं बरयतालों. बाबाक त्या वेळार 'पिसोळी' ह्या काव्य संग्रहाखातीर साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. बाबान इनामाचे पांच हजार कोंकणी भवनाक दान केले. तेन्ना हांवें बाबाक पत्र बरोवन, पुरस्काराविशीं खोस उक्तायल्ली आनी रक्कम दिवपाक म्हजी 'फुल्ल' परवानगी आसा अशें कळयल्लें. हे म्हज्या फुल्ल परवानगीची बाबा अजुन केन्नाय याद काडटालो.

बाबाकडेन एक slide projector आशिल्लो. तातूंत 'हाथी मेरी साथी' 'आनंद', 'परवाना' ह्या सिनेमांच्यो slide आमकां दाखयतालो. परत परत पळोवन लेगीत तान भागनाशिल्ली. राजेश खन्ना हो नट बाबाचे भोव आवडीचो. ताजेभशेन अभिनय कोणाचकडेन जमना अशें बाबाचें ठाम मत आशिल्लें.

बाबांक भुरग्यांची खूब ओड. दुसऱ्यांच्या भुरग्यांची तो तितलीच माया करतालो. म्हणटालो भुरगीं आपलीं आनी दुसऱ्यांचीं म्हूण नासता. सगळ्यांच भुरग्यांची माया आनी कौतूक करपाक जाय. ताच्या भुरग्याविशीं आशिल्ल्या नितळ प्रेमाक लागुनूच आसत ताणे रचिल्लें बालसाहित्य भुरग्यांच्या मनांत घर करुन रावलें.

१९८३ वर्सा बाबा गोंय विद्यापीठांत आयलो आनी आमी मडगांव सोडून पणजे रावपाक आयलीं. त्याच सुमाराक म्हजी भयण माया आनी हांव बरोवपाक लागिल्लीं. प्रत्येक कविता बरयतकच, सगळ्यांत पयलीं बाबाक दाखयतालों. शुध्दलेखनाच्यो चुकी बाबा नदरेक हाडटालो पूण तोखणाय करपाक खंयच उणो पडनाशिल्लो. म्हजे कवितांची प्रत जपून दवरतालो. आमी पणजे रावपाक आयली तेन्नाची एक गजाल याद जाता. बाबान डॉक्टरेट केल्ल्यान नांवा फुडें 'Dr.' लायतालो. आमच्या फुडल्या फ्लॅटांत दोतोराचो दवाखानो आसा. दोतोर नासत जाल्यार आमच्या दाराचे नामफलकाचेर वाचून, दुयेंत केन्नाकेन्नाय बाबाकडेन येवन तपास म्हूण आग्रो करताले. आपूण तसलो दोतोर न्हय अशें बाब समजावन सांगतालो. पूण तांका कळनासलें. अशें बरेच फावटीं जालें. शेवटीं बाबान, नामफलकांतले 'Dr.' हें उतरुच पुसुन उडयलें.

बाबाचें साहित्याचेर अतिशय प्रेम, आपल्या पुस्तकां, फायलींचेर खूब मोग. आमी तांतूत मेतेर जाल्लें ताका आवड नाशिल्लें. एकदां हांवें सुचयल्लें की व्यवस्थीत मांडावळ करुया. बाबाक विचार मानवलोना. म्हणूंक लागलो, 'सद्या जी तकलेन मांडावळ आसा तीच आसूंदी, म्हाका खंय कितें आसा तें जुस्त खबर आसा.'' दिसलें, बाबालेय सारखें. बाबाची चडशी साहित्य सामग्री, कागदपत्रा सैरभैर पडिल्ली आसताली. सगळें व्यवस्थीत आसल्यार स्फुर्ति येवप कठीण जाता अशें म्हणटालों. बाबा सगळ्या थरांच्या लोकांकडेन एकसमान वागतालो. केन्नाच भेदभाव केल्लो वा कोणाक उणाक लेखिल्लो हांवें पळोवंक ना. आपणाक दुखयल्ल्या लोकांकडेन सुध्दा क्षमा-भाव दवरुन वागतालो.

जुलय २००५ च्यान बाबाची प्रकृती खालावेल्या भशेन जावपाक लागली. तरी आर्दामावन बाबा आरोग्याची योग्य काळजी घेत आयिल्लो. योग, प्राणायम, व्यायाम, चलप अदींमदीं करतालो. आरोग्याची व्हड तक्रार अशी नासताली. पूण ह्या वर्सभरात कितलेशेच फावटीं हॉस्पीटलांत व्हरचो पडिल्लो. दर फावटीं ताच्या जबरदस्त इच्छाशक्ती आनी जगपाचें जिद्दीक लागून, बरो जावन घरा परततालो. दोतोर ताका fighter म्हणटाले. आंगान तितलीशी शक्ती उरुं नाशिल्ली, उजवो हात सारखो चलनाशिल्लो. एका बरोवप्याचो उजवो हात चलना जावप हें दुर्दैव. बाबाक आपणे खूब बरोवचें अशें दिसतालें. तशेंच पुस्तकां, मासिकां, फायली चाळपाची पयलीसावन संवंय आशिल्ली. ताची इत्सा आतांच जाताली. ताजे असहाय्यपण म्हाका समजतालें. हांवें बाबाक आंगलें, 'तुंजी सगळी कामां हांव करतां' हांवे केल्लें बाबाक

ानवतालेंय बी. ताका खंयतरी दिसतालें कि अर्दवट उरिल्ली ामां जाग्यार घालूंक जाय. हांव केन्नाय बाबाक म्हणटालों ी तुजें साहित्य पुस्तक रुपान जितलें प्रसिध्द जावपाक ाय आशिल्लें तितलें जावंक ना. बाबान स्वताखातीर ुडाकार घेवन कितें केल्लें हांवें केन्ना पळोवंना. आपली ानीक नामना जांवची, पुरस्कार मेळचे ह्या भावने पेल्यान े केन्नाच पाविल्ले हें हांव जाणा आशिल्लों. तरी हांवें ाबाच्यो मराठी कविता पुंजावत प्रकाशाकडेन धाडून दिल्यों. ंगीत माझे अंतरंग' हो काव्यसंग्रह अशे तरेन उजवाडा ायलो. घरांत ल्हानसो प्रकाशन सुवाळो दवरलो. एक राखातीर जायना, खूब तेंपान साहित्यीक मंडळीच्या सांगातान ेळ सारोवंक मेळिल्ल्यान बाबा आनंदीत आशिल्लो. हांव ात बाबाक पेलत कांय ना ह्या हुसक्यान आशिल्लों. ार्यक्रम जातकच बाबान ज्या खोशेन 'पोपू, तुज्या खातीर ालें रे' म्हणलें तें हांव केन्नाच विसरुंक शकना. ह्याफुडे काशीत जावपाआशिल्ल्या कोंकणी काव्य संग्रहाक बाबान ंबर एक कविता कांय म्हयन्याफाटी दिल्ल्यो. म्हाका तांचो ांकडो खूब उणो दिसलो. हांवें विचारलें 'इतल्योच'? ाबान म्हणलें, आनीक आसूं येता पूण खंय पडल्या म्हाका खबर ना? कांय दीस सारुन जेन्ना हांवें बाबाल्यो जळींमळीं पडिल्ल्यो आनीक सुमार दोनशें कविता पुंजावन प्रकाशनाक दिल्यो तेन्ना बाबाक खूब समाधान दिसलें.

दुयेंत आसून लेगीत बाबाक हांवें उबगल्लो पळोवंना. अशक्तपणाकलागून सारखें चलपाक जमनाशिल्लें. सकाळी आनी सांजे घरांत पासय मारतालो. आपूण बेगच्या बेगीन बरो जांवचो अशें ताका दिसतालें. आमी घरचीच बी ताजो आत्मविश्वास वाडोवपाचो यत्न करतालीं. चलोवन व्हरतना, म्हाका आनी माईक आपलो हात सोड म्हूण हट्ट धरतालो. कांय घेंपां आदाराशिवाय घालतकच ताका आपणे प्रगती केल्ल्याचें सूख मेळटालें. सालांत पासय घेतना म्हाका म्हणी, "इश्काद देवन सकल वचून येवया रे" "आनी थोडे दिसांनी या' अशें म्हणून टाळटना मनाक चर्र जातालें.

हांव आपली काळजी घेता, तशी दुसऱ्याचीय बरी सेवा करुंक शकतलो म्हूण हांवे हॉस्पीटल चलोवंचे असो किदेंसो विचार बाबाच्या मनान घोळटालो. खूब जाणाकडेन



## माया म्हणटा .....

**एका गुणेस्त आनीस मोगाळ मनशागेर जल्माक आयलें म्हूण हांव खूप भाग्यवंत! म्हजो बापूय, बुदवंत, गिन्यानी आनी मोलादीक विचारांचो धनी म्हूण जेन्ना म्हाका जाणवलें तेन्ना हांव कितले गिरेस्त तें म्हाका कळळें.**

**म्हज्या बाबान म्हजें कौतुक आनी उपाट माया केल्ल्या खातीर म्हाका म्हजें भुरगेपण केन्नाच पयस दिसलें ना. तशेंच, आमच्या प्रत्येक भेटींत बाबा वांगडा खोल, व्हड आनी गोड उतरांची तशीच अणभवांचीं सपणां चडटतना म्हाका शाणें आनी जाण्टें जांवचेंच पडलें.**

**बाबान म्हजो हात मदींच सोडलो ... तरी लेगीत ताणें म्हज्या फाटीर व्हडल्यान मारील्लें तें धीराचें थापट म्हाका वाट कशेंच चुकुंक दिवचें ना ही खात्री आसा.**

**सौ. माया द. सरदेसाय**

उलोवनुय दाखयतालो. हांवें म्हणलें, 'हांव इंजीनीयर, दोतोर न्हय'. 'हय रे, पूण तुका दोतोराभशेन गूण आसा.' अशें तो म्हणी. हांवें खूब बरोवचें अशें ताका दिसतालें. हांवें आनी मायान बरोवंक सुरवात करुन मदींच सोडलें हें ताका मानव नाशिल्लें.

साहित्य घडोवपाच्या वावराक ताणे सदाच प्राधान्य दिलें. बाबा सुमार धा भाशा जाणा आशिल्लो. कोंकणीत सगळ्यांत चड बरयलें. फाटली कांय वर्सा सुनापरान्ताक तिकली बरयतना ताका खूब उमेद जाताली. बरोवन जातकच म्हाका आनी माईक वाचूंक दितालो. तुका बऱ्यो दिसता त्यो धाडून दी अशें म्हाका सांगतालो. हॉस्पिटलांत लेगीत मात्शें बरें दिसतकच तिकल्यो बरोवन घे म्हूण सांगतालो. म[...] आनी बाबाचे खूब लागींचे सबंध. आमच्या दोगांय[...] स्वभावांत खूब साम्य आशिल्ल्यान ताका समजूंक म्हा[...] सोंपें पडटालें. वयामानान ल्हान आसून लेगीत म्हा[...] विश्वासांत घेवन कांय गजाली म्हजेकडेन उक्तेपणान उलयता[...]

बाबा आपली जीण सादेपणान आनी तृप्त भाव[...] जगलो. तो केन्नाय म्हणटालो 'जाचे स्मरण जाता ता[...] मरण ना.' बाबाचो अभाव आमका भासतलोच पूण आपल[...] कविता, गितांवल्यान आनी आमच्या स्मरणांतल्यान बा[...] सदाच जिवो उतरलो.







यादींचो पर्मळ

कुमुद भिकू नायक

# कांय यादीं – काळजांतल्यो . . .

मनोहरबाबांकडे म्हजीं प्रत्यक्ष वळख जाली १९९३ वर्सा. त्यान पयली हांव तांकां फकत पळोवन जाणां आसलें. सौ. पुंडलिक नायक हें कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष आसलें तेन्ना हांव अकादेमीत तात्पूरते कारकून म्हूण रुजू जाल्लें. ते वेळार मनोहरबाब कोंकणी अकादेमीत कोंकणीच्या वावरांखातीर आतऱ्या पयऱ्यान येतालें

ऑफिसात काम करताना कितें तरी विचारपाखातीर हांव मनोहरबाबांकडे गेल्लें ताणीं मायेस्तपणान 'यो कुमूद, बस अशें म्हणून येवकार दिलो. म्हजी आस्तेन चवकशी केली. कुटूंबातल्या मनशाची खबर घेवची तशीच म्हजी खबर घेतली. ऑफिसातल्या कामाक लागून मनोहरबाबांकडे अकादेमीचे कर्मचारी या नात्यान संबंद येतालोच. एक दीस उलयता-उलयता ताणीं म्हाका म्हळें, "कुमूद, हे ऑफिस म्हळ्यार हेर सरकारी ऑफिसासारकें न्हय. हें कोंकणी मनशाचें घर. या घराचो सांबाळ बरे तरेन तुमी करपाक जाय. तू आयज हांगां थोड्या दिसा खातीर आयलां. या थोड्या दिसांत अशेतरेन काम कर म्हणजे जेन्ना या ऑफिसाक कायम स्वरुपाचे कर्मचारी भरती जातले तेन्ना तुकांच घेवचें अशें अकादेमीच्या जाळवणदारांक दिसू दी. मनोहरबाबांची ही मायेस्त आनी फुडाराची सुलूस दिवपी उतरां म्हज्या काळजांत रिगली. त्या उतरांचो सांबाळ हांव आयजवेर करित आयलां.

अकादेमीत काम करतानां, कोंकणी बरयतना कशी जतनाय घेवंक जाय हें मनोहरबाब म्हाकां सदांच सांगताले, बरयतना शुध्दलेखनाची योग्य जतनाय घेतलीना जाल्यार उतरांचो कसो अनर्थ जांव येता हाची देखी दिवन समजायताले याच कारणाक लागून घडये हांव कोंकणी बरेतरेन बरोवक लागलें जांवये.

अकादेमीत कायम स्वरुपाचें नोकरेक जेन्ना हांव रुजूं जालें तेन्ना मनोहरबाब केन्ना-केन्नाय अकादेमीत येतालें तेन्ना त्यांचे मेळप जातालें. कोंकणी कार्यावळींनी मनोहरबाबा बराबर माईंचे मेळप जाताले तेन्ना तांचेकडेन उलोवंक मेळटालें ते काळजांत खोस दिणें खीण आसतालें.

_मनोहरबाब दुयेंत पडलें आनी तांचें मेळपूय खूब उणें जालें. हालिसरां तर ते चड दुयेंत आसले. तांकां एकदांतरी मेळून येवचें अशें सदांच मनाक दिसताले पूण मेळपाक दोतोरानी मनाय केल्ल्यान मेळपाचें उरलें.

आनी निमणें २२ जुनाक मनोहरबाब आमकां सगळ्यांक सोडून गेल्ल्याची दुखेस्त खबर आयली. प्रेमळ मनान गोड उतरांनी म्हजी सदांच आपलेपणान खबर घेवपी मनोहरबाब या संसारातल्यान पयस पयस गेले.... केन्नाच परत न येवपाखातीर... ◆



# DIRECTORATE OF PANCHAYATS
## PANAJI - GOA.

Directorate of Panchayats plays grant role in Development Works of Panchayats and Zilla Panchayats in rendering financial assistance to 190 Village Panchayats and 2 Zilla Panchayats under following schemes.

1) Impart training to Officials / Non-official members of Village / Zilla Panchayats and awards to Village Panchayats.
2) Grants to weaker Panchayats to strengthen their administration.
3) Grants to weaker Panchayats in lieu of Octroi.
4) Financial assistance to Village Panchayats for infrastructure development.
5) Special grants financial assistance for payment of salaries to Sarpanchas, Dy. Sarpanchas and directly elected members of Village Panchayats as also to co-opted members.
6) Grants to Zilla Panchayats for infrastructure development.
7) Development of house sites to landless families.
8) Loans to Village Housing and Repairs.
9) Loans to Panchayat Raj Institutions for remunerative schemes.
10) Infrastructure development of Villages.
11) Rural Garbage Disposal.

---

*सर्गेस्त डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या उगडासाक आमचें नमन.*



# मावजो फोटो स्टुडियो

(स्थापना १९३६)

**मडगांव - गोंय.**



चारुशीला यशवंत कामत

यादींचो पर्मळ

# कांय यादी - सासणाखातीरच्यो

एखादें नवें क्षेत्र, त्याखिणांक अनुभवाची पाटी शुन्य पूण प्रामाणिकपणान आनी अभ्यासू वृत्तीन पावल घालपाची धडपड आनी जोडीक आत्मविश्वास म्हजी स्थिती अशीच आशिल्ली. ग्रॅज्युएट जाल्याउप्रांत अचकीत आकाशवाणीचेर निवेदकाच्या जाग्याखातीर मुलाखत दिली आनी म्हजी निवडूय जाली. तेन्नाची ही म्हजी मनस्थिती. तशें पळोवंक गेल्यार आकाशवाणींचे आनी म्हजें नातें भुरगेपणासावनचें पूण आतां परिस्थिती वेगळी आशिल्ली. एखाद्या कार्यक्रमांत भाग घेवप आनी आतां स्टाफ म्हूण म्हजी जाल्ली नेमणूक. अशा वेळार खूप जाणांचें प्रोत्साहन मेळटालें, शाबासकी मेळटाळी आनी आशीर्वादुय.

हेच वळेरेंतलें ठळक अशें नांव दोतोर मनोहरराय सरदेसाय हांचें. हांवें सादर केल्ली कार्यावळ वा निवेदन, ताचें कौतूक करपी ताणीं धाडिल्ली चीट, म्हजेखातीर तो अप्रूपाचो खीण. तांणी म्हाका धाडिल्ल्यो चिटयो हांवें सामाळून दवरल्यात. खंयचेय कार्यावळींत तांच्या अस्तित्वाची सासाय हांव आयजुय अणभवतां. खंयूय मेळूं, प्रोत्साहन दिवपाक तांचो उलो आनीक आगो, हालीं तुवें बरोवंक ना गो ?' हीं तांची उतरां कानांत घुमतात. गोंय सरकारान घडोवन हाडिल्ल्या पयल्या आनी दुसऱ्या राज्य चित्रपट महोत्सवातलें म्हजें निवेदन आवडलें म्हूण स्वत: बरोवन ताणीं धाडील्ल्यो चिटी म्हजोखातीर खूप कितें आसात. याद दवरुन ताणीं म्हजी घेतिल्ली दखल, तोखणाय करुन दिल्लो आशीर्वाद, तांची --- म्हजेखातीर अनमोल अशी देण.

काम करपाची उमेद दोट्टी करपी तांच्यो ह्यो चिटी, म्हाका त्यावेळार एक वेगळो आत्मविश्वास आनी आदार दिवन केल्यो आनी दित आसात.

अनेक कार्यक्रमांत आमची भेंट जाताली. निमाणे हांव तांका मेळ्ळें तो कार्यक्रम आशिल्लो श्रीमती चंद्रिका पाडगांवकर हांच्या "चान्नें म्हज्या आंगणांत" ह्या कविता संग्रहाच्या प्रकाशन सुवाळ्याचो. तोंडभर हासत, 'आगो, कशें आसा?' अशें म्हणत ताणीं केल्ली म्हजी वासपूस आनी सांगातान सदांभशेनुच आशिल्ली हांसत्यामुखाची माईं. एखादे कार्यावळींत निवेदकाचो उल्लेख खंयच्याय वक्त्यान करप अशें सहसा जायना पूण प्रत्येक वेळा ह्याय दिसा म्हज्या निवेदनाचें कौतूक करीत म्हज्या नांवाचो ताणीं केल्लो उल्लेख. म्हज्या कानांत तांची उतरां आनी तांचो आवाज तश्याच्या तसोच आसा.

निमाणे तांचें अक्षर म्हाका पळोवंक आनी वांचूक मेळ्ळें तें श्रीमती सुधा लवंदे हांच्या ओवळां पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्यावेळार. ताणीं बरौवन धाडील्लो संदेश वाचतनां ह्या

कार्यक्रमाचें निवेदन करतनां, तांचो संदेश वाचतनांचो म्हजो अनुभव, जशीं तांची उतरां मनांत घर करुन आसात तेच परी तांचें अक्षरुय. मनोहरराय सरदेसाय एक आदरणीय व्यक्तिमत्व. तांच्या भेटीचे कितलेशेच प्रसंग, ह्या सगळ्यांची ध्वनीमुद्रणां आयजूय काळजांत ह्यानी मनांत फीड केल्लीं आसात, काळजीपुर्वक सेफ

तांचो आशीर्वाद म्हज्या सांगातान आसा,

म्हजी हीच अनुभुति.... दर एका खिणांक सासणाखातीर....

## मनोहररायालीं चारुशिलाक आयिल्लीं दोन पत्रां

म. ल. सरदेसाय
A3, Vanarai
AV Teoflco Bra6A
Talei Goa - 403 003
Ph. : 220955
18/7/2000

*प्रिय चारुशीला,*

*दोन उतरां बरयन दिसलीं. आठ जुलयक जाल्ल्या गोंय फिल्मोत्सवाच्या दवाज्यांत सगल्यांत बरी कार्यावळ म्हळयार तुगेलें निवेदन. पूण 'The Navhind Times' पत्राच्या अंकांत तुजे कार्यावळीचो मातूय उल्लेख दिसलो ना. सुनापरान्तातूय एकूच वळ. हाचेवेल्यान आमच्या पत्रकारितेची कल्पना येता. दूरदर्शनांत लेगीत तुजें चडशे दर्शन जालें ना.*

*तुजें निवेदन आमकां सगल्यांक मानलें, रुचलें. स्पश्ट उच्चार, सादे, सरळ विचार, जाय तितलेच हावभाव, नाटकी पणाचो अभाव, फाव तो संदर्भ आनी गोड आवाज हांका लागून तुजें उलोवप मनाक मोहीत करुन गेलें. उपदेशाचें निवेदन आवडलें.*

*तुका मनापासून परबी*

*बरें मागून,*

[signature]

म. ल. सरदेसाय
A3, Vanarai
AV Teofilco Bra6A
Talegoa - 403 003
Ph. : 220955

*प्रिय चारुशीला*

*तीस मेचो Goa Film Festival चो दबाजो अप्रूप जालो. त्या येसाचो बरोच वांटो तुका वेता. तुजें निवेदन सोबीत-सुंदर प्रमाणबद्द आनी मोहक अशें जालें. तुजें उबे रावप, जाय तितलेंच उलोवप, हयन्हयशें हांसप हाका लागून दबाज्याक फाव तें वातावरण निर्माण जालें. उतरांय तालबद्द, संगीतमय आशिल्लीं. तुजे कडल्यान अश्योच मनभुलोवण्यो कार्यावळी पळोवंक/ आयकूक मेळच्यो हीच इत्सा.*

*तुवें M. A. करची ही इत्सा. तुका कितें पुस्तकां/ नोट्स जाय जाल्यार दितां. थोडो अभ्यास केल्यार कोर्स तितलो कठीण ना.*

*बरें मागून,*

[signature]



रश्मिरथी

यादींचो पर्मळ

# तिकली जाली गंगोत्री

सह्यागिरीच्या माथ्यावयली
स्तब्ध जावची सरिता
मनोहारी ती शब्दशारदा
मोनी जाली कविता
आज मनोमनीं रडटा
ती मूक रडणें रडटा...

उमाळ्यांचो त्या आफडून गाज
म्हदाय मायेची धवळ्ळी याद
व्हांवतेक खांवटें दुख्खाबांद
उफाळून आयलो अंतर्नाद:
'मांडवी, तूं आटली गे! आज
मांडवी तूं आटली...!'

हांबेरान गोंयची शाबुद्द सरली
सरस्पतीची स्रश्ट अरसली
कोंकणी मायेची वतां चिनारी
कवी मदलशिची रयाच शेणली
फाटीं उरलीं कवनां
निखटीं - फाटीं उरलीं कवनां

हड्डें फोडून तीं घालती साद,
'भावा! म्हाका आसा रे, याद
अठरा जुनाचो शिंवा-साद
तस्सो निरंतर आनेक उगडास
शणैमुखांतलो अस्मितायनाद
आतां मात... एक दुखेस्त याद.....
जुना-जुनांत तुजी दुखेस्त याद!'

मनाक येवजता घडी-घडी
कोण सादयत आतां धोलार बडी
झडयत नबत आमची काडूंक किरी
कोणाली आळयत सुयेबायेक वाणी?
सांग, गोंया तुज्या मोगाखातीर
पिसोळीं जायो जुयो शिंवरीत

गायतलो कोण आतां सैमागाणीं
आनीक रंगयतलो कीर्तन काणी
एकसुऱ्या सांतोणीच्या मुळांत ?
किण्ण सांतोणीच्या मुळांत....!
बाबुचें लग्न जावं बेव्याचें काजार
कशें जातलें आतां कोंकणी मांडार
जाण्टयां-नेण्टयां वांगडा मोनजात
माडी-माड कुळागरां हुंडकेतात
हुंडकेतात उक्त्या मळ्यार
तुजे विणें उकत्या मळार!

कवींलो कवी तूं मनोहरराया
वाचासुंदरा कवीवर राया
तुजेशीं असली तिकली रंगली
तुजेविणें दिसलें तिकली भंगली
सरस्वती परी सासाय लिपिल्ली
सुरान स्फुरयता नवी मांडवी
तिकली जाली गंगोत्री, तुजी
तिकली जाली गंगोत्री !

**(भौ. दो. स. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या निर्मळ उगडासाक आनी श्री. संतोश महाले सारक्यांच्या तिकलेंतल्या नव्या आंकरेक सादर अर्पण.)**



स्मिता हेदे संझगीरी

# मामाचें घर

म्हज्या मामाच्या घरा
तोखणायेचो वारो
येतल्या वतल्याक खुश करुंक
मामीचो हांसोच पुरो

म्हज्या मामाच्या घरा
बँगेन भल्ल्यात चॉकलेटी
तांचेर दोळे दवरुन
आमच्या भावंडांच्यो उचापती

म्हज्या मामाच्या घरा
सगळ्याक चितारल्यात चित्रां
रावणावांगडा श्रीकृष्णाय
वण्टीचेर गायता गितां

म्हज्या मामाच्या घरा
लेसाचे उंदीर
वेण्यांचे आवाज काडत
मामाय आमचो सांगाती

म्हज्या मामाच्या घरा
पुस्तकांच्यो राशीच राशी
कवनांचेर कवनां म्हणत
ओपूरबायेचो हात फाटीर

म्हज्या मामाच्या घरा
तापप-आड्डप वर्ज्य
नात्यागोत्यान घुस्पल्ल्या मामीक
म्हज्या नातोळोजीन रस

उतरांचे पेटोवन दिवे
आर्गां आयज ओंपना हांव
मागतां देवा दर जन्माक
होच म्हजो मामा जांव !

# हात

*व्हडल्या हातांनी म्हजे ल्हान हात धरले*
*तेन्ना तांचें सानपण ना जालें*
*आतां हात व्हड आसात*
*पूण रिते. ---*
*यादींचें कंवळें मुठींत घट्ट आवुळटलें*
*तेन्नाच घडये ह्या हातांतल्यान*
*थोडें तरी रकोंवंक मेळटलें!*

**- सौ. माया द. सरदेसाय**



मनोहरराय हांच्या सांगता
दाविकडल्यान भौ. शांताराम वालावलीकार, चित्रकार- लक्ष्मण पै, भौ. नारायण मावजो, दो. काशिनाथ महाले आनि महेंद्र आलवारीस



सुनिल, मनोहरबाब, उमेश, सौ. प्रमिलाबाय आनि माया





मदर तेरेजाच्या सांगातांत



साहित्य अकादेमीचो भौमानाचो खीण



परतून पारीस




लायन्स क्लब - भौमान सुवाळ्यांत





एक अगळो रंग.... गांत म्हजे अतरग मराठी कविताझेलो घेतना



नागेश करमली

समिक्षकांचे नदरेतल्यान...

# मनोहररायांचे कवितेंत जिवीत आनी सैमाचो सांगात

**डॉ.** मनोहरराय सरदेसाय हांची कविता ही र्वस्पर्शी. तिची विशेशताय अमूकच एके तरेची अशें ांगूंक येवचें ना. तिची कितलींच तासां आसात. ती सैमाचे ायन आककताच. पूण तोच तिचो मुखेल गाभो न्हय. ैमावांगडा ती मनशां. तांचें जिवीत, तांचें उमाळे उत्फरकेय ांगाता घेवन फुडें वेता. तिका भोंवतणचो - मुखेलपणान ोंयचो पांचवोचार सैम आपणावट्यां म्होंवाळपणान ओडून ता आनी तीय त्याच सैमाच्या पाखांट्याचेर स्वार जावन ापणालो पंचम सूर लायता. हांगा सैम, एकसुरो सैमच ासता. त्या सैमाच्या गोपांत, माड-माडयांच्या आनी वझऱ्या ळयांच्या सांगातात जियेवपी मनीसय - मुखेलपणान गोंयचो नीस तिचे नदरेंत भरता ताका ती वेंगायता ताचे कश्ट, ुखदुख्खां, भोग-भोगणार, परक्यांकडल्यान ताका भोगपी ाडापीड, उतळताप हें सगळे मनोहररायाचे कवितेक लागता. नोहररायांल्या उजवाडा आयिल्ल्या कवितासंग्रहांतलो खंयचोय ंग्रह तुमी घेयात. तातूंत तुमकां हेंच चित्र थोड्याभोव रकान दिसतलें.

मनोहररायांचो पयलोच कविता संग्रह "गोंयांतुज्या ोगाखातीर". ह्या संग्रहांतल्यो अर्द्यो अदीक कविता तांणी फ्रांसाच्या राबित्यांत बरयिल्ल्यो आसात. ह्या संग्रहांतल्या कविताचें स्वरुप ताच्या नांवांतल्यानच स्पश्ट जाता. गोंयचे यादीन अस्वस्थ जावपी मनोहरराय ह्या कवितांनी उतरां उतरांत दिसता. संग्रहातले पयलेंच कवितेंत कवी स्वताकूच प्रश्न करता -

मांडवीचे पाचवे देगेर  
आंब्याचे सांवळे तळा  
चानयांचे खेळ पळेत  
पिकीं घोटां मेजीन हांव  
केन्ना गोंयां? केन्ना गोंयां ?

हे कवितेंतल्या 'केन्ना गोयां' ह्या दोन उतरांनी जो आर्त, काळीज हालोवपी सूर व्यक्त जाला तातूंतच मनोहरराय खूब कितें सांगून वेतात. हे कवितेंत मनोहरराय पुराय गोंयचें सैम प्रतीकरुपान समरसून चितारतात. गोंयां पासून हजारांनी मैल पयस आशिल्ल्या मनोहररायाची भाववृत्ती ही कविता बरयतना कशे तरेन उचंबळून आयिल्ली काय? म्हाका दिसता ते वेळार ते आपणाभोंवतणें फ्रान्स विसरिल्ले,

पारीस विसरिल्ले, सगळें विसरिल्ले. तांच्या दोळ्यांत आनी अंतस्कर्णातय फकत मांडवीचे पाचवे देगेन सामकें घर केल्लें आसूंक जाय. कवितेंत आयिल्लीं खावचीं पानां, कुळागरां, झरी, दर्याचो फेणेर, ल्हारां, दसणे फुलां, ह्या सगळ्यांच्याच दिश्टाव्यात ते विर्गळून गेल्ले आसूंक जाय. गोंयांच्या सैमाविशींची अप्रूप अशी उत्कटताय ही कविता घेवन येता खरी, पूण तितल्यारच ती सोंपना. तिका गोंयच्या सैमाच्या गोपांत पूण फिंर्ग्यांच्या जुल्मी शेकातळा जियेवपी गोंयच्या मनशांचो तिका विसर पडना. कवी परतय स्वताकच विचारता -

पांचव्या तुज्या झुजा मळार
केम्प कसो सोबन हांव
केन्ना गोंयां ? केन्ना गोंयां ?

मनोहररायांचे कवितेंत सैम सैमाखातीर आनी मनीस मनवाशां खातीर अशी तरा केन्नाचे नासता, ती दोंगाय सांगतान चलतात हाची ही उतरां म्हळ्यार एक गवायच.

"गोंयां तुज्या मोगाखातीर" ह्या संग्रहांतल्या कवितांच्या रुपान, मनोहररायान एक वेगळी अशी वाट रचून दवरल्या. आनी ती म्हळ्यार सैम आनी जिवीत हांचो अळंगपणान सुरेख समेळ साधप. 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहांतल्यो आनीक कितल्योच कविता ह्या म्हणण्याचें खरेंपण दाखोवन दितात. देखीक 'म्हजें गोंय' ही कवितात घेंयात हे कवितेंत गोरवां येतात, चरव येता, खाजना-भाटां येतात, मोगरीं शेंवती-चांफी ही फुलां येतात, गोंयच्या देव देवतांचो उल्लेख येता, भांगरावरी वोत येता आनी शेवटाक गोंयच्या मनशाची व्यथाय येता. कवितेंत शेवटाक कवी म्हण्टा -

म्हजें गोंय तळमळटा
स्वास घेवंक कळवळटा
फिरंग्यांच्या खुरसाचेर
रगताची हूम गाळटा.

१९५५ त पारीसाक बरयिल्लीं हीं उतरां ते वेळार गोंयांत मुक्ततायेखातीर रणखेव चालिल्लो. निसशस्त्र सुटकेझुजाऱ्यांचेर फार सोडून फिंर्गी तांचो जीव घेताले. अशा वेळार मनोहरराय एकसुरें सैम गीत तें गाय नासले.

स्वाभिमानी गोंयच्या पुतांच्या पवित्र रगतान खतावल्लें गो
आनी गोंयचो सैम तांच्या काळजाक साद घालतालो आ
वांगडाच गोंयांत जें कितें मनीसपणाभायरें चलतां ते चिंत
तांच्या काळजाक भालेय बसताले तेंच कवितेंत व्यक्त जाता
मनोहरराय हो हे नदरेन पळयल्यार उतरांक संवेदनशीलतायेच
खर वेदनांत बुडोवन कविता गावपी कवी आसलो अ
म्हणचे पडटा. तांकां एके वटेना 'माडांचे गीत' साद जा
जुवारेच्या ल्हारांचे गीत तांच्या काळजाक सांसपिता आ
तेच वेळार दुसरे वटयां सैमाच्या सांगातात 'कुदळेचे आ
खरखरपी खोऱ्याचें' य उतर ताच्या ओंठार येता. दर्या
अप्रुपाय वाखणटनाच, 'रखरखते रेंवेतं रोमून जाळें ओडा
पागप्याचें चित्रय ते दोळ्यांमुखार उबें करतात.

मनोहरराय पारिसाक सावन पर्थल्ले तेन्ना गोंय मु
जावंक नासलें. १९६१ त गोंयची मुक्तताय जाले उप्रांत
गोंयां आयले. मनोहररायांच्या काळजांत सगळ्यांत व्हडल
सुवात आडावन बशिल्ल्या नव्या गोंयच्या घडवणेचो उ
तांच्या काळजाक साद घालूंक लागलो. वांगडा
विलिनीकरणाच्या नांवांखाला गोंयचे अस्तित्वच ना करु
उडोवपाचे जे नाखकात्रे यत्न सुरु जाल्ले तांणी ते हे
स्वाभिमानी गोंयकारांसारखेच अस्वस्थ जाले. कोंकणी भाशे
चिड्डून उडोवपाचीय म्हाकारस्थानां चलिल्लीं. गोंयचो मो
आनी गोंयकारपण ह्या दोन गजालींनी ज्या मनोहररायांच्या
काळजा-मनान ताबो घेतिल्लो, त्या मनोहररायांचे कवितें
एक नवे मोड्ण घेतलें. सैमाचें गायन गायतां गायतां
गोंयचे गुलाम आवतीकायेचो विचार करुन खेदिश्ट जावप
मनोहररायांचे कवितेन, गोंयच्या नव्या पुनरुत्थान पर्वा
होरावपाक आरंभ केलो उतरां तींच, पूण आतां तांकां वेगळ
धार आनी अर्थच आयिल्ली. सैमतोच आसलें. तींच झाडां
पेडां, तेच माड-माड्यो, तेच वझरे-व्हाळ, तीच मांडवी
जुवारी, सगळे तेच पूण ह्या सैमच्या गोपांत जियेवपी मनी
आनी ताचें जिवीत हांचे खातीर मुक्ततायेन नवी परिमाण
निर्माण केल्लीं. अशा वेळार मनोहररायान कोंकणी परिशदेच्या
व्यासपीठावयल्यान खडपसूक जावन सांगिल्लें -

फुडाराचो लावन तिबो
दीस दारार रावला उबो
सूर्य देवान कौल दिला
जैत आतां पैस ना.

मुक्ततायेचें जैत जोडलें. आतां मुक्ततायेंतल्या जैताचो चार. चारच वळींनी, साद्यासोंप्या उतरांनी मनोहररायाच्या र्वामुखांतल्यान तो व्यक्त जाल्लो.

गोंय सुटकेपयली शणै गोंयबाबान गोंयकारांक लेखून णिल्लें "कसली मडसरेची न्हीद काडटात?' गोंय मुक्ती त्रांत मनोहररायान म्हळें, "जायात जागे!' हो उलो फक्त त्या मनशांखातीर नाशिल्लो. झाडां-पेडां, रानां-वनां, गर दोगुल्ल्यो. वझरे न्हंयो, सावदां-सुकणीं हांचे वांगडा गळ्या मनशांसयत, संबंद गोंयांखातीर आशिल्लो. तांणी णिल्लें -

काळखाच्यो धोली सोडून
उजवाडाचीं उडलीं पिलां
थरथरत्या सांवळ्यांचेर
वाटकुळींच रुप्या फुलां
जिबली काडून रावल्या चाटात
वाऱ्यावेले भांगरा-थेंबें
दसणीचे तांबडे बोंगे
जायात जागे! जायात जागे!

मनोहररायांची ही कविता म्हळ्यार आत्मतेजाचे तशेंच म आनी जिविताक एकेच फांतयेत गुंथची आत्मविश्वासाचें ायन.

गोंयचेर मनोहररायांनी उपाट मोग केलो. तो उत्तायतना दांच्याच संवकळीच्या नदरांक गोंयचें नवे अंतरंग रुप त्तावन दाखयलें. 'गोंय म्हजें न्हंकल कशी/पाचऱ्या चुड्यान ल्लेली'' इतलेंच म्हणून ते रावले नात. ते ताचेय मुखार ले. ताणी गोंयचे जिणेक अचळय एक वैश्वीक संदर्भ ोडून दिलो. तांचीं हीं उतरा

गोंय म्हळ्यार पावल एक
धर्तरेची वाट मेजपी
गोंय म्हळ्यार तान एक
विश्वाचो ताल सोदपी.

गोंयकारांनो विशालत्वाचो विचार करात अशें सांगपी ीं उतरां.

"फुलां जाय, वोत जाय'' इतलेंच म्हणून मनोहरराय थांबले नात. तांणी म्हळें -

"घरांत आनी भाटांत म्हज्या/मेकळो शितळ वाव जाय.'' एका अर्थान मनोहररायान आपणा कवितेवरवीं, आमचे मुखार एक सामाजीक सांस्कृतीक तसोच नैतीक स्वरुपाचो अजेंडाच दवरलो. फायच्या गोंयांचें एक सोबीत सपन तांकां पडिल्लें. हें सपनय तांणी हांगाच्या सैमाच्या गांवगिरेपणाचो संदर्भ घेवनच उत्तायलें. गोंयच्या सबराभरीत जिविताचें चित्र नाल्लांचें रुपक वापरुनच लोकामुखार तांणी मांडलें. तांणी म्हळें -

फायच्या गोंयांत येद्दे नाल्ल
आनी शेंतांत दोन पिंका
फायचें गोंय म्हणटलें गा
"तुमची भीक आमकां नाका.''

"येद्दे नाल्ल' हांतूंतले येद्दे' हे उतर तशे सादें पूण त्या 'येद्दें'त मनोहररायान 'केद्दें' तरी गोंय पळयिल्लें. आमच्यांतल्या कितल्या जाणांक खऱ्यांनीच तें दिसलां जायत?



माधव बोरकार

समिक्षकांचे नदरेतल्यान...

# मनोहररायाली कविता

खंयचेय भाशेंतली कविता परंपरेचे घट बुन्यादीचेर [illegible]बी आसता. परंपरेंतल्यान तिका पोसवण मेळटा आनी ती [illegible]ष्ट जावंक पावता. ही परंपराच तिका भाशेबरबरुच अर्थ [illegible]आनी आशयाचें देणें दिता. अशे तरेचें परंपरेचें संचित तिचे [illegible]ांठीक आसता तेन्ना तिका मुखार पावल घालपाक घटाय [illegible]ेता. भारतीय भासांतल्या साहित्याच्या इतिहासाचेर एक [illegible]डटी नदर मारल्यार ताची प्रचिती येतली. मराठी कविता [illegible]ंत आनी पंत कवितेचेर पोसली. विसाव्या शेकड्यांत [illegible]ेशवसूत आनी मर्ढेकर ह्या दोन म्हत्त्वाच्या कवींनी नव्यो [illegible]ाणविकायो रुजयल्यो आनी मराठी कविता आयचे सुवातेर [illegible]ावली. हिंदी कवितेचे संबंदान आमच्यांनी तशेंच म्हणूंक [illegible]ेता. कबीर, तुलसीदास, सुरदास ह्या संत कवी वांगडाच [illegible]ार्विल्ल्या काळांत निराला, गजानन माधव मुक्तिबोध, [illegible]ज्ञेय ह्या कवींनी हिंदी कवितेक एक नवें रूप दिलें. [illegible]ंगालींतूय कवितेक अशीच दीर्घ परंपरा आसा. विसाव्या [illegible]ातमानात टागोरा वांगडाच जीवानंददास हाणीय कवितेचें [illegible]मृद्ध दायज आयचे पिळगेखातीर दवरलें. कन्नडांत बसवण्णा [illegible]क्का महादेवी सावन सुरू जाल्ली कवितेची परंपरा गोपाळकृष्ण [illegible]डिगा सारकिल्या कवीन आनीक मुखार व्हेल्ली दिसता. [illegible]र भारतीय भासांचो असोच इतिहास आसा. हे परंपरेक लागून कवितेच्या भायल्या रुपांतूच न्हय तर तिच्या अंतरंगांतूय बदल जाता. नवें युग हाडपी कवी उतरांक अर्थाचीं नवी परिमाणां दितात आनी तेच भशेन छंदाचे नवे आकृतीबंधाची निर्मणी करतात. दर एक पिळगी ते ते भाशेंतल्या कवितेचें पात्र रूंदायतात.

कोंकणी कवितेच्या संदर्भात ह्या इतिहासाक खाशेले म्हत्व आसात. किद्याक तर कोंकणी भास आनी साहित्याचें प्रावक्तन वेगळें आसा. हेर भासांभशेन जरी तिजी सुरवात स ते सात शेंकडे आदीं जाली तरी युगां निर्माण करपी साहित्यीक हे भाशेक लाबलेनात. ते खातीर तिका विसाव्या शतमानाची वाट पळोवची पडली.

दुसऱ्या म्हाझुजा उप्रांत युरोपांत जे आर्थिक, सामाजिक आनी संस्कृतायेच्या मळार जे बदल जाले ताचो परिणाम जीणेच्या वेगवेगळ्या आंगांचेर जालो. तो युरोपापुरतोच उल्लोना तर युरोपाच्यो भुगोलीक शिमो मेरो हुपून तो आमच्या देशांतूय पावलो. साहित्यांत एक नवें वारें खेळूंक लागलें. तें modernism चें आशिल्लें. भोंवतणचो समाज आनी व्यक्ति हांच्या मदल्या नात्याक एक नवो संदर्भ प्राप्त जालो. मनशाचें एकमुळेपण, निर्शेवणी हांकां साहित्यांत

नवी वाट मेकळी जाली. हे सगळे अणभव व्यक्त करपाक नवे भाशेची गरज उप्रासली. जे विशय कवितेचे केन्नाच नाशिल्ले तांकां कवितेंत सुवात मेळ्ळी. भारतीय कविता Eliot Auden हांची भास उलोवंक लागली. देशी परंपरेपासून ती पैस वता काय किदें अशें ह्या काळांतली कविता वाचतना दिसता. कवितेंत वेगवेगळे प्रयोग जावंक लागले. छंदाची फास्की मोडून कवी मुक्तछंदांत बरोवंक लागले.

भायल्या संवसारांत अशे व्हडा प्रमाणात जाता आसतना कोंकणी कवितेंत फकत काळखी दाटून आयिल्ली दिसता. हातावयल्या बोटार मेजपा इतले कवी कोंकणींत कविता बरयतना दिसतात. दिनकर देसाय, बयाभाव, बाकीबाब ही कांय नांवां नदरेमुखार झळकतात. हातूंतले बयाभाव हे इंग्लीश आनी मराठींतल्या romantic कवींचो आदर्श मुखार दवरून कविता बरयतना दिसतात. बाकीबाबालें कवितेचें वळण सादारण तशेंच दिनकर देसायालें कवितेंत मात त्या वेळावयल्या संवासागीक परिस्थितीचें पडबींब काय प्रमाणात पडिल्ले दिसता. देखीक तांची 'कालपक्षी' सारकिली कविता हे नदरेन अभ्यासून पळोवपासारकी आसा. ही कविता म्हळ्यार कोंकणींतले नव-कवितेची पयली वयली कुरु. दिनकर देसायान कोंकणीत चड बरयलें ना. तांचो एकलो एकसुरो कविता संग्रह 'दिनकरालीं कवनां'. ऐशांच्या दसकांत उजवाडा आयलो. घडये आर्विल्ले कोंकणी कवितेची बसका तांचेच हातसून बसतली आशिल्ली.

कोंकणीत कविता खऱ्या अर्थान बरोवपाक सुरवात जाल्ली दिसता ती पन्नसाव्या दसकांत. मनोहररायाबरबर र. वि. पंडित आनी चा. फ्रा. द कोश्ता हें कवी गंभीरतायेन कवितेची निर्मणी करुं लागले. बाकीबाबाली कोंकणी कविता ह्याच काळांत घोंसार आयली. आशयाबरबरुच छंदाचे वेगवेगळे आकृतीबंध ते केळोवंक लागले.

मनोहररायांले कवितेच्या संदर्भात हे पाठभूयेंक खाशेलो अर्थ आसा. हे सगळे कवी कवितेचें मुळावण घालपाच्या वावराक लागिल्ले दिसतात. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचे म्हळ्यार कोंकणी कवितेचे बुन्यादीचो वावर तांणी केलो. गोंय मुक्ती उप्रांत कोंकणी कविता फोफेली. ताचे फाटल्यान ह्या सगल्या कवींचो मोलादीक वावर आसा.

मनोहररायाले कवितेचो विचार करतना तांगेल्या सुरवा[illegible] कवितेचो चेरो कसो आशिल्लो हाचो सोद घेवप गर[illegible] आसा. तांगेली कविता बरपाची सुरवात मराठींतल्यान जा[illegible] दिसता. चाळीस ते पन्नास ह्या दसकांत ताणी मराठींतल[illegible] कविता बरयल्यात, आनी त्यो 'किर्लोस्कर', 'अभिरुच[illegible] 'विल्सोनियन' ह्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्य[illegible] मनोहररायांल्या कवितेचे उदरगतीचे वाटेवयल्यो कुरवो सोद[illegible] तांगेल्यो ह्यो मराठी कविता म्हत्वाच्यो दिसतात. त्या काळ[illegible] मराठीं कवितेचो खर प्रभाव हे कवितेंचेर पडिल्लो दिस[illegible] चड करुन कवितेचो आशय आनी कवितेची भास हे नद[illegible] हे कवितांकडेन पळोवंक जाय. ह्या काळांत बरयल[illegible] कवितांचो आशय प्रेम असो आसा.

हास्य तुझे गे मोहवी सकलां
वाटे त्याना वसंत फुलला
मला पुरे गे तुझ्या स्मितांतिल
उदास, दारुण, नाजूक मार्दव

आनी ही दुसरी कविता

उदास कां तव मानस, सजणे
'कोमलांगि तूं नाहि भूषणे?''
दिव्य अमोलिक अलंकार हे
अर्पिन पदकमलीं.

निर्झरणींची कुजबूज मंजूळ
त्यांत ओतुनी अनील तळमळ
दैवी पैंजण छुमछुम घुमतिल
तुझिया पदमकलीं.

हे कवितांनी 'हास्य', 'सकला', तव, 'पदकमली[illegible] 'निर्झरणी, 'अनील' सारकेलीं मराठीतलीं archaic उत[illegible] ताणी वापरिल्ली दिसता. कांय कवितांनी वाऱ्याच्या जाग्य[illegible] 'वायू' रातीच्या जाग्यार 'रजनी' असलीय घोळटुकेंत नाशिल्ल[illegible] उतरां ताणी वापरिल्ली दिसतात. ह्या मराठी कवितेंत तां[illegible] आपले अशें व्यक्तिमत्व फुलून आयिल्लें दिसना. मरा[illegible] भास आनी तेचबरबर कवितेची भास आपणावपांत तिच[illegible] शक्त खर्चता असो अणभव ह्यो कविता वाचतना येता.

**आग उरी, आग शिरीं**

आग नाचे जीभेवरी
शांत सौम्य हृदयांत
अग्नी फुलांचा गे सडा
वक्ष फोडूं, दावू मूर्ति
नसनसी वाहे प्रीति
नभ फोडूं दांवूं का गे
नक्षत्राच्या कारागिरा ?

ह्यो वळी हाची बेसबरी गवाय दिता. मनोहरबाबांले गठीत कविता बरप कालांतरान कमी जालें. गोंय मुक्ती गंत ताणी प्रासंगिक रुपाच्यो मराठी कविता बरयल्यो. चड रुन गोंयच्या इतिहासांत म्हत्वाचो थारिल्ल्या ओपिनियन लाच्या काळांत. आनी हे कवितांचो सूर उपरोध आशिल्लो सो आसा. आतां तर ताणी मराठीत कविता रचप बंद ल्ले दिसता. तांकां कोंकणीत आपलो नीज सूर सांपडलो खून ताणी मराठी कवितेकडेन फाट केली आसुंये. दुसरें ळ्यार ताणी कोंकणीत जितले सहजतायेन रचना केल्या सहजताय तांगेले मराठी कवितेंत दिसना. मनोहरबाबाली राठी कविता सांकेतिकताय, ह्या काळावेल्यो कवितेसंबंदान ळटुकेंत आयिल्ल्यो कल्पना हांच्या आदारान उबी आशिल्ली सता. ह्या सगल्या जवजाळांत तांची मराठी कविता शेणली. ण कोंकणीत तांकां भाशेबरबर तांगेले कवितेचें नीज आनी त्मो होल्मलो हाजो अणभव येता.

'गोयां तुज्या मोगाखातीर (१९६१) 'जायात जागे' (१९६४). 'जायो जुयो', 'पिसोळी' हे तांगेले आजमेरेन जवाडा आयिल्ले मुखेल कविता संग्रह. हे भायर, 'आयज धोलार पडली बडी' (१९६१) ही संगितिका' 'जय ण्यभू जय भारता' हो देशभक्ति रचनांचो संग्रह आनी रग्यांखातीर रचिल्लीं कवनां अशें साहित्य उजवाडा आयिल्लें ासा. 'जायो जुयो' आनी 'पिसोळी' हे दोन तांगेल्या ल्हान वितांचे झेले. १९६४ उप्रांत ताणी बरयल्ल्यो कविता जून पुस्तकांच्या रुपान प्रसिध्द जावपाच्यो आसात. ह्या ळांत ताणी बरियल्ल्यो कविता वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी जवाडा आयल्यात. पूण खूपशो कविता आजमेरेन उजवाडा नासतना तांगेले फायलींनी तशोच उल्ल्यात. अशेतरेन ग्रहाच्या रुपान तांगेली कविता मुखार नाशिल्ल्यान तांच्या भ्यासाचे नदरेन कांय अडचणी उप्रासताल्यो तांचे कवितेचें रुप दोळ्यांमुखार स्पश्ट येना आशिल्लें. ताचे वाटेंवयल्यो चडट्यो, देंवत्यो आनी मोडणा, graphically दाखवप शक्य जाय नाशिल्लें.

मनोहररायाले कवितेचे सरळ दोन वांटे करुंक येतात. तांची गोंय मुक्ती पयलीची कविता. हिचो कालखंड म्हळ्यार १९४५ ते १९६१ मेरेनचो. ह्या कालखंडांत बरयल्ल्यो कविता तांच्या 'गोयां तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहांत आस्पावतात. ह्या काळांतल्यो आनीकूय कांय कविता उजवाडा येवपाच्यो उरल्यात. तांचे कवितेचो दुसरो कालखंड म्हळ्यार गोंय मुक्ती उप्रांतचो कालखंड. १९६२ उप्रांत तांणी बरयल्ल्यो कविता 'जायात जागे', 'पिसोळी' आनी 'जायो जुयो' ह्या कविता संग्रहांनी वाचूंक मेळटात. अशे दोन वांटे करपा फाटलें मुखेल कारण म्हळ्यार ह्या दोन कालखंडांत तांचे कवितेंत जो व्हड बदल जाला तो स्पश्ट दिसून येता. हो बदल आशयाचोच न्हय तर अभिव्यक्तिचोच आसा.

'गोंया तुज्या मोगाखातीर' (१९६१) हो संग्रह प्रसिध्द जालो तेन्ना कोंकणीत कांय मेजकेच संग्रह उजवाडा आयिल्ले. बाकीबाब बोरकारालो 'पांयजणा' हो संग्रह मनोहररायाल्या संग्रहा उप्रांत उजवाडा आयला हें मतींत घेवंक जाय.

'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहांत एकूण चाळीस कविता आस्पावल्यात. ह्या कवितांचो काल १९५४ ते १९६० असो आसात. १९५२ ते १९५८ अशी स वर्सां मनोहरराय फ्रांसाक पारीस शारांत उंचेलें शिकप करपाच्या निमतान राबितो करुन आशिल्ले. ह्या संग्रहांतली सगल्यांत पयली कविता 'वेता जाल्यार' ही १०-१-५४ हे तारखेक बरयल्ली तर निमाणी 'म्हजो धर्म चलयता' ही नवी दिल्ली हांगा १-५-१९६० हे तारखेक बरयल्ली आसा.

मनोहररायाले कविते फाटली प्रेरणा कितें हाचो विचार करतना दुबावाविरयत आमच्यांनी गोंय अशें म्हणूं येता. गोंयचीं वेगवेगळीं रुपां आमकां तांचे कवितेंत सोद घेतल्यार होल्मतात. फिरंग्यांच्या शेकातळा घुस्मटपी गोंय, आनी फिरग्यांच्य जुल्मी सत्तेतल्यान मेकळें जातकच वेगवेगळ्या सामाजिक, राजकीय आनी संस्कृतिक प्रस्नांनी घुस्पल्लें गोंय तांगेले कवितेचो आशय जालो. तशेंच तांगेले कवितेंत जो सैम आयला तोय गोंयचो पांचवोचार सैम. गोंयचे पांचवेचार

दोंगर, वाऱ्यार धोलपी माडमाडयो, मांडवी जुवारी न्हंयांची वेगवेगळीं रुपां तांच्या ह्या काळांतले कवितांनी पडबिंबीत जाल्लीं दिसतात.

मांडवीचे पांचवे देगेर
आंब्याचे सांवळे तळा
चानयांचे खेळ पळेत
पिकीं घोटां मेजीन हांव
केन्ना गोंयां, केन्ना गोंया ?

पोरण्यो यादी चाळीत, चाळीत
खुंटित कवळीं खावचीं-पानां
कुळागरा - झरी उदकांत
दोनूच दुकां गळयन हांव
केन्ना गोंयां केन्ना गोंया? (मांडवीचे पांचवे देगेर)

'केन्ना गोंया, केन्ना गोंया?' असो कवीक प्रस्न पडटा. ह्या प्रस्नांतल्यान कवी काळाच्या अंतरा बरबरूच भुगोलीक अंतरुय सुचोवन वता.

आज म्हाका याद येता
पोरसांतल्या केळम्यांची
माटवाचेर पांय पातळून
आंग मोडपी वेलांची

आज म्हाका याद येता
माडयांच्या धोलपाची
मळबाच्या दरयाचेर
दोंगराच्या ल्हारांचीं
(याद येता. गोंयां तुज्या मोगा खातीर)

हे कवितेंत फकत सैम ना तर ताका तोरां पाडपीं पोरांची आनी काळसांवळ्या पोटा धोला वयल्या काजवा-रोसा खतांचें चित्र आसा.

मनोहररायालें हे कवितेक गोंयची एक ऑब्सॅसीव सया आसा आनी ही सया तांगेल्या कवितेच्या विश्वास व्यापून उरल्या. ह्या काळांतले कवितेंत गोंयच्या राजकीय आनी सामाजिक वास्तवाचे संदर्भ मुखेलपणान आयल्यात. 'म्हजें गोंय' ही तांगेली कविता विचार करपासारकी आसात.

म्हजें गोंय गोरवांचें
पांचव्या चार चरवाचें
एका दुदा-थेंब्या खातीर
म्हजें गोंय वसवसता

गोंय म्हजें पिकाळ म्होंवाळ
खाजना भाटान चकचयाळ
एका तांदळा-गोट्याखातीर
म्हजें गोंय भीक मागता

हे कवितेंत दोन वेगळीं चित्रां करुन वास्तवाची खरसा
वाडिल्ली दिसता. गोड आडसरांचे गूण कातली विकून क
घेवन सोरो पिवपी गोंय, कातारां आनी तबल्या बोला
गोंय पूण पेजेखातीर सतारीची तार विकपी... मोगा
शेंवत्यां - वासाचें पूण दाववेच्या धुंवरा तळा घुस्मट
गोंय.. म्हजें गोंय तळमळटा? स्वास घेवंक कळवळट
फिरंग्यांच्या खुरसाचेर/रगताची हूम गाळटा. ही कवि
म्हळयार गोंयच्या प्राक्तनाचें गीत अशें आमच्यानी म्ह
येता. देखुनूच कवी म्हण्टा:

येतलो केन्ना दीस रे भावा
रात केन्ना सोंपतली !
सात लाख काळजांतल्यान
आस्त केन्ना फुलतली ?
लांबली रात, काळखी रात
नखेत्रांनीय न्हीद काळी
चार काळखा शेंकड्यांतल्यान
केन्ना वीज फुट्टली ?
(गांवा भायरें मन म्हजें)

बंदेपण म्हळ्यार कितें हाचो अणभव कवीत घेतल
देखुनूच ताका स्वतंत्रतायेचो ध्यास लागला. सैमान भित
नटिल्ली मायभूंयेची बंदेपणान केल्ली आवतिकाय ताव
आकूळपिळूक करता. दुदाच्यो झरी, फळां, जायां-जुयाच
पर्मळ आनी घमघमाट, मोगाळ आनी म्होंवाळ बास हांव
स्वतंत्रतायेबगर अर्थ ना अशें कवीक दिसता. म्हणुनूच.

सर्ग-भांडार जाला रितें
सांगा हांगा उणें कितें ?
हाय, हांगा बंदखणीत
स्वतंत्रताय! स्वतंत्रताय!

आनी मुखार कोंब्यान घालो साद आनी/म्हाकाय आयली ा/बंदखणीचें दार भावा केन्ना उगडत सांग अशी उतरां तीच्या ओंठार येता. गोंयाबगर ताचे जिणेंत एकेतरेचें पण आयिल्लें दिसता. पारिसा सारकेल्या सगलेतरेचे स्तकायेन भरिल्ल्या शारांत ताका याद जाता कुळागराची, नी गोंयची तांबडी माती हातांत घेवन ती कपलाक पाची अभ्रेकणी ताका लागता. गोंयांपासून पयस आसलो तो आपलें गोंयकारपण विसरना. देखून तांचे कवितेक त दरयार जीण म्हजी/तरीय गांवचो जणकार हांव (हांव चो गोंयकार) अशे उद्गार फुट्टात. ह्यो वळी कवीचें येकडेन आशिल्लें नातें आनी ऋणानुबंध दाखयतात. त्याक तर कवींची वार हेच तांबडे मातयेंत पुरल्या. सराचे फाटीर खंयूय पावलो तरी हे गजालीचो ताका र पडना.

त्या काळांत ताणी बरयल्ली देवाविशींची तांची एक विता आसात. ती तांचो देवाविशींचो भावार्त दाखयता. गाय कवी हेरांनी मांडिल्ले वाटेवयल्यान वचना. तो गरा, वस्त्रांनी आनी काळ्याकिट्ट गर्भकुडींत पुजेक लायिल्ले र्ती मुखार हात जोडीना. ताचो देव हो गांवच्या शेतांतले कट मातयेचो. हे मातयेंतूच ताका आपलो देव जळीमळीं सता. तो कुणबी जावन शेतांत घोळटा आनी गरीब गब्याच्या बायल भुरग्यां पेजे घोटाक वळवळटा. गिरेस्तांची पक्वान्नां ताका नाकात. मातयेचो हो देव मळबाच्या घुडा ळा सुर्याचो तिबो लावन उबो आसा. दिशां येदे हात रून तो गरीब धाकल्यांक वेंगात घेवपी. हाचोच अर्थ असो कवीची श्रध्दा ही मनीसपणाचेर आसा. ताका देव हो माच्या दर एका आंगांत दिसता म्हणपाचें हे कवितेची ळीन वळ सुचयता. मनशाच्या स्रमांत तांकां देवपणाचो क्षात्कार जाता. १९६१ उप्रांत बरयल्ले एके कवितेंत शो वळी आयल्यात :

राना मारुन लायलीं भाटां
सडे कसून रोयलीं शेतां
आमी तुज्या रुखा तळा
बांदली पुजा सैमाची.
तूं आमची.

ह्यो वळी म्हळ्यार सैम देवतेची होरावणीच आसा. तशेंच 'नवो मनीस' हे कवितेंतूय असोच विचार ताणी मांडला :

एका जाणांत सगळे जाण
सगल्या जाणात जण एकलो
एकल्याचें दूख म्हळ्यार
दुखाच्या दर्याचें
ल्हानशें ल्हार.

सगल्यांचो एकूच देव
सगल्यांचो एकूच दीस
झुजपाची रात सोंपून
मोगाच्या मळबाचेर
उजवाडटा नवो मनीस

हांगा कवी मार्क्सवादी विचारसरणीच्या लागीं आयिल्लो दिसता. आयच्या काळाच्या संदर्भांतूय हे वळींक विशेश म्हत्व प्राप्त जाता. धार्मिक असहिष्णुताय जी किडीसारकी समाजमनाक पोखरत आसा, जंय धार्मिक स्थळांवयल्यान जाती जाती मदीं, धर्मा मदीं नपड जाता तेन्ना हे वळींक नवो अर्थ येता. मार्क्सवादां वयली तांची निष्ठा मुखावयल्या काळांत ताणी बरयल्ल्या कवितांनी दिसता. मनशाक मनशापासून पयस करपी आर्थिक आनी सामाजिक व्यवस्था ताणी केन्नाच मानून घेवंक ना. आयज आमचे मुखार आशिल्ल्या जायत्या प्रश्नांची मुळां हे व्यवस्थेंत आसात म्हणपाचें ताणी आपले वेगवेगळ्या काळखंडांत बरयल्ल्या कवितांनी सुचयलां. देव धर्मापरस मनशा मनशामदल्या भावपणाच्या बुन्यादीचेर हो संवसार उबो रावल्यार कितलेशेच प्रस्न सुट्टले असो तांचो भावार्त आसा. ह्या कवितांनी निखटी कल्पनेची झोंपय दिसना तर जिणेच्या खर वास्तवाक भिडपाची विलक्षण तांक आसा.

मार्क्साच्या विचारांचो प्रभाव साहित्याचेर पडलो.

संवसारभर ज्या साहित्याची निर्मणी जाली थंय हो प्रभाव कमी अदीक प्रमाणात पडिल्लो दिसता. भारतीय साहित्यांतूय मार्क्सवादी विचारांचो प्रवास व्हांविल्लो दिसता. हिंदींत गजानन माधव मुक्तिबोध आनी तांचेच भाव मराठी कवी शरच्चंद्र मुक्तिबोध हाणी मराठींत हो प्रवाह खेळयलो. कवितेबरबरुच मार्क्सवादी टिकाय साहित्यांत आयली. मनोहररायांक लागून कोंकणी साहित्य ताका आडवाद जावंक पावलें ना. ही एक विशेश गजाल आसा अशें म्हणूंक जाय.

ह्या काळांत मनोहररायानी बरयल्ल्या कवितांनी आनीक दोन सूर आयकूंक येतात. एक मोगाचो आनी दुसरो सैमाच्या मोगाचो. मोगाचो आशय आशिल्ली सगल्यांत पयली कविता 'वेता जाल्यार' ही पारिसाक १०-१-१९५४ ह्या दिसा बरयल्ली.

वेता ज़ाल्यार वच गो बेगीन
पावसा खातीर तिश्ट नाका
पातळाची चुरली देग
म्हणून फाटल्यान पळवं नाका

---

वेता जाल्यार वच गो बेगीन
हांसपा निमतान रडूं नाका
ल्हवूच पदर उडोवन सकला
काळीज म्हजे पेटवं नाका.

हे वळींनी दोन काळजांची, दोन दोळ्यांची निकतीच वळख जाल्ली दिसता. घडये ही वळख दिशी माशीं वाडत वचून अशे एके अवस्थेर पावता थंय कवी म्हणटा :

राग गो तुजो, तणा उजो
जळटा एक खीण
आनीक पळवं नाका वाट
रीग म्हजे कुशींत
(तुजो राग)

अशें तरी आसलें तरी हो मोग सफळ जातलो म्हणपाचें दिसना. आपलो घोंटेर रितो म्हूण तळफेवपी कवी 'हांव जाणां, हांव जाणा/मोग आमचो उरचो ना/तरी तुज्या मोगा बगर/रावन कसो समजना/अशें तो म्हणटा. मोगा खिणयाळ्यापणाची ताका जाणविकाय आसा. 'हांव एक जावपाचें सपन जरी पयस नासलें तरी 'फाल्यां' कोण जाणा/आयची जीण हांव जाणां/तरी तुज्या मोगाबग रावन कसो समजना' अशी ताज्या मनाची अवस्था जा

'गोयां तुज्या मोखाखातीर' ह्या संग्रहांतली आनी एक सुंदर कविता म्हळ्यार 'पांचवें पातळ' ही कविता. कविता म्हळ्यार एके तरणे अस्तुरेचें भाव चित्र आसता.

'भांगरा-बोटान सार जोत
घरांत, दोळ्यांत चांदनें पळे
म्हज्या आंगार, तुज्या आंगार
फुल्ले मोगा-मोगरे कळे

अशें तरेचीं तरल इंद्रिय संवेदना सुचकतायेन ही कवि व्यक्त करता. अशेतरेची तरल भाव व्यक्त करपी कवि मुखार मनोहररायांनी बरयल्ली दिसना.

ह्या काळात मनोहररायांनी सैमाचीं वर्णना करपी कवित बरयल्यात. ह्या कवितांनी निखटीं सैमाचीं वर्णना येना तर सैमाचे तांणी मानवीकरण केल्लें दिसता. हो सैम निख तांगेले कल्पनेंतलो न्हय तर आमच्या सगळ्यांचे वळखी आसलो तरी तांची कविता आमकां ह्या सैमाची नव्य वळख करुन दिता. 'गीम' ही तीन कडव्यांची कवि आयकुपासारकी आसा. हे कवितेंत ते गीमाचें चित्र काडटा वताचो कड आनी ताका लागून भोंवतणच्या वाठारा जाल्ली अवस्था हें सगलें उतरांनी धरचेलो यत्न हे कविते दिसता. तळये-रेड्यांक पडिल्लो चिरो, पानां फुलांर बशिल माती, सुक्या माडाक पळोवन रागान बोड आपटुपी तांब शेड्डो, सुर्याची नदर चुकोवन नुलयत वचपी वझरो अ वर्णन करीत निमाणे कडेन

झेलयत हाण्डीर घडा-वजें
केळी गळ्याक आयला घाम
हुमकळटें सुकिल्लें चुडत
सर्र करुन म्हणटा राम

अशा उतरांनी हें चित्र पुराय जाता. ही कविता वाचतक गांवांतल्या गिमांतली स्तब्द दनपार दोळ्यांमुखार उबी रावत

वाचें म्हळ्यार तांगेले कवितेंत आमकां सैमाचें मानवीकरण ल्लें दिसता. 'हुस्के माथ्यार गोंडेच गोंडे' हे कवितेंतूय गोंच प्रत्यय अदीक खरपणान येता. हे कवितेंत चितारिल्लो ndscape खऱ्या अर्थान गोंयचो अशें म्हळ्यार चड समा तलें.

धीर-ना धरुन गळटी जांभळां
कारनां पानां फाटीं लिपतीं
'शिपयांबगर मोतयां घेयात
लजत चुरनां पोरांक म्हणटी

अशें म्हणटां म्हणटां अखेर कवी "गोयां-भायऱ्या नाक म्हज्या/लागलें पिशें, लागलें पिशें' अशें म्हणत ापली व्यथा उक्ती करता. ह्या काळांत ताणी बरयल्ले वितेंत सैमाचो अणभव उत्कटतायेन आयला. तिका चित्राचें रिमाण आसा.

१९५४ ते १९६० ह्या काळांतले कवितांचें प्रतिमाविश्व ानां, फुलां, सवणीं, भांगराचें वोत, मळब, दर्या, दोंगर, ाती, झाडां हाणी भरिल्ले. तशेंच त्यो कविता छंदांत ांदिल्ल्यो आसात. चड करुन चार वळींच्या कडव्यांचो ाकृतीबंध तिणे आपणायल्लो दिसता. 'पांचवें हांशे' ही कूच कविता दोन कडव्यांची आसा. मुखावयल्या काळांत गात तांणी छंदोबध्द कवितेबरबरुच मुक्तछंदांत कवितेची चना केली. इतलेंच न्हय तर मनोहररायाले कवितेंत व्हड माणांत बदल जाल्लो दिसता. तिचें रुपूच मुळासावन दल्लें. ह्या कवितांनी छंदाची विविधताय नासली तरी ती कानाक एकसुरी लागता. कित्याक तर व्यक्त करता त्या उमाळ्यांक हींवसाण आसा.

आनीक एके गजालीचो हांगा मुजरत उल्लेख करंक जाय. मनोहररायालो अभ्यासाचो विशय फ्रांसेंज भास आनी साहित्य. ते भायर इंग्लीश, जर्मन, स्पेनीश साहित्याचोय ताणी खोल अभ्यास केला.

कवितेच्या वेगवेगळ्या आंगांनी फ्रेंच कवितेंत जायते प्रयोग जाल्यात. भारतीय कविताय ह्या प्रभावाखाला आयली. आनी अशा वातावरणांत वाडून लेगीत मनोहररायाली कविता आपलें नीज देशी रुप तिणे जपलें हाचें विशेश दिसता.

मनोहररायाले कवितेंतलें गोंय हो निखटो भुगोलीक entity न्हय. तर तांचे कवितेंत गोंय एक जिवो अणभव म्हणूं येता. कवींच्या स्वासाइतली ताका जीवसाण आसा. कोंकणी शिवाय, मराठी, इंग्लीश आनी पुर्तुगेज कवींनी गोंयचेर जायत्यो कविता बरयल्यात. पूण तांच्या कवितांनी निखटो गोंयचो सैम येवन वता. तोय भुगोलीक नदरेन. ह्या कवितांनी गोंयच्यो माड माडयो, दोंगर, न्हंयो, फुलां आनी फळफळावळींचे उल्लेख येतात. हे नदरेन यशवंत सुर्यराव सरदेसाय हांची 'विरहगीत' ही कविता एक देंख म्हूण अभ्यासपासारकी आसा. गोंयांपासून पयस वनवासांत आसतना ओडींतल्यान ती आयल्या.

एकटी पडलें दूर देशीं
वियोगें कश्टत मी मानसीं
आठव सारखा तुझाच ये
गोमंतक माझे माऊलिये

अशी सुरवात करुन ते गोंयच्या सैमाचें वर्णन करतना ते दर एके वस्तीचीं लांबचे लांब जंत्रीच दितात. तांची ही कविता अडेची आसा अशें म्हणूंक येना. तांचे हे कवितेंत उमाळो आसा. पूण तो खंयच कलात्मक पांवड्यार पाविल्लो दिसना.

१९६१ वर्सा गोंय पुर्तुगेज सत्तेच्या शेकांतल्यान मेकळें जालें आनी तेच बरबर गोंयचे सामाजिक आनी राजकीय जिणेन कूस परतिली. गोंयच्या अर्थकारणाबरबर राजकारण आनी समाजकारणूय बदलून गेलें. गोंयान एक नवो रुपकार घेतलो. तसोच मनोहररायाले कवितेनूय नवो रुपकार घेतलो. आनी हो रुपकार आमकां 'जायात जागे' ह्या कविता संग्रहांत दिसता. १९६४ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या ह्या संग्रहांत वट्ट बावीस कविता आसात. आनी ह्यो बावीस कविता म्हळ्यार एक मालिका कविता अशें म्हणूं येता कित्याक तर ह्यो सगल्यो कविता एकाच आशयाच्या सुत्रान बांदल्यात आनी तें म्हळ्यार गोंय, कोंकणी आनी देशाचो मोग.

१९५९ वर्सा दर्या ल्हारां हुपून कवी मांडवीच्या ल्हारां खातीर आयिल्लो. कुळागरांचे शीतल सावळेखातीर अप्सरांचो ताणे सर्ग सोडिल्लो. पूण गोयची तांबडी माती ताज्या हाताक लागूंक नाशिल्ली हाची खंत ताज्या काळजाक

तोंपताली. गोंयच्या उल्याक उलो दिवपाचें भाग्य ताका १९६१ वर्सा मेळ्ळें. म्हज्या श्रमा, घामाखातीर/भांगर नाका/ मोतयां नाका अशें म्हणपी कवी दोळ्यांत नवें गोंयचे सपन घेवन आयलो. देखुनूच सामाजिक जाणविकाय तांचे कवितेचो आशय जाल्लो दिसता. ह्या झेल्यांत तांची एकूण प्रेम कविता ना.

गोंयच्या समाजाच्या वेगवेगळ्या घटकांनी एकवटान आनी सन्मथान वावुरल्यार नवें गोंय निर्माण जावंक पावतलें ह्या विश्वासान कवी समाज मनाचेर आपल्या उतरांचे आशे मारुन भार काडटना म्हणटाः

भाटकारांनो, मुंडकारांनो
जणकारांनो, गांवकारानो
जायात जागे, जायात जागे

----

येवंदी हुंवार, येवं दी मोडां
कांटे खुंटे व्हांव दी फुडें
मुळासकट झाडां पेडां
पडून मोडूं वंयचे आडे
मोडचें आसा मोडटलें
झडचें आसा झडटलें
पोल पोकें हुबतलें
उतरलें तें व्हडलें जावन
सगली भूंय भरतलें
चारुय दिको फुटून आतां
उजवाडाचे व्हांवले घोगे

ह्याच काळांत बाकीबाबानूय बरयल्ले एके कवितेंत असोच सूर आसा. ते म्हणटात निळ्याजळार/सवणाऱ्यांचे / थव्यार थवे धवेच धवे / उफेत हुबत सांगती आतां / येतले दीस म्होवेच म्होंवे. हे वळींतल्यान त्या काळाचोच सूर आमकां आयकूंक येता. बाकीबाबान सासायेंत जसें समाजमनाक होगयल्लां तेच प्रमाण मनोहररायांनी हे कवितेंत होरावणी केल्ली दिसता. निव्वळ कलावादी नदरेंतल्यान कवितेकडेन पळयल्यार ही कविता प्रचारकी थाटाची दिसूं येता. सामाजिक लागणूक कवीक आसची काय ना असोय प्रस्न हांगा उप्रासूं येता. पूण कवी आपल्याक समाजापासून वेगळो काडूंक सोदीना. भोंवतणच्या सैमाइतकीच स्फूर्त ताका हो सम दिता. 'जायात जागे' हे कवितेक एक गर्ती आसा. 'मोडट झडटलें, हुबतले, भरतलें ही वळींच्या शेवटाक ये क्रियापदां ही गर्ती हे कवितेक दिता.

गोंय मेकळें जालें आनी सुमार तपभर गोंयांभ वनवास काडल्या उप्रांत कवी आपले जल्मभुंयेत परतता दोळ्यांत नवें गोंय घडोवपाची सपनां घेवन. परिवर्तन एका दिसान घडना. ताका एक वेगळें अशें वातावरण आसता. नवें किल्लून येवपाखातीर भूंय नांगरुन त करपाची आसता. नवें घडयतलो जाल्यार पोरनें सो दिवंक जाय म्हणपाची जाणविकाय ताका आसा. न समाज व्यवस्था अस्तित्वांत येवपाक आमचे मदल्यो शेंकड्य शेंकडे चालंत आशिल्ल्यो नश्टयो चालीरिती मोडून उडो जाय म्हणपाचें तो सुचयता.

अजून आसात पिडपी हांगा
अजून आसात नाडपी हांगा
तरणे तशें दांडगे तुमी
अजून कशें रावल्या वो गे ?
हड्यांतले इंगळे आज
धगधगून जावंदी जागे.

साडेचारशें वर्साच्या गुलामपणांक लागून तयार जाल मानसिकता रातयांत कशी बदलतली ? एके तरेची निश्क्रीयता गोंयकाराक ग्रासून राविल्ली तातूंतल्यान ताका जागोवपाखाती कवी म्हणटा

गोबरा पोदां झेमता कीट
कोण गा तिका उठयतलो ?
कोण गा रुखा हाडावळीर
उज्या फुलां फुलयतलो ?

मेकळ्या गोयांत भाशावाद उप्रासलो. गोंयची नी अस्मिताय न्हयकारुन बंदेपणाचें नवें जूं मानेर घेवपा वृत्तीन तकली वयर काडली. तेन्ना शिटकावणेचो सूर 'आमक इतिहास आसा' हे कवितेंत आसा.

आमका इतिहास आसा
आमकांय बी भास आसा
तुमचे वरीच नखेत्रांचो
आमकां लेगीत ध्यास आसा.

---

आमच्या मनाक धार आसा
सोशीकपणाक पार आसा
आड येतल्यांक आड घालपाक
आमचे कुडीक हाड आसा

गोंय मेकळें जावपाच्या हुमऱ्यार आसतना कवी 'खूब ब करचें असा' अशें म्हणटालो. कित्याक तर फायचें गोंय डोवपाखातीर रगतान मळो शिंपचो पडटलो म्हणपाचें तो गिता. फायच्या गोंयचें चित्र रेखतना तो म्हणटा:

फायच्या गोंयांत येद्दे नाल्ल
आनी शेतांत दोन पिकां
फायचें गोंय म्हण्टलें गा
''तुमची भीक आमकां नाका''

हें सपनांतले गोंय सत्यांत येतलें जाल्यार कितें करुंक ाय हेंय कवी सांगता.

बल्कांवार झांकपी ताका
बसून भकूंक मेळचें ना
घाम काडून काम करपी
वळवळून मरचो ना.

ह्या उतरांनी एके तरेचो विश्वास उक्तो जाल्लो दिसता. ार्कीबाबान 'प्राणाक क्षय बुध्दीक भंय फाल्यांक जंय कालचीच ंय/आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय'' अशा वळींनी मनांतली खंत व्यक्त केल्ली. पूण मनोहरराय आशावादी सूर लायता.

फुडाराचो लावन तिबो
दीस दारार रावला उबो
सूर्य देवान कौल दिला
जैत आतां पैस ना.

कवी दुसरें सपन पळयता. तें सपन म्हळ्यार गोंयचो एकचार, आनी भावपणा नंदचें म्हूण धरिल्लो ध्यास. गोंय हिंदू आनी किरिस्तांव अशा दोन समाजांत वाटून वच नासतना ते भाव कशें रावपांत ह्या दोनूय समाजाचय हिताचें. हे जाणविकायेंतल्यान मनोहररायाल्यो कांय कविता आयल्यात. 'आज आमचें राज आयलें' हे कवितेंत हो हावेस ताणी उक्तायला.

हिंदू-किरिस्तांव भाव
सगले आमी एक जांव
आमचो फुडार घडोवं आमी
होच हावेस आज.

हांगा आनीक एके गजालीचो उल्लेख करप गरजेचें आसा. गोंयांत जी वेगवेगळ्या भासांतल्यान जी कवितेची निर्मणी जाल्या तातूंत असलो सूर आयकूंक येना. हेर भासांतल्यो कविता आपआपल्या समाज आनी धर्मा पुरतो विचार आनी उमाळे व्यक्त करतात. मनोहररायालो आदर्श गोंयकाराच्या ओंठार कांतार आनी पायांत घुमटाचो ताल आसा. तांगेले कवितेंत कळस आनी खुरीस एक जाल्ले दिसता.

'जायात जागे' ह्या संग्रहान कोंकणी कवितेक सामाजिक परिमाण दिलें. 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या काळांतल्यो कविता वाचतकच एक भाव कवी म्हूण मनोहररायांली प्रतिमा दोळ्यार येता. ते कवितेंत वेगवेगळ्या भावांच्यो, तारो एकाच बरबर झणझणटात. पूण 'जायात जागे' ह्या काळांतले कवितेचो भाव आनी आशय एकूच आसा. जशें गोंयचें जिवीत संक्रमण अवस्थेंतल्यान वतालें तशेंच मनोहररायालें कवीतूय नवे अवस्थेंतल्यान वतालें. कित्याक तर गोंयच्या जीवितालागीं ते एकरुप जाल्लें आमी पळयतात. ह्या संग्रहांत ताणी एकूय प्रेम कवितेचो आस्पाव करुंक ना हाचेकडेन लक्ष गेलेबगर रावना. घडये प्रेम कवितेचो सूर ह्या संग्रहाच्या सुरांत अडेचो लागतलो म्हूण आसत. ह्या काळांतले कवितेची भासूय वेगळी आसा. पयलींचे वरी तो रेखीव ना. खडबडीत खरखरीत म्हणूं येता असलो. 'उतर म्हजें' हे कवितेंत ताणी सांगलांच.

उतर म्हजें उकडो तांदूळ
रुचीक पूण बटबटीत
शब्द म्हजो रसाळ पणस
म्होंवाळ पणून खरखरीत.

ते आपलें उतर कट्टे उजो आनी तुबका फार अशें म्हणटात. ह्या तांच्या उतरांचो अणभव तांची 'आमी इकरा जाण' ही कविता वाचतकच येता. कवितेच्या आशयाचेर भाशेची ठेवण निंबून आसता.

ह्या राजकीय आनी सामाजीक संघर्षाच्या काळांत ताणी बरयल्ली 'तूं नासून' ह्या शिर्शकाची कविता विशेश लक्ष वेधून घेता. ही एक प्रेम कविता. पूण तांचे हेर प्रेम कविते परस वेगळी. बरीचशी unconventional म्हणूंक येता अशी. चड करुन तातूंतल्या प्रतिमांक लागून ती वेगळी दिसता.

तूं नासून कोळ्यांनी
कोनशांनी विणल्यां जाळीं
तूं नासून आयदनांनी
खुमणी केल्यां किट्टकाळीं

चार वळी उप्रांत थंड किरांव जावन राविल्ली रांदन येता, वर्णटीक नाक तेकोवन उबी आशिल्ली आदांळी मान उमर्था घाल्लो कोळसो, मोर्नी सात्र हे मार्गकिल्यो अस्सल घगव्यो प्रतिमा येतात. घरांत घरकान्नीचें अस्तित्व ना म्हणपाचें सुचोवर्पा अखेरेक.

तूं नासून दिवलेंतली
अर्दकुटीच जळटा वात
तुजे बगर व्हडली जाता
एकसुरीच काळखी रात

ह्यो वळी कवितेक खोलाय हाडटा. मनशाच्या एकसुरेपणाचो अणभव 'तुजेबगर व्हडली जाता/एकसुरीच काळखी रात हे वळींनी आळून आयलां.

आनीक एक म्हत्वाचो बदल ह्या काळांतले कवितेंत दिसता. तो म्हळ्यार 'हांव' ची सुवात 'आमी' ह्या सर्वनामान घेतिल्ली दिसता. म्हळ्यारुच तिचो प्रवास हो व्यक्तिनिष्ठ पांवड्यावयल्यान वस्तूनिष्ठ पांवड्यामेरेन जाल्लो दिसता. आपल्या वैयक्तिक अणभवांपरस समाजाच्या अणभवांक कवी तीव्रतायेन भिडिल्लो दिसला. 'फायचो मनीस' सारकि कवितेंत ताणे म्हळां.

'हांव फायचो मनीस'
एकेच मुठींत राखल्या धरुन
विश्वाचे पोकळसाणीत
म्हजी नदर आयल्या फिरुन
हांव फायचो मनीस
वेंग म्हजी मळबायेदी
प्रीत म्हजी कोटी कोटी
मनशाच्या काळजा येदी.

हे कवितेंत 'हांव' ह्या प्रथम पुरुषी एकवचनी सर्वनामा उपेग केल्लो आसलो तरी हे कवितेच्या आशयाची व्याप 'आमी' चे वैश्विकतेमेरेन पावता. मनोहररायाले प्रतिभे खाशेलेपण ह्याच गुणात आस्पावता. तांचे अणभव तां पुरतेंच उर नासतना ते समाजपुरसाचे जाता हातुंतूच तां कवितेचें यश आसा. जिवींताक पोसवण दिवपी अणभ हीच मनोहररायाले कवितेची खरी बुन्याद आसा. ज तांच्या विचारांचो कल मार्क्सवाद वा समाजवादाकडेन आसत तरी ताणी आपले कवितेक हे विचारसरणीची दावी घाल तिका बंदी करुन दवरुंक ना. एके तरेचो open view poetry तांचे कवितेंत उक्तेपणान दिसता. तांचे कविते कांय कडेन abstract कल्पना आयल्यो तरी तांकां ता सोंस आशिल्लो दिसना. हाकाच लागून ताणी जितल उत्कटतायेन 'राग गो तुजो तणा उजो/जळटा एक खीण आनीक पळोवं नाका वाट/रीग म्हजे कुशीत अशो बर बरयल्यात तेच प्रमाण:

खिस्ताच्या उतरांचो
अर्थ आमी वांकडो करुन लखलखीत भांगरा खुरीस
गळ्यांत घाले
दुबळ्यांच्या उत्स्या भुंजांर
लोखणाचे आमचे खुरीस
उडोवन दिले.
फातरांच्या देवांक पुजून
देवावरी देव मनशांक
खुर्साचेर खिळावंक व्हेले

अशीय कविता तांचे हातसून बरोवन जाल्या.

उपरोध हो मनोहररायाले कवितेचो आनीक एक विशेश ग. उपरोधाचो प्रभावी वापर ताणीं आपले कवितेंत केल्लो सता. चड करुन तांचे सामाजिक आनी राजकीय आशय ाशिल्ले कवितेंत ताका धार येता. ह्या संदर्भात तांच्या 'ही ोकशाय', 'हुंदराची सभा' हेया कवितांचो उल्लेख करचो डटलो. 'ही लोकशाय' ही कविता लोकशाय पध्दतीचेर ल्ले भाशय. लोकशाय व्यवस्थेचें वास्तववादी चित्र हे वितेंत ताणी काडलां. निवेदनात्मक रुप आशिल्ले हे दीर्घ वितेच्यो कांय वळी हांगा दीन दिसता.

पांडुलो पाडो
गोंदूल्या गाड्याक
काटूलो कोंडो
आंतूच्या आड्याक
लाद्रूच्या शेतांत
पेद्रूची गाय
ही लोकशाय

---

बारा बोडांक बारा मतां
बारा हजार बारा खतां
दोन बोंडे, दोन आटकां
दोन वांजां दोन कुसकां
बाकी सगले उदकाशिवाय
ही लोकशाय
आनी अखेरेक
बांदोडेचो दोवलो
शिरोडेची कायल
कोणाक जाय, धुमको चिमटो?
हाय!
ही लोकशाय

कवीचो लोकशाय पध्दतीचेर विश्वास ना अशें आमच्यानी म्हणूं येना. पूण लोकशायेची आमी जी विटंबना केल्या ताची ताका खंत आसा. आनी ही ताची खंत 'हाय!' ह्या एकाच उतरांतल्यान प्रभावीपणान व्यक्त जाता. हे संबंध कवितेचो तोल हे एकूच उतर सांवरुन धरता. 'हुंदराची सभा' हीथ कविता म्हळ्यार अशेंच एक राजकीय विडंबन. ह्यो कविता साठाव्या दसकांत बरयल्ल्यो. ऐंशाव्या दसकांत 'मंत्रिमामा मामा, मंत्रिमामा' सारकिली कविता तांचे हातसून बरोवन जाल्या.

'ही लोकशाय' सारकेली राजकीय विडंबन कवितेबरबरुच मनोहररायान मनशाच्या आपसुवार्थी सभावाचेर टिका करपी कविता बरयल्या. मनशाच्या सुवार्थीपणाक शीममेर नासता. आपलो सुवार्थ सादपाखातीर खंयच्या पांवड्यार देंवपाची ताची तयारी आसता. हे नदरेन 'कित्याक रे बाबा' ही कविता म्हत्वाची थारता. मनीस झाड मारता पाटयो करुक, ताका पाटयो जाय आसता खुरीस करुंक, तो जमीन मीन करुंक खणटा, मीनाचें लोखण करुंक आनी

कित्याक रे बाबा,
लोखण तुका
खिळे करुंक
कित्याक रे बाबा
खिळे तुका ?
"जेजू आतां
येतलो परत
ताका परतून खुर्सार मारुंक"

ही कविता सांगचे परस खूब सुचोवन वता. हे कवितेंत मनीस सभावाबरबरुच मनीस कुळयेचो अनादी काळाचो इतिहासूय आसा. आनी हो इतिहास म्हळ्यार मनशान आपल्या सुवार्थाखातीर केल्लो संव्हार. हाकाच लागून कवीक ख्रिस्ताचो मानवतावाद लागींचो दिसता. देखून तो 'काळखाच्या खुर्साचेर/उजवाडाच्या जेजू काळखांतलीं पातकां म्हजीं/कितली कशीं मेजूं' अशें म्हणटा. (काळखाच्या खुर्साचेर)

अर्थकारण बरबर समाजकारण बदलता. समाजांतलो जो मदलो वर्ग आसता ताका ह्या बदलाचो हुलप बादता. ताका वयल्या पांवड्यार वचपाची शक्त नासता आनी तो एक पांवडो खालाय देवंक शकना. एके तरेची त्रिशंकू अवस्था ताच्या वांट्याक येता. तो मदले मदीं भड्डता आनी चिड्डता. ताच्या घुस्मटमारांक पारावार उरना. वयली जात आनी आर्थिक नदरेन मदल्या पावंड्यार आशिल्ल्या वर्गाची आवतिकाय 'मदले आमी' हे कवितेंत आयल्या. 'न्हय

भाटकार न्हय मुंडकार, न्हय वासरेंत न्हय रस्त्यार अशी तांची स्थिती. तांकां माडार चडूंक येना. चुडीत मोडूंक येना, रोवंक आनी लुवंक येना, तांकां मनशां मुखार वागूंक येना, देवा मुखार नाचूंक येना, हात मुखार करुकं येना आनी कोणाचे पांयूय चाटूंक येना अशी ताची अवस्था आसा.

'पासो मोखून खेळूंक येना
मोगा उज्यांत जळूंक येना.
हांसूंक येना रडोवंक येना
मारुंक येना, मरुंक येना
शेळें हून रगत जालां
जिरुन गेल्या खुमखुमी
असले आमी मदले आमी

अशें हे समाज वास्तव ताणी उतरांनी बांदून दवरल्लां. अशा मानसीक अणभवाक अकल्पीत मोडण दिवन अजापित करपी परिणाम कवी सादता. अशें तरेच्या अणभवाची अभिव्यक्ती खूब फावट जावन कवितेचे सोबीतकायेक नकलामी करता. पूण मनोहररायाले प्रतिभेक हो अणभव कवितेच्या पांवड्यार व्हरपाची तांक आसा. विचार आनी उमाळे हांच्या ओगा बरबरुच तांचे मदीं फाव तो सुमेळ सादपाची कळाशीं तांकां सादल्या. आनी हेंच तांचे कवितेन जोडिल्लें यश अशें म्हणूंक जाय. हालींच्या काळांत ताणी बरयल्ले 'मेज आयलें' हे कवितेसंबंदान आमच्यानी म्हणूं येता. मेज सारकिर्ली वस्त आमचे जिणेत येतकच पोशाखापासून ते खावपा जेवपाच्या जिनसामेरेन कशे कशे बदल जाल्यात ते ताणी वळेरी करुन दाखयल्या. मेजाक लागून आमची संस्कृताय लेगीत बदलून गेली अशें ते म्हणटात. पूण हें सगलें तें उक्तेपणान सांगिना. तर सुचक उतरांनी सांगतात.

मनोहररायाले काव्य प्रतिभेचो एक वेगळो आविश्कार तांच्या ल्हान कवितांनी दिसता. तांच्या 'जायो जुयां' (१९७०) आनी 'पिसोळीं (१९७८) ह्या दोन संग्रहानी वाचूंक मेळटात. तशेच कवनांनी तांचे आत्मानुभव आसाच. पूण तेच बरबर जिणेच्या दर एका आंगांक स्पर्श करपाची तांचे भितर तांक आसा. ताणी घेतिल्लो ह्या संवसाराचो अणभव चार ते पांच वळीं भितर आटोवन हाडपाचो सफळ यत्न केल्लो ह्या कवितांनी दिसता. तशेच जिणेंतलीं चिरंतन सतां हीं कविता सांगता. पूण हें सांगतना कवीन खंयूय तत्वज्ञानी भूमिका घेतिल्ली दिसना. सर्वसामान्य मनशाच्या पांवड्यार रावन उलयतात. ताका लागून ह्या रचनांनी तांचे भुंयेर आशिल पांय दिसतात.

खंयतरी रानांत
म्हजे बरबर
एक रुख वाडटा
म्हज्या निमाण्या दिसा
म्हाका सांगात दिवंक

ही कविता म्हळ्यार कवीक होल्मल्ले जीविताचें एक व्ह सत. ही दुसरी.

वेतलों सोडून धर्तरी
तेन्ना थड्यार दोनूच दुखां
फुलां दोनूच उगडासाचीं
आनी मुखार म्हजें वाटेंत
पावलां म्हज्या भुरग्यांची.

हो मर्णाचो अणभव आनीक वेगळी प्रतिमा घेवन येता.

पाख्या, अशें पिशेपणान
वातीखातीर मरप मरे ?
मरुन मागीर जळपा परस
जळत, जळत मरप बरें,

मरणाभशेन जीवित म्हळयार उगडास आनी सपन हाचे मदलें एक निसरतें सपण अशें म्हाका दिसता. जीवित आनी मरण हो आशय आशिल्ल्यो खुबशो कविता 'जायो जुयो' नी 'पिसोळी' ह्या संग्रहांनी मेळटात. कित्याक तर ही दोन सतां तांच्या चिंतनाचे विशय आसात.

हातूंतल्यो कांय कविता म्हळ्यार अमूर्त चित्रां आसात. तर कांय मेजक्या रेशांतल्यान आकाराक आयिल्ली रेखाटनां.

नखेत्रांचीं मुळां आसात
तुज्या दोळयांत
मळबाच्यो पाकळ्यो आसात
साळका तळयांत

ह्या चार वळींत ताणी दोळे आनी तळें ह्या दोन

तमांमदीं तोल सादून अवकाशाची जाणविकाय करुन ल्या. तेच भशेन.

मळबार एक माड धोलता
दर्यार एक ल्हार हालता
काळजांत एक याद फुलता

ह्या तीन वळींची कविता म्हळ्यार एक अवकाशाच्या वाटाक वेंगावपी प्रतिमाच. हे प्रतिमा फाटल्यान अणभवाची साय आसा. आनी ताका लागुनूच तांकां वजन येता.

बाकीबाबान आपले प्रस्तावनेंत म्हळां ते प्रमाण हातूंतल्या य कवितांक सुभाषितांची कळा आसा. आनी सुभाषितां ळ्यार जीविताच्या अणभवाचो अर्क. ते नदरेन पळयल्यार नोहररायाले कवितेक विशेश म्हत्व आसा. 'हांसतल्याचे त दिसतले/दांत नासलेले कशे हांसतले सारकिल्यो ीवितांतली विसंगती दाखोवपी वळी आनी 'काम कर नूय हातांनी/पोटभर दोनूय बोटांनी' ह्यो आठूच उतरां ाशिल्ल्यो दवळीं लोकांचे जिबेर सहज म्हणीं भशेन घोळूंक कतात. हाकाच लागून ते खऱ्या अर्थान लोककवी थारतात. शें भाग्य दुसऱ्या खंयच्याय कोंकणी कवीच्या वांट्याक वंक ना. कविता वाचप्याक अंर्तमूख करतात, विचार रुंक लायतात. 'ह्या कवितांनी कोंकणी कवितेंत नवी रंपरा सुरु केली. बाकीबाब आनी र. वि. पंडिता सारकिल्या ेश्ठ कवींचेरुय तांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. बाकी बाबांनी ं मान्यूय केलां.

मनोहररायाले कवितेची एकूण बांदावळ सादी सोंपी, शेंच तिची भास आनी शब्दकळा सगल्यांच्याच संवकळीची. े कवितेंत गूढांत उडोवपी abstraction ना. देखून ही कविता कोंकणी समाजाच्या सगल्या समाजाच्या थरांत झिरपूंक ावली. साठाव्या दसकांत उदेव जाल्ले कोंकणी कवीचे पिळगेक ताणी कवितेची स्फूर्त दिली. एक सबंद कोंकणी कवीची पिळगी तांगेल्या प्रभावाखाला आयिल्ली दिसता. पूण हे कवी ह्या प्रभावांतल्यान भायर सरुंक पावलेनात. ह्या कवींक मनोहररायालें कवितेचें भायलें रुप तितलें दिसलें पूण तिच्या अंतरंगांत रिगून तिका समजून घेवंक जमलें ना. Desceptively simple अशी तिची प्रकृती आशिल्ल्यान हे पिळगेंतले कवी फटवले. हातूंतलो जेस फेर्नांदीशा सारकिलो कवी ह्या प्रभावांतल्यान ल्हव ल्हव करुन भायर सरुंक पावलो आनी आपले वाटेन वता म्हणपाचें दिश्टी पडटा. हे कवितेचो प्रभाव मंगळुरांतले तरणे पिळगेचेर पडिल्लो दिसता. मॉवरीस द. सा, अॅन्सी पालाडका सारकिल्या कवींचो चेरो जिंत्रूप मनोहररायाले कवितेभाशेन आसा.

मनोहररायाली कविता भौसामेरेन पावली हाचे फाटलें आनीक एक कारण म्हळ्यार तिणे आपल्याक भोंवतणचे परिस्थिती पासून पयस दवरल्ली ना. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें म्हळ्यार ही हस्तीदंती मनोऱ्यांत बसून बरयल्ली कविता न्हय. तिका आशिल्ले राजकीय आनी सामाजिक संदर्भ खूब म्हत्वाचे आसात. तिच्या फाटल्यान आशिल्ल्या मानवतावादी नदरेतूनच तिका भौसाच्या काळजांत सुवात दिल्या. खूब थोड्या गोंयकार कवींच्या वांट्याक अशें भाग्य आयलां. A poet is a man speaking to man अशें वर्डस्वर्थान म्हळां. ते मनोहररायांक खऱ्या अर्थान लागू जाता.

हेर भारतीय भासांभशेन कोंकणी कवितेक आपले अशे गिरेस्त दायज नासलें तरी मनोहररायालीं कविता खंयच्याच आंगान उणी म्हणूंक येना. नामनेचे इंग्लीश कवी टी. एस. इलियट हाणे आपल्या Tradition And Individual Talent ह्या म्हत्वाच्या टिका लेखांत म्हळां. खंयचोच कवी परंपरेपासून पयस वचूंक शकना. परंपरेचे बुन्यादीचेरुच नवतेचें शिल्प उबें आसता. इंग्लीश कवितेंत युरोपियन परपंरेचें दर्शन जाता. मनोहररायाले कवितेकूय हीं उतरां जिस्त लागता. तांचे कवितेंतूय भारतीय कवितेचें दायज दिसता. मनोहररायान आपले कवितेवरवीं भारतीय कवितेक गिरेस्त केल्या. तांचे कवितेंत गोंयचे बरबर भारतीय दिसता. देखून ते कोंकणी भाशेंत बरोवपी भारतीय कवी थारता.

●





समिक्षकांचे नदरेतल्यान...

नखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

# मनोहररायांल्यो कविता : एक आस्वादन

"भाव तुका याद आसा अठरा जून?" म्हणपी लोककवी भौ. मनोहरराय सरदेसाय जून म्हयनो सासणाचो गोयकारांच्या यादींत दवरुन ह्या वर्साच्या जून म्हयन्याच्या २२ तारकेर संवसाराक अंतरले.

फाटलीं पन्नास वर्सां कोंकणी साहित्य आनी चळवळींच्या मळार वावूरपी मनोहरबाबान कोंकणी सरस्पतीच्या गळ्यांत तरेकवार अलंकार चडयले. ती मागीर कविता जांव, कथा जांव, लेख जांव वा संशोधनपर लेख जांव. पूण मनोहरबाबांचो पींड एका कवीचो. तांणी "गोंया तुज्या मोगाखातीर." "जायात जागे", "पिसोळी आनी जायो-जुयो" अशे चार कवितां झेले कोंकणी मायेक ओंपले.

गोंय! गोंयकारांच्या मोगाचें. धर्तरेचे फाटीर गोंयकार खंपूय आसूं गोंय ताका सदांच खुणायता. गोंयच्या मातयेचो वास ताका भुलयता. आंबे-पणसाची भुरगेपणांतली रुच ताका गोंयची याद करुन दिता. पूण मनोहरबाबालें कवीमन मात गोंयांसावन हजारांनी किलोमीटर पयस आशिल्ल्या झगझगत्या पारिस शारांत जंय संवसारांतली सगळीं मनरीजवणेची सांदनां तुमच्या पायांकडेन लोळत आसतात तांका खोट मारुन, थंयच रावन केन्ना गोंया? केन्ना गोंया? म्हणीत आपलो गोंयाविशींचो मोग, तळमळ, हावेस, उत्फर्के कवितांच्या रुपान उक्तायता असलो गोंयकार आगळोच!

पारिस सावन मनोहरबाब १९५८ वर्सा भारतांत परततात आनी तीन वर्सांनी गोंय स्वतंत्र जाता आनी मनोहरबाबान पारिसांत आसतना बरयल्ल्या कवितांचो आसपाव आशिल्लो कविता-झेलो 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' उजवाडाक येता ह्यो सगळ्यो घडणूको आगळ्योच!

मनोहर बाबालो पयल झेलो 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' गोंयच्या उपाट मोगान भरला. पेद्रू कुर्येय आफोंस 'जायात जागे' संग्रहाचे प्रस्तावनेंत म्हणटात, 'गोंयां तुज्या मोगाखातीर' हो झेलो एका देशांतरीच्या उमाळ्याचो एक सुस्कार. 'सोरबोर्न ह्या पारिसाच्या विद्याशाळेंत शिकतनां तागेले ध्यान, मन, अंतस्कर्ण गोंयच्या तांबडमातयेच्या. तांदळाच्या पेजेच्या, दर्यादेगेवेल्या रेवेंच्या, मांडवी-जुवारीच्या ल्हारांचे उमळशिकेन उपाट भरलां.'

ह्या कविता झेल्यांत मनोहरबाबान आपल्या कवितांनी फकत गोंयचो मोग उक्तांवक ना तर गोंयची व्हडविकाय गोंयच्या त्यावेळावेल्या परिस्थितीचेंय वर्णन केलां.

कवी 'म्हजे गोंय' हे कवितेंत परकी सत्तेखाला आशिल्ल्या गोंयचें तंतोतंत वर्णन करता.

म्हजें गोंय माडांचें । आडसाराच्या गोडयेचे
म्हजें गोंय कातली विकून । कट्टी घेवन सोरो पिता.
गोंय म्हजें तळमळटा । स्वास घेवंक कळवळटा
फिरंग्याच्या खुर्साचेर । रगताची हूम गाळटा.
(म्हजें गोंय)

पारिसाक रावनय मनोहरबाब गोंयचे सुटकेचें सपन पळयता.

येतलो केन्ना दीस रे आतां
रात केन्ना सोंपतली ?
सात लाख काळजांतल्यांन
आस्त केन्ना फुलतली ?
(गोंया तुज्या मोगाखातीर)

कवी खंय सदांच द्रष्टो आसता. ताका फुडार दिश्टी पडटा. कविक पुराय खात्री आसा की ताच्या दोळ्यादेखत मोकळो स्वास घेवपी गोंय दिश्टी पडटलें. कवी म्हण्टा -

हेच जिणेंत ह्या दोळ्यां । आमचें भाग्य फळटलें
आमचे माड आपली मान । ताठ करुन धोलतले
(गोंया तुज्या मोगाखातीर)

पारिसाक रावन कविक परती परती गोंयची याद येता कवी म्हणटा -

आजय म्हाका याद येता । माडयांच्या धोलपाची
मळबाच्या दरयाचेर । दोंगराच्या ल्हारांची
(याद येता)

गोंयचो मोग कविच्या नसा-नसांत भरला. गोंयच्या मातयेंत ताका कसो घडयला तें सांगतना आपलींच तुळा तो गोंयाकडेन करता

तुजे मातयेवरी गोंया । काळीज म्हजे झेललाल
दोंगरावरी तुज्या गोंया । आस्त म्हजी पांचवीचार
(तुजे वरी गोंया)

गोंयची सुटका जाल्ली आसता आनी मनोहरबाबांभितर एक तत्वगिझानी, फुडार पारखुपी जल्म घेता.

गोंयांत मेकळ्या वातावरणांत वेंचणूको जाल्यात. गोंयची सत्ता गोंयकारांच्या हातांत आयल्या. ह्याच वगतार २६ जानेर १९६४ मनोहरबाबांलो दुसरो झेलो उजवाडाक येत 'जायात जागे'० ह्या झेल्यांतल्या 'आज आमचें राज आयलें' कवितेत कवी म्हणटा

आज आमचें राज आयलें । आयलें आमचें राज
परक्यांच्या जुल्मांचें । तुटलें जोत आज
(आज आमचें राज आयलें)

सत्ता आमच्या हातांत आयली तरी कवी समाधानी ना कारण भौस अजून चिड्डल्लो आसा. गोंयचे कुडके तोडूंक गोंयाभायले लोक गोंयांत आयल्यात. गोंयकाराच्या हळव्या स्वभावाचो ते गैरफायदो घेवंक लागल्यात. अशा वेळार कवी गोंयकारांक शिटकायता. 'जायात जागे'. कवी म्हण्टा -

अजून आसात पिडपी हांगा
अजून आसात नाडपी हांगा
तरणे तशे दांडगे तुमी
अजून कशे रावल्या ओगे ?
हड्डयातले इंगळे आज
धगधगून जांवदी जागे
जायात जागे - जायात जागे
(जायात जागे)

गोयांत प्रत्येक गांवांत 'धा जाण' ही संस्था आसा. गांवच्या भल्योंची ती काळजी घेता. पूण मनोहरबाब आमकां इकरा जाणाक (गोंयचे इकरा म्हाल) गोंयच्या भल्याखातीर सदांच जागरुक रावंक सांगतात.

गोंयचे म्हाल इकरा सान
थंयचे आमी इकरा जाण
कवी शिटकायता
आडमेळ्यांचे येवंदी फातर
आमच्या ओंठार एकूच उतर
'जैत जोडून दितले आमी
पडलो जरी प्राण'
आमी इकरा जाण
(आमी इकरा जाण)

गोंयकाराच्या हातांत सत्ता आयली तरी कवी समाधानी ना. तो म्हणटा -

अजून आसात कितले हांगा
फातराची पेज जेवपी
अजून आसात कितले हांगा
धर्तरेची शेज करपी
अजून आसात कितले हांगा
रक्ताचो घाम करपी
अजून आसात कितले हांगा
दुसऱ्यांचे काम चोरपी

(जवाहाराक येवकार)

कवी निराश जायना आनी तो कालच्या बळीश्ट गोंयची सपनां पळयता. गोंय जे स्वावलंबी जालां, आपल्या पांयांर उबें आसा अशी कवी कल्पना तो पळयता.

फायच्या गोंयात येदे नाल्ल । आनी शेतांत दोन पिकां
फायचें गोंय म्हणटले गा । तुमची भिक आमकां नाका
(फायचें गोंय)

कवी फुडें म्हणटा
फायच्या गोयांत सड्यार लेगीत
माड झेतात धोलतलो
घरा-घरांत दुदसागर
विजे-हांसो हांसतलो
(फायचें गोंय)

कोंकणी भाशेचो अभिमान बाळगुपी मनोहरबाब कोंकणीचो फुडार पारखिता.

फायच्या गोंयांत कोंकणी उतर
लसलसून फुलतलें
तिनरंगी सपन म्हजें
संवसारभर धोलतलें.
(फायचें गोंय)

गोंयकारांक हिणसावपी, मेकळे जाल्ल्या गोंयाक गिळूंक सोदपी आमचे शिमेपलतडचे लोक आनी तांका आदार करपी आमचे कांय गोंयकारभाव आनी आमकां भास आसा? आमकां इतिहास आसा? अशें म्हणप्यांक मनोहरबाब आपल्या कवितेंतल्यान सणसणीत जाप दिता.

आमकां इतिहास आसा
आमकांय बी भास आसा
तुमच्या बरीच नखेत्रांचो
आमकांय बी ध्यास आसा
(आमकां इतिहास आसा)

कवी हेच कवितेंत आमचे अस्मितायेआड, आमच्या भवितव्याआड येवपी घरभेद्यांक खर शिटकावणी दिता.

आमच्या मनांक धार आसा
सोंशिकपणाक पार आसा
आड येतल्यांक आड घालपाक
आमच्या कुडीक हाड आसा
(आमकां इतीहास आसा)

मनोहरबाबान धाकटुल्या कवनाच्या रुपान आमकां दोन कवितां झेले दिल्यात. व्हड आटाप कमीत कमी उतरांनी सांगपाची कळाशी मनोहरबाबाक बेसबरी जमल्या. 'पिसोळीं' (१९७८) जाका १९८० वर्साचो साहित्य अकादमी पुरस्कार फावो जाला आनी 'जायो जुयो' ह्या दोनय झेल्यांतली कवनां म्हळ्यार जिणेचे मंत्र कशे. ह्या कवनांनी जिणेंतली सतां, धोंगां, पोंगां, विरोधाभास आमकां दिश्टी पडटात. मोगाची कांय कवनां पळयात.

कितलीय तुजी पिराय
दिसूं दिसा
राती म्हज्या वेगेत
तुका सतराच वर्सां (पिसोळी)

केंस वळयतना
वळय जपून
तुज्या केसांत घुस्पलां
म्हजें मन (पिसोळीं)

जिणेची सतां दाखोवपी कांय कवनां पळयात
जित्याक रावपाक
कितले हाल
येल्लयाक मात ताजमहाल (पिसोळी)

गिरेस्ताची मडी
कितें पळेता
तांची थर्डी पळें (पिसोळी)

शारांत नांवां कोनश्याक
गांवांत नांवां मनश्याक (पिसोळीं)

एक एक माड मेळून
भाट जाता
एक एक पावल चलून
वाट जाता

(जायो-जुयो)

मनोहरबाब हे फकत एक कविच नासले तर गोंयच्या हिंदू-किरीस्तांव समाजामदले ते एक पूल आसले. हिंदूच न्हय तर किरीस्तांव भाव लेगीत तांच्या कवितांचो मोग करताले. ताणी आपल्यो कविता देवनागरी सांगांताक रोमी लिपींतय उजवाडायिल्लो.

मनोहरबाब भुरग्यांमदी तर खूबच लोकप्रिय जाणट्यांच्या सांगांतापरम्स ते भुरग्यांमदी चड रमताले. तांचेभशेन भुरगो जातालो. ताकां भुरग्याच्या मनाची पारख आसली. मनोहरबाबाली भुरग्यांखातीर बरयिल्लीं गितां तर आयज लोकवेद जावन कोंकणीत घोळटात. आमची एक पिळगी तर मनोहरबाबाची बालगितां आयकूनच वयर सरल्या. मनोहरबाबाली बालगितां हो वेगळोच अभ्यासाचो विशय.

अशे हे मनोहरबाब आमचे मदी आसां नात हें खरेंच दिसना. खुद्द मनोहरबाब जो जिणेचेर खूब मोग करपी, गोंयचे मातयेकडेन आपले नाते सांगपी, आपूण ह्या संवसारातलो गेलां अशे मानीना. तो म्हण्टा

लिखणे पिराय घेवन
फोंड खणालो
म्हाकाच पुल्लो
उतरांचो रुख जावन
हांव उल्लो, हांव उल्लों.

जो मेरेन गोंयची मातो आसा तो मेरेन गोंयचे मातयेकडेन नातें सांगपी मनोहरबाब गोंयकाराच्या काळजांत अम्रंवर उरतले. ●





ालचंद्र गांवकार

समिक्षकांचे
नदरेतल्यान...

# डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांचे कवितेंतली समाजीक जाणीव

कवितेंतल्या समाजीक जाणिवेचो विचार करता सताना मुखेलपणान व्यक्ती आनी समाज ह्या गजालींक ीन आपणाले कवितेंत कितलें म्हत्व दिलां ते पळोवचें टा. कवितेच्या मुळधर्माकडेन वा व्याख्येकडेन समाजीक णिवेचो कसलोच संबंध आसना. हाकाच लागून समाजीक णीव कुशीक दवरुनलेगीत बरी कविता जल्माक येवं ा. समाजीक जाणिवेचे कवितेंत जेभशेन व्यक्ती आनी ाज येतात, तेचभशेन मनशां मनशां मदलो संबंद, ीस आनी सैम, मनीस आनी भोंवतणचो संवसार अशे ावेगळे संबंदूय हे जाणिवेक घटसाण दितात. जायते वट मनीस स्वताच्या चिंतनांचो आनी अणभवांचो विशय वपाक शकता. मनोहरराय सरदेसायाची कविता वाचताना जाणीव जाल्याबगर रावना. कवी हो स्वताच समाजाचो घटक आसता. हाकालागून समाजाक पुराय कुशीक वरुन कविता रचप खूब कठीण.

कवितेंत समाजीक जाणीव दोन तरांनी दिसूं येता. तूंतली एक तरा म्हळ्यार समाज आनी व्यक्ती नदरेमुखार वरुनूच कविता रचप. (देखीक-दलीत कविता) आनी दुसरी रा म्हळ्यार समाज आनी व्यक्ती कवितेचो विशय नासतानाच प्रतिकां आनी प्रतिमांच्या माध्यमांतल्यांन तिची जाणवीकाय जावप. मनोहरराय सरदेसायाची सामाजीक जार्णीवेची कविता ह्या दुसऱ्या प्रकारांत मोडटा. देखीक-

'गिरेस्तांक दुबळ्यांची
खूब काकुळट दिसता
पुण तांचे लागीं
मोड नासता.'
(पिसोळीं - ६९)

कवी हे कवितेंतल्यांन समाजीक उपहास उक्तायता. कवी कितेंतरी वेगळेंच सांगपाक वता. पूण तातूंतल्यान समाजीक जाणीव चड प्रखरपणान जाणवता.

ज्या काळार मनोहरराय सरदेसायान कविता बरोवपाक सुरवात केली, त्या काळार हेर भासांतल्यां समाजीक आशयाचे कवितेन पयलींच मूळ घरिल्लें. समाजांतल्या चिड्डल्या लोकांचे उत्फर्के कवितेंतल्यान प्रगट जाताले. पूण त्या काळार गोंयची राजकीय परिस्थिती वेगळी आशिल्ली. समाजीक जाणिवेपरस स्वतंत्रतायेची ओड चड खर आशिल्ली. हाका लागून मनोहरराय सरदेसायांचे सुरवातीचे कवितेंत आमकां समाजीक जाणिवेपरस



गोंयचो मोग एकवटीतपणान चड जाणवता. पूण उपरांतचे कवितेंत मात ही जाणवीक जायत्या प्रमाणांत दिसता. गरीब आनी गिरेस्त, भाटकार आनी मुंडकार, समाजीक दुबळेकाय असले चालंत समाजीक विशय तांगेले कवितेंत नकळत येवन वतात. गरीब आनी गिरेस्तामदलो फरक दाखयताना कवी म्हणटा -

"गिरेस्ताची आवय म्हणटा
'पोरान कांयच खावंक ना'
गरीबाची आवय म्हणटा
'पोराक कांयच खावंक ना'
(पिसोळीं-६४)

दुसरे एके कवितेंत कवी म्हण्टा -

'गिरेस्ताची मोटार मोडटा
तेन्ना ती
गरिबांक धुकलची पडटा"
(पिसोळीं - ७४)

गरीब आनी गिरेस्तांची तुळा करपी इतलें बरें काव्य खंयच पळोवंक मेळचें ना. ह्या कवितांनी निखटी समाजीक जाणीव ना. जाल्यार तातूंत एक तत्वगिन्यान लिपिल्लें आसा. समाजांत ज्यो घडणुको घडटात तांचो नियाळ केल्याबगर ही जाणीव येवप शक्य ना. हांगा निखटो उतरांचो अर्थ कळ्ळो म्हूण कविता समजना. त्या उतरांचो संदर्भ कळपाक जाय.

गरिबी आनी दळडीर म्हळ्यार मनीसजीणेक पडिल्लो एक श्राप. ही गरिबी पळोवन कवी कळवळटा. तो म्हण्टा -

'अजून आसात कितले हांगा
फातरांची पेज पिवपी
अजून आसात कितले हांगा
धर्तरेची शेज करपी
अजून आसात कितले हांगा
रगताचो घाम करपी
अजून आसात कितले हांगा
दुसऱ्यांचें काम चोरपी'
(जवाहराक येवकार - जायात जागे)

कवितेंतली समाजीक जाणीव एकसारखी उ
काळाप्रमाण ती बदलत रावता. कित्याकतर समाज
प्रस्नूय काळाप्रमाण बदलत रावतात. पोरणे प्रस्न फाटीं
नवे प्रस्न उप्रासतात. मात त्याखातीर कवीन जागरुक अ
गरजेचे. एका तेंपार ज्यो गजाली लोक मानताले त
गजाली कांय तेंपान लोक सोडून दितात. समाजांतलो भेद
आयज जायत्या प्रमाणांत उणो जाला. जाल्यार दुसरे
शारीकरण, कोयराचो प्रस्न, झोपडपट्ट्यो, आकांतवा
मारामाऱ्यो, आगळीको, धर्मवाद अशे नवे नवे प्रस्न उप्र
आसात. काळावांगडा कवितेंत ते वेगळेतरेन येत रावल्य

उद्देगीकरणाक लागून समाजांत तरेकवार प्रस्न उप्रास
गांवांची शारां जालीं. शारांतली घरां म्हळ्यार मनश
बंदिस्त करुन दवरपी पांदरे जाले. ही खंत उक्तायताना क
म्हण्टा -

'हें शार न्हय ----- मसुंडी
हीं घरां न्हय ------ थडी
भितर जितीं, जिवीं मडीं"
(पिसोळीं - ८७)

मनशाचें जिवीत म्हळ्यार एक वर्तुळ कशें. ता
सुख-दुख आयलेंच. मनीस सुख भोगपाखातीर जायते त्र
सोसता. पूण ताका सुख मेळटाच अशें ना. कवीन
गजाल सोबीत उतरांनी सांगल्या. तो म्हण्टा -

"घरचें जेवण मेळचें म्हणून
लग्न जालों
बायले-पोरांक पोसपाखातीर
आतां जोडूंक वेतां
भायरुच जेवतां"
(पिसोळीं - ४४)

आनीक एके कवितेंत कवी म्हण्टा -

"जिवितापासत
दुडू जोडले
दुडवांपासत
जिवीत मोडलें"
(जायोजुयो)

हो अणभव कवीन आपलो स्वताचो जाल्लेभशेन मांडिल्लो लो तरीय तो निखटो कवीचो उरना. तो पुराय समाजाचो . कित्याक तर असो अणभव जायत्या जाणांक येता. जांतल्या लोकांक रावपाक घरां नांत. कितलेशेच लोक ार रावतात. पूण मेल्ल्या मनशांच्या नांवान थडीं बांदपाक ांकार लोक कोटीनीं दुडू मोडटात. तें पळोवन कवी स्थ जाता. तो म्हण्टा -

"जित्यांक रावपाक
कितले हाल
मेल्ल्यांक मात
ताजमहाल"

(पिसोळीं - ११५)

ह्यो कविता आकारान ल्हान आसल्यो तरीय आशयान न्हय. थोड्याच उतरांनी त्यो जायतें सांगून वतात. जांतलें वास्तव ज्या कवीन अणभवलां आनी पचयलां कवीकडेन समाजीक जाणिवेची कविता जल्माक घालपाचें ीं आसता. कवी एके कवितेंत म्हण्टा -

"अशेंच करीत आयले
फातरांच्या देवांक
रगतान न्हाणयले
रगताच्या मनशांक
फातरान धाडायले"

(जायोजुयो)

हें अर्दसत्य न्हय. हे पुराय सत्य. देवाक सोदप हो एक तन सोद. हो सोद हजारांनी वर्सां जालीं, लोक तो लेपरीन घेत आसात. पूण अजून तो कोणाक मेळूंक ना. स ताका दरेका करणेंत सोदपाचो यत्न करता. कोणेतरी रांच्यो मुर्ती घडयल्यो आनी तांकांच देव मानपाची चाल जाली. तेन्नासावन ती चलत आसा. फातरांच्या देवांमुखार स मनशाक वळखता हाची खंत हे कवितेंत आमकां ता.

समाजांतल्या सगल्या लोकांक सुख मेळचें, सगले सुखी आनी समादानी उरचे असो कवीचो आवंडो ा. तो म्हण्टा -

"दर मनशाक मेळचें रावंक
दर मनशाक मेळचें काम
जाका जशी तान-भूक
मेळचें ताका पिंवक खावंक
पायांत घटाय असत जाल्यार
आडे मोडून मेळचें धांवक"

(आग्वादाच्या शिंवा तुवें - जायात जागे)

पूण ताचो हो आवंडो गळ्यांतूच सुकता. जो आलायतें जोडटा तो फोल्गां मारता. उरफाटें जो चडांत चड कश्ट काडटा ताच्या वाट्याक चड त्रास येतात. तांकांच चड हाल काडचे पडटात.

"चिरे तासून, चिरुन दारां
दुसऱ्यांचीं बांदलीं घरां
तांच्या पोरांक कोलवाचें
पाखें लेगीत न्हय मेळचें ?"

(आग्वादाच्या शिंवा तुवें - जायात जागे)

असो प्रस्न कवीक पडटा. ह्या प्रस्नाक जाप ना. कित्याकतर आमगेली समाजवेवस्थाच ताका जापसालदार आसा.

गोंय म्हळ्यार कवी मनोहरराय सरदेसायाचे कवितेचो आत्मो. तागेले कवितेंतलें गोंय कुशीक काडलें जाल्यार ते कवितेंत कितें उरतलें ? असो प्रस्न जायते फावट पडटा. तागेली 'मदले आमी' ही समाजीक आशयाचीच कविता. पूण गोंयकारांक कुशीक काडले जाल्यार ती अर्थहीन जातली. कवीन 'मदले आमी' हे कवितेंतल्यांन मध्यम वर्गीयांचे दुखख बेसबरें सांगलां. तो म्हण्टा -

"कालच्यो राती, फायचे दीस
हाचे मदीं - मदले आमी
न्हय भाटकार, न्हय मुंडकार
न्हय घरकार, न्हय शेतकार
न्हय वासरेंत, न्हय रस्त्यार
न्हय शागीर्द, न्हय स्वामी
असले आमी - मदले आमी "

(मदले आमी)

हे कवितेंत मुखेलपणान गोंयकारांची व्यथा पळोवंक मेळटा. कवीन ही व्यथा नकसूद उतरांनी सांगल्या. 'आमकां

नांगर धरुंक येना.... आमकां माडार चडूंक येना.... आमकां चुडीत मोडूंक येना.. आमकां जळव फोडूंक येना... आमकां रोवंक येना, लुवंक येना'' गोंयकारांनी आपलें दायज सोडून दिलां. पारंपारीक धंदे सोडून दिल्यात. स्वावलंबी जावपाचें सोडून तो दुसऱ्यांच्या आदाराचेर जगता. ही खंत कवी हांगा उक्तायता.

स्वताच्या अणभवानी अखख्या संवसारांतल्या मनीसजातीची व्यथा मांडपाची कळाशी कवी मनोहरराय सरदेसायालागीं आसा. देस-भेस-भास खंयचीय आसूं, मनशाच्यो मुळाव्यो भावना बदलनांत. त्यो उण्या-चड प्रमाणांत सारखोच आसतात. कवी एके कवितेंत म्हण्टा -

'सपनांत रातीं हांवें
दुस्मानाचेर फुलयलें
फांतोडेर पळे जाल्यार
म्हजेंच तोंड सुजलेंलें ''
(पिसोळीं - ३३)

आयज अखखो संवसारुच तकलुपी जाला. समाजांत वावुरताना तरेकवार रुपडीं घालून वावुरचें पडटा. ही रुपडीं घालून घालून मनीस स्वताकूच वळखुपाक कसो विसरता हें सांगता आसताना कवी म्हण्टा -

''इतलीं रुपडीं
घालतां, काडटां
केन्ना, केन्ना
तोंडूच घरा दवरुन
भायर सरतां.''
(पिसोळी - ७३)

अशाच आशयाचे आनीक एके कवितेंत कवी म्हण्टा-

''ह्या सवंगाचो
म्हाका वाज आयला
केन्ना काय रंग पुसून
घरा वचन जालां''
(पिसोळीं - ९०)

समाजीक जाणिवेची कविता काव्य शेणोवन बसता अशी एक चुकीची समजूत टिकाकारांमदी आसा. ही समजूत मनोहरराय सरदेसायाचे समाजीक आशयाचे कवितेन कितली फट थारायल्या तें तांची कविता वाचतकूच लक्षांत येता.

•



मोहरराय सरदेसाय

# तिकल्यो

मनाच्या कोनशांतलो कोयर जळोवन उडयला
तरी ताचो धुंवर दोळ्यांत वेता दुकां हाडटा

●

म्हाका सोडून गेली
तेन्नापसून
हांव म्हाकाच सोदीत आसां
जाणां हांव तुज्यांत आसा

●

गोंयचे आमी तरणाटे
वचूं नाकात आमचे वाटे
सैंमाची फुलां आमी
जाय तेन्ना जातले कांटे

●

एका हातांत लिखणी
एका हातांत पेलो
ताका कसो धरतालों ?

●

कागदार वीज पडली
ही उज्या-वळ
दवरुन गेली

●

तुजें म्हजें नाते
कागदाचें
तुजे म्हजें नातें
काळजाचें

●

कोगळाक म्हण्टा कावळो
'तुजो म्हजो रंग काळो.'
कोगूळ म्हण्टा कावळ्याक
'आनी तुजो ताळो?''

●

एकूय मिरी ना
ताच्या सदऱ्यार
सगल्यो मिरयो
ताच्या चेऱ्यार

●

सोडून भुकेचो वेळ
भुरग्यांचे जिवीत म्हळ्यार
खेळूच खेळ

●

खावंचें पान
देखता चुन्याची वाट
लाल रंगान सारुंक
मोगाची रात

●

तुज्या घराकडेन
वचपी पावलां
हांव असो कुशीक
रावन मेजीत रावलां

●

प्रतिमेचें फूल
काळखा-कुडींत फुलता
जिविताचो रुख
वादळ-वाऱ्यांतूच वाडटा

●

प्रिन्टराचे चलयेक म्हळें
''तूं म्हजी जाता न्हय?
तिणें म्हळें''
''तूं म्हजो टाइप न्हय.''

●

कागदाचो पनेळ
लिखणेचो वोलो
म्हाकाच खबर ना
हांव खंय पावलों.

●

म्हज्यांतलो
भुरगो रडटा
तेन्ना म्हज्यांतलो जाण्टो
ताका थारायता

●

कांय जाण अशे आसतात
उदकाच्या भयान
दर्यांत उडकी मारतात

●

फुलांचो पर्मळ
पयसुल्ल्यानूच घेवंचो
लागीं गेल्यार
तोंपता कांटो

●

त्या पसरकारान
बांदला एक बंगलो
सोबीत आनी मोठो
पूण ताचो पसरो मात
एक गोठो

●

तो व्हड हिशेबी आसलो
ताणें जिविताचो हिशेब केलो
आनी जिवीत म्हारग पडटा
म्हूण जीव दिलो.

●

भुरग्यांची जाण्टेपणां
जाण्ट्यांची भुरगेपणां

●

मोगाची दोरीच तुटल्या
आतां तुजी ओली ओली उतरां
खंय सुकत घालूं ?

●

दुसऱ्यांचीं इतलीं संवगां करतां
हांव कोण तेंच विसरतां

●

सूर्या गेलो म्हणून
खंत जाली
पूण लाख नखेत्रां मेळ्ळीं.

●

पातकाची ख्यास्त
सर्गार घडटा
पिशेपणाचें पानवळ
हांगाय मेळटा

●

गिरेस्ताक सर्गार
वचूंक मेळचें ना
आनी गरिबाक
धर्तरेर सुवात ना

●

चलतालों
वयर लायत दोळे
तेन्ना कोणें म्हाका
म्हळें
''पांयांकडेन पळे.''

●

उलयल्यार
कोण आयकना
म्हणून बरयता
कागद वोग्गी रावन
सगळें आयकता

●

गाळींचो पडटा शिंवर
तेन्ना उमथो कळसो जा
तोखणायेचें झडटा फूल
उक्तो पोसो जा

●

'आ म्हणचे आदींच
आज सोंपता
फाल्यां - एक आभास
आमचें लागीं एकूच आसा
फायचो उगडास

●

कागदावेली ती वळ
म्हज्या काळजांतली कळ

●

हांव आसां
म्हणून तू आसा
हांव नासतलों तेन्ना
तुजो उगडास
कोण करतलो ?

●

धव्या फुल्ल कागदाचेर
काळी शाय
तातूंत म्हजें रुप चोयता

●

पांखांचो भार तोलता
ताका उडूंक येना

●

तिजो चेरो चंद्रिम कसो
पयसुल्ल्यानूच पळोवपाचो

●

वाटेंत म्हाका मेळ्ळीं फुलां
मेळ्ळी फळां, कवनां, सपनां
म्हाका आतां
खंयच वचपाचें ना

●

मेकळो उडपाक
काळ आशेला
घडयाळीच्या कांट्याच्या
कात्रींत सांपडला

●

मोगाचें थडें
शहाजहानाक
थड्याचो मोग लोकांक

●

बरें उलयता
तो बरें उलयता
पूण वायट उलयना
तोय बरें उलयता
उलय नासताना

●

कांय मोग अशे आसतात
फूंक मारल्यार पालवतात
कांय मोग अशे आसतात
फूंक माल्ल्यार चडूच पेट्टात

●

गडगडो गडगडून
जोगूल कड कडून
पावस झडून झडून
पावसांतल्यान वोत हांसता
तेन्ना हांव
दुसऱ्या तुफानाची वाट देखतां.

●

उतरां चडूच जड जातात
तेन्ना तांकां थोडे वेळ
कागदाच्या दवरण्यार
दवरतां
आनी मागीर मुखार सरतां

●

फुलान म्हळें,
'आगो मुळा
तूं अळशिकावणें
वांकडें, तिकडें
मूळ दुबावलें
पान गळ्ळें, फूल बावलें, झाड सुकलें

●

कपळावेली तिकली
कागदाक लायली
सगळी चिंता
कागदाक सोंपयली

●

देगेर रावन ल्हारांचो खेळ
पळयतालो
एक व्हडलें ल्हार
येवन म्हाका ओडून व्हेलो
हांवूच ल्हार जालों

●

बेश्टो कांट्यांचेर
कित्याक आळ?
ह्या फुलांनीच
म्हजें काळीच केलां घायाळ

●

म्हाका लागना
फायचें पुण्य
कालचें पाप
म्हाका पुरो एकाच दिसाचें
आयचें माप

●

तो पयशांक
संवकला
आनी मनशांक
पयसावला

●

काळो रंग
धव्या कागदार उडयतां
सगळे रंग
चितारतां

●

उतरांचो पतंग
हांवें मळबांत सोडला
आनी ताजो दोर तोडला

●

हांव विडी ओडटां
म्हणून तूं म्हाका सोडटां ?
ना. तूं म्हजी विणी
ओडटा म्हणून सोडटां.









चंद्रकांत केर्णी

कथा

# वर्गमित्र जीवोत्तम

जीवोत्तमाक तागेल्या गांवचे लोक बालगंधर्व त्याक म्हणटात म्हणपाचें कुवाडें म्हाका सुटूंक नासलें. जे केंस मानेर सकल मेरेन पावतात आनी ताचो आवाज नरो हें हांव जाणा. पूण ताका बालगंधर्व कित्याक णचें?

मडगांवां हायस्कुलांत शिकता आसतना वर्गात जीवोत्तम टल्या बांकाचेर बसतालो. म्हजेपरस मात्सो मोटवो जाल्ल्यान क्षकान बोर्डार बरयिल्लें वाचतना ताका म्हजी आडखळ वची आनी सदां ताणे म्हजे फाटीक हात लावन म्हाका शीक सरुंक सांगचें.

दीसपट्टें अशें घडटालें. तो संवकळीचो हात आसूनय टीचे बरगडीक तागेलें बोट लागनाफुडें म्हाका कातकुतल्यो ताल्यो. ल्हानसो बांक. कितलो म्हणून कुशीक सरतलो? काय बरोवन घेवपाचें आसतालें. तरी हांव जाता तितलो शीक सरपाचो यत्न करतालो.

'तुमी मोटव्या भुरग्यांनी फुडल्या बांकाचेर बसूंक जाय.'' क दीस हांवे जीवोत्तमाक म्हळें.

तो म्हज्या आंगार आयलो. 'कोणाक मोटवो म्हणटा ? तूं आपणक माडा इतलो लांब समजता काय कितें?'

जीवोत्तम तसो नाजूक. झगडपाचो प्रसंग आयलोच जाल्यार हांव ताका हारयन आसलो. पूण तेन्ना येन्ना म्हज्या आंगांत झगडपाचें बळच ना. देखून जीवोत्तम तापलो म्हण्टकच हांवें नमतें घेवचें आनी ताका समजवापचो यत्न करचो. पूण गांयडोळ कसो तो उडटालो आनी उपरांत दोन दीस म्हजेकडेन उलयना आसतना रावतालो.

वर्गांत जीवोत्तमाक इश्ट खूब. तसो तो हुशार भुरगो न्हय. पूण फुटबॉलाचे मॅचींत तो बरो गोलकिपर अशी ताजी त्या वेळार नामना आसली. आमच्या वर्गामदी मॅची जाल्यो जाल्यार आपले लांब केस कपलार येवचे न्हय म्हणून माथ्यार लेंस बांदून जीवोत्तम गोलकिपराचे काम करतालो आनी जोमेरेन जीवोत्तम थंय आसा तोमेरेन फुटबॉल त्या गोलांतल्यान वचचोच ना असो एक विस्वास सगळ्यांक दिसतालो.

पूण एक दीस एका वस्ताद खेळगड्यान पयसुल्यान मारिल्ली शूट पिस्तोलांतले गुळ्येभाशेन जीवोत्तमाच्या आंगाक घश्टून गोलांतल्यान पसार जाली, तेन्ना सगळ्यांक अजाप जालें. जीवोत्तमाक कितें जालें ते कळ्ळेंच ना. तो बॉल सोदता तें पळोवन सगळे हांसले. आनी म्हज्या नशीबान ती मॅच पळोवंक हांव गेल्ल्यान म्हाकाय हांसो आयलो. लज





जाल्ल्या जीवोत्तमाक म्हजो डंख धरूंक आनीक एक कारण मेळ्ळें.

पूण जीवोत्तम लोकप्रिय आसलो तो तागेल्या खेळाक लागून न्हय तर वेगळ्याच कारणाखातीर. पयसुल्ल्या गांवात तो रावतालो आनी सायकलीन स्कुलांत येतालो. म्हाका उगडास जाता तेप्रमाणे ताजेकडेन एक नवी ताल्ल हर्क्युलीस सायकल आसली. साकयलीन शाळेंत येवपी तो एकलोच विद्यार्थी आसलो. एक शिक्षक सायकलीन येतालो, पूण तागेली सायकल पोरनी आनी तागेली सदळ कादय वयले वयर पडटाली. ताका लागून बरी सायकल ती जीवोत्तमाली अशें सगळे मानताले.

कोण तरी तेन्ना सांगिल्ले, "जीवोत्तमाला बापूय बोटीचेर आसता. तो दोन तीन वर्सांनी एक खेपे येता. येतना नवी साकयल आनी कितल्योशोच हेर वस्तू हाडटा."

तें खरें आसूये. कित्याक, मदी केन्नाय जीवोत्तम कारामेलाच्यो काशी घेवन स्कुलांत येतालो आनी कारामेल मागूंक चलयो लेगीत ताजेसरीं वताल्यो. ते दीस वेगळे आसले. वर्गात चलयो आसल्यो तरी त्यो चल्यांकडेन उलोवपाचें सोडातच, नदर वयर करुन लेगीत पळयना आसल्यो. देखून सगळ्या चल्यांक जीवोत्तमालो मत्सर दिसतालो.

जीवोत्तम फकत चॉकलेटी हाडटालो अशें न्हय तर स्कुलांत येतना ताणे आंबाडे, तोरां, बोरां, चिंचेबोटां, आंवाळे... आसल्यो वस्तू हाडच्यो आनी आपल्या मर्जेतल्या भुरग्यांक त्यो दिवच्यो. हांव ताज्या दुस्मानांत मोडटालों देखून म्हाका त्यो केन्ना मेळ्ळयो नात.

जीवतोत्तमाच्यो ह्यो पोरन्यो यादी आयज अचकीत जाग्यो जाल्यो ताजें कारण वेगळें. तागेल्या गांवांच्या क्लबाचे कांय लोक म्हाका मेळूंक आयले आनी ताणी म्हळें, 'आमच्या बाल गंधर्वाक अंदूं साठ वर्सां जातात. ताजो आमी सत्कार करपाचें थारायला. मुखेल सोयरो म्हणून तुका आपोवचे अशें ताणेंच सुचयलां."

म्हाका बालगंधर्व म्हळ्यार कोण हें समजलें ना. आनी हांवें म्हळें, "तो कोणय कलाकार आसत जाल्यार एकाद्या कलाकाराच्या हातानच ताजो सत्कार तुमी कित्याक करिनात?"

"ताजे इच्छेनच आमी तुका आमंत्रण दिवंक आयल्यात एकल्यान म्हळें.

'पूण ताजो म्हजो संबंद ना. वळख ना देख. कले क्षेत्राकडेन म्हजो संबंद नांवापुरतो येता. तुमी कोणाय नाट वा संगीताच्या क्षेत्रांतल्या मानेस्ताक व्हेलो जाल्यार तें प्रसंग सोबून दिसतलें.

"तो तुजो क्लासमेंट." दुसऱ्यान सांगलें.

क्लासमेंट? बालगंधर्व?... हांव येवजूंक पडलो.

"ताजें नांव जीवोत्तम. आमी ताका बालगंधर्व म्हणटा तो एक बरो नट. आमचे संस्थेक अंदूं तीस वर्सां जात ताणेच ती सुरु केली आनी फाटली तीस वर्सां नाटक कामां करुन कीर्त जोडली."

जीवोत्तम हे नांव आयकना फुडें म्हाका वळखी दिसलें, पूण सट करुन याद जालीना. तरी म्हाका चड वे येवजीत बसचें पडलें ना. जेन्ना जीवोत्तमाची मूर्त दोळ्यामुख उबी रावली तेन्ना मात म्हाका हांसूंक आयलें.

म्हाका अचकीत हांसतना पळोवन आमंत्रण दिवं आयिल्ले गोंदळ्ळे. हांवें ताकां सांगलें, "वळखलों. ह जीवोत्तम म्हजो क्लासमेट आसलो. ताजें म्हजें केन्नाच जुळ आसलें आनी तो म्हाका आपलो दुस्मान मानतालो, येवजून म्हाका हांसो आयलो. कशेंय आसना जीवोत्तमा इत्सा आसली जाल्यार तागेल्या सत्काराक हांव मुजर येतलों."

अंत्रुजेच्या एका गांवांत सांजचो सत्कार आनी त उपरांत जीवोत्तमाल्या घराकडेन जेवण असो कार्यक्रम ता थारयिल्लो. सत्कार देवळाच्या चौकांत जातलो आनी जेव उपरांत एका मराठी संगीत नाटकाचो प्रयोग जावपा आसलो. म्हाका फकत सत्काराकच न्हय तर रातच्या जेवणा आनी नाटाकय आमंत्रण आसलें.

म्हजें यादी प्रमाणे जीवोत्तम साष्टीच्या एका गांवां रावतालो. आनी हो सत्कार तर अंत्रुजेच्या गांवांत. तित एक दुबाव तकलेंतलो काडून उडोवचे अशें येवजून हां विचारलें, "जीवोत्तमालें घर थंयसच आसा? आमच्या भुरगेपणां

साश्टींत खंय तरी रावतालो अशें म्हाका याद जाता.''

''हय, ताजो गांव अंत्रुजेंतच. तो ल्हान आसतना श्टींत उरतालो हें खरें, पूण तो मुळचो साश्टीचो न्हय.''

ज़ीवोत्तमाविशीं खूबशें समजून घेवपाचें आसलें. तागेल्या कारावेळार उलयता आसतना तागेल्या कार्याची थोडी ळख गरजेची आसली. म्हजी ताजी वळख शाळेंतली. पूण नाटकांत बायलेचें सवंग बेस बरें करता हाज्या भायर ज्या वावराचो चड तपशील आयिल्ल्या लोकांकडेन नासलो. ीं केन्नाय तरी जीवोत्तमाक मेळून खबर घेवची अशें ांतल्या मनांत हांवें थारायलें आनी क्लबांचे आमंत्रण नून घेतलें.

ते गेले आनी जीवोत्तमाच्यो यादी जाग्यो जाल्यो. ाका उगडास जाता ते प्रमाण त्यावेळार मुंबय विद्यापीठाचे ट्रीक परीक्षेक गोंयच्या हायस्कूलांतले विद्यार्थी बसताले नीं म्हजो जीवोत्तमाकडलो संबंध तीन वर्सां पुरतोच आसलो. ्या वर्गात (प्री मॅट्रीक) आसतना जीवोत्तम नापास जालो नी एक वर्स तो फाटी उरलो तेन्ना लेगीत तागेली शाळेतली ाकप्रियता उणे जावंक नासली. हायस्कुलांतलें शिक्षण पल्या उपरांत हांवें सोडलें आनी तेन्नाच्यान जीवोत्तमाक न्ना पळयलो ना व ताजेविशीं आयकलें ना.

गोंयचे सुटके उपरांत गोंयांत येतकच वेळार अवेळार ाळेंतले इश्ट अचकीत मेळटात. तेन्नाच्यो कांय चलयो गीत खंयय मेळ्ळयो जाल्यार मुजरत जाप दितात. पूण तल्या वर्सां मजगती जीवोत्तम केन्ना मेळ्ळो ना वा ताजे ाशीं कोणे कांय सांगलें ना.

पूण जीवोत्तमाविशींचो एक प्रसंग मात हांव अजून सरूंक ना. केन्ना तरी म्हाका ताजो उगडास जाता आनी कळटना हांव दांत ओंठ चाबतां.

प्रसंग आसलो स्कुलांतल्य गॅदरिंगावेळायलो. जीवोत्तम सल्या तरी एका नाटकांत नायिकेचे सवंग करचे खातीर ीन रुमांत नटून बशिल्लो. सगळे भुरगे वचून वचून ताका ळोवन येताले. णववारी कापड न्हेशिल्ल्या जीवोत्तमान ंगावनाच्या आदारान केंसाचो आंबाडो घालून ताजेर मोगरेची ांती माळिल्ली. कमराक एक चकचकीत पटो. दोनय हातांक कांकणा आनी नाकाक नथ. सगळे म्हणटाले, 'जीवोत्तम खऱ्यांनीच सुंदर दिसता. ताका असोच भायर व्हेलो जाल्यार बायलेचें सवंग घेतिल्लो तो दादलो अशें म्हणपाचें कोणाकच खरें दिसचें ना.''

हांव ग्रीन रुमांत गेलों आनी जीवोत्तमाक सोदूंक लागलों.

''खंय रे जीवोत्तम?'' हांवें एकल्याक विचारलें.

सगळे हांसले.

मागीर म्हाका समजलें की कुशीच्या कदेलाचेर बशिल्ले बायलेच्या रुपांत जीवोत्तमच थंय आसलो. इतलो हांव ताका वळखूंक विसरिल्लो.

म्हजी फजेत जाल्ली पळोवन आसूं ना जाल्यार आपले सवंग बरें रंगलां हें पळोवन आसूं जीवोत्तम हांसलो.

हांवे म्हळें, ''जीवोत्तमाक बायलेचें सवंग सोबलें जाल्यार अजाप कितें? ताका खाड मिशो खंय आसात?''

सगळे हांसले. जीवोत्तमाक राग आयलो. तो कदेलावयलो उठून वस्स करुन म्हज्या आंगार आयलो आनी म्हज्या नाकार मूठ माल्ली. नाकांतल्यान भळभळीत रगत व्हावन म्हजें खोमीस भिजलें...

आज त्या प्रसंगाचो उगडास जालो तरी म्हज्या मनांत जीवोत्तमाविशी राग ना. उरफाटें ताका मेळूंक मन उत्सुक जालां.

क्लबाचे कमिटीचे लोक परत आयले नात. टपालांतल्यान छापिल्ले आमंत्रण वेळार पावलें आनी जीवोत्तमाल्या सत्कारखातीर हांव मुजरत थारिल्ल्या वेळार त्या गांवांत पावलो.'

देवळामुखार चौकांत बोवाळ आसलो. लावड स्पीकराचेर सिनेमांतली पदां लागिल्लीं. हांवें वाटेवयल्या पसरकाराक विचारलें. 'ज़ीवोत्तमालो सत्कार ह्या देवळांतच न्हय?''

नाबीर बसून तो विडी ओडटालो. बेगीबेगीन उठलो. विडी भायर मोखली आनी म्हजे गाडयेसरी येवन म्हळें, 'बालगंधर्वाचो मूं? हांगाच.''

तितलें उलोवन तो म्हाका रोखून पळयत रावलो आनी पळयतां पळयतां एदोळेळ गिळून दवरिल्लो धुंवर ताणे ल्या नाकांतल्यान सोडलो.

हांव देवळासरीं गेलों आनी पळयलें. स्टेजीचेर नाटकाचे दे आनी व्हिंगां बांदिल्ली आसात. खूबशे भुरगे थंय ळटात. अजून समारंभाची तयारी पूर्ण जावंक ना आनी योजकांमदलो कोणूच थंय दिसना.

"कार्यक्रम केन्ना जातलो?" हांवे एका भुरग्याक ारले.

'आनीक अर्दवर तरी लागतलें. अजून कोण येवंक ना. खंयय वचून येतालो जाल्यार यो." त्या भुरग्यान जाप ी.

ल्हानशा गांवांत खंय वतलों ? जीवोत्तमागेर वचुन येतालें. पूण जीवोत्तमालें घर म्हाका खबर ना. एका ग्याक विचारलें. ताणे जाप दिली, "तागेलें घर गांवाभायर सा. मात्शें पयस."

हांव थंयच बसून रावलों. बऱ्या वेळा उपरांत क्लबाचो पदाधिकारी आयलो. म्हाका पळोवन धांवत म्हजेसरी वन म्हाका हात दिलो आनी म्हळें, "तूं इतले बेगीन ालो अशें धरुंक नाशिल्ले."

हांवें बोल्सांतलें छापिल्लें आमंत्रण काडून वेळ पळयलो. जचो चाराक दबाजो सुरु जावपाचो आसलो आनी म्हजे ड्याळीत साडेचार वरां जावन गेल्लीं.

"कार्यक्रमाचो वेळ बदल्ला काय कितें? हांवे ताका चारलें.

"ना. ना. पूण हांगा सगळे कार्यक्रम स वरांचेरच सुरु तात. उपरांत नाटक बी आसता. खरे लोक येतात येत टकाक. नांदी सुरु जाले बगर ह्या गांवचो लोक घरांतलो ायर सरचो ना."

म्हज्या मनांत आयलें एक अंक जातकच हाणी जीवोत्तमाचो सत्कार केल्लो जाल्यार श्रोत्यांचो प्रस्न सुटलो आसलो.

पूण हांव कांय उलयलो ना. फकत म्हाका जीवोत्तमागेर पावय अशें ताका सांगलें.

तो कबूल जालो. जीवोत्तमाल्या घरा लागसार पावतकच ताणे पयसुल्ल्यानच म्हाका घर दाखयलें आनी म्हळें, "म्हाका इल्लें काम आसा. फुलांच्यो माळो सांगल्यात त्यो घेवन येवंक जाय. तूं एकलोच जीवोत्तमागेर वता न्हय?"

घर मुखार दिसतालें. तो देंवलो आनी हांव जीवोत्तमाल्या घराकडेन गेलो.

दारांत एके बायलेन म्हाका येवकार दिलो आनी बसोवन घेवन आपूण दुसऱ्या कदेलाचेर बसली.

हांव पळयतालों. घरांत भितल्ले वाटेन आवाज येताले. पूण जीवोत्तम खंय दिसलो ना. म्हज्या/मुखार बसल्या ती ताजी बायल, भयण काय धूव? असो म्हाका प्रस्न पडलो.

"ख़ूब वर्सांनी मेळ्ळे आमी न्हय? तूं खूबच जाण्टो दिसता आनी सामको पिकला." ते बायलेन म्हाका म्हळें आनी हांवें अजापान तिजेकडेन पळयलें.

होच जीवोत्तम बी न्हय मू ? आनी हांव गोंदळिल्लो पळोवन ती बायल व्हडाव्हडान हांसली.

"वळखलो ना मरे ? हांवच जीवोत्तम." ताणे म्हळें आनी उठून एकदम म्हाका वेंग मारली.

हांव खांकुडलो. कित्याक कोण जाणा, हांवे म्हजे नाक सांसपून पळयलें. जीवोत्तमान मारिल्ले मुठीची याद जावन हांवे म्हळें, 'सगळो संवसार जाण्टो जालो. पूण तूं मात अजून भुरगो आसा."

जीवोत्तम परत वचून कदेलार बसलो आनी हांसत ताणे जाप लिी. "ही सगळी मेकपाची करामत. हो रंग पुसलो आनी हें कापड सोडलें जाल्यार तुका कळटलें, जीवोत्तम कितलो जाण्टो जाला तें!"

हांव ताका पळयत आसलो. हे पिरायेचेर लेगीत ताका खाड मिश्यो फुटूंक नासल्यो. हांवे ताका म्हळें, "तुवें म्हजेर मूठ मारिल्ली याद आसा तुका?"

"ख़रें म्हणटा काय कितें ?" अजापान ताणे परतो प्रस्न विचारलो.

ताका याद नासली. आनी ते गजालीची ताका याद ना हें पळोवन म्हाका म्हजो अपमान जालो अशें दिसलें. परत खाड मिश्यांचो प्रस्न काडलो जाल्यार हो सभागी आतांय म्हजेर मूठ मारीत अशें येवजून हांवें विशय बदल्लो.

"एक सांग." हांवे म्हळें, "आज तुजो सत्कार आनी तूं हो नाटकांतलो भेस करुन कित्याक बसला? नाटक रातचें न्हय?"

"कितें सांगतलो तुका! बायलेचो पार्ट बरो करतात म्हणून सत्कार. म्हाका हांगा सगळे वळखतात ते स्त्री पार्टी म्हणून. देखून सगळ्यांचोच आग्रो जालो बायलेच्या भेसांत हांवें सत्काराचो स्वीकार करचो. तशें जाल्यार तशें करुं या म्हळें. म्हजे कितें? रातीकडेन ह्याच भेंसांत नाटक करुंक जाय. आतां थोडी वर्सां जाली नात.. चाळीस वर्सां जायत आयलीं हांव नायिकेचें काम करतां... आनी जाणा तूं, म्हाका हांगा कोणच जीवोत्तम म्हणून वळखना. सगळे म्हाका बालगंधर्व म्हणटात."

'तें हांव जाणा. पूण एक सांग, चाळीस वर्सांच्या काळात ही नायिका तशीच नायिकाच उल्ल्या? ती व्हडली जालीच ना?"

"नाटक बरोवन कितलींय वर्सां जाल्ली आसूं नाटकांतली नायिका ही भुरगीच उरता. आतां म्हाकाच पळय. ह्या भेसांत तुका म्हजी पिराय कितली दिसता? दिसता हांव साठ वर्सांचो दादलो कसो?"

हांवें जीवोत्तमाकडेन निरखून पळयलें. लागीं बशिल्ल्यान मेकपाचो रंग आनी तोंडार नासल्यो तरी हाताक हडिल्ल्यो मिरयो म्हाका दिश्टी पडटाल्यो. तरीकय म्हज्या मुखार एन तिशींतली चली आसा अशें दिसतालें. हांवे तशें जीवोत्तमाक सांगलें आनी म्हळें, "असल्या भेसांत तू भायर भोवंक गेलो जाल्यार तुका सुंदर चली समजून कोणय मागणी घालीत वा तुज्या मोगांत पडत."

'दी टाळी." एकदम उठून जीवोत्तम म्हजेसरी आयलो आनी आपलो हात फुडें केलो.

उलयता आसतना टाळ्यो मागपाची संवय कांय जाण आसता आनी आयकतल्याक ती दिवचीच पडटा. ह जीवोत्तमाक टाळी दिली.

जीवोत्तम परत वचून आपल्या कदेलार बसलो अ ताणे म्हळें, "तूं जें जावं येता म्हणटा तें जालें. ते खा हांवें खूब भोगलेंय बी."

"म्हळ्यार कितें जालें म्हणटा तूं? कोणय तरन तुज्या मोगांत बी पडलो कांय कितें ?"

"हय. तोय बी नाटकांतलें सवंग पळोवन. मत्स्यगं नाटकाचो प्रयोग आसलो आनी हांवें जीव ओतून क केल्ले. सगळ्यांनी म्हजी भूमिका वाखाणली. गांवांत ज आसली. नाटक सोंपतासर फालेलें. हांव भितल्ले वाट बसून शीण देंवयतलो. इतले म्हणसर एक तरनाटो म्हजेस आयलो आनी ताणे म्हळें, 'तुजें काम खूबच सुंदर जा म्हाका खूब आवडलें.' हांव निखटो हांसलो. ताणे कि करचें. ल्हवू म्हजो हात उखल्लो. ताचो उमो घेतली आ लजेवन तांबडो जावन परत गेलो."

"इतलेच खातीर तो तुज्या मोगात पडलो अशें तु कित्याक मानलें? असो अणभव सगळ्या कलाकारांक ये आसतलो. तूं बायलेचे सवंग करपी दादलो हे जाणा जावन तुजो हात चुमिल्लो आसूं येता."

"म्हाकाय तशेंच दिशिल्ले. पूण फुडली खबर आय त्याच नाटकाचो दुसऱ्या दिसा दुसऱ्या गांवांत प्रयोग आसलो तो तरनाटो त्या नाटकाक आयलो आनी ग्रीन रुमांत येव म्हाका मेळ्ळो. हांव न्हेसून तयर आसलों. भायर नांद चलताली. म्हजे जित्त थंय आसलें. हांवें त्या तरनाट्याच्य हाताक धल्लो आनी ताजी फाट थापटीत म्हळें, "नाट सुरु जाता. तूं भायर वच. सोंपतकच मेळूया."

नाटक सरु जातकच हांवे पळयलें तो तरनाटो मुखार बसला आनी मदीं मदीं म्हाका खुणावन म्हजें लक्ष ओडपाचे यत्न करता. ताजेकडेन पळोवंक बसल्यार म्हजे चित्त विचळ जातलें अशें येवजून हांव ताजी नदर टाळूंक लागलो. पूण मदी केन्नाय तरी ती ताजेर वताली तेन्ना तो विकृत खुण कुरवो करुन आपलो मोग उक्तायतालो. तागेली ती करणी

ळोवन म्हाका हासूंक येताले आनी नाटकांतले भाशणाचो सर पडटालो. दुसरो अंक जातकच हांवे ताका भितर पोवन घेतलो आनी फाटले रांगेत बसून नाटक पळोवंक गलें. म्हळें. तू म्हाका इतलो आवडटा कि तुका पळयतकच त्र भाशण विसरतां. तो इतलो भुरकुटलो कि म्हाका ताजी करी करची अशें दिसलें.

सुमार वरभर हांव जीवोत्तमागेर उरलो. मदीं मदीं लोक ळूंक येताले आनी विशयांतर जातालें. जीवोत्तमान आपले यलेची वळख करुन दिली. ती जेन्ना ताज्या म्हऱ्यांत उबी वली तेन्ना पळयतल्याक मांय सून म्हऱ्यांत उबी आसात शें दिसपाचे इतले तांचे पिरायेंत अंतर मेकपाक लागून यिल्लें.

च्या घेतना हांवे जीवोत्तमाले बायलेक विचारलें, 'तो हें यलेचे सवंग करता तें तुका आवडता?'

"न आवडूंक कितें जालां? तिणें म्हळें.

"पूण ताका सुंदर चली समजून दुसरे दादले मोगांत डटात हें जाणा तर तूं ?"

"हय." ती परत हांसली आनी हे खेपे साडयेच्या दरान तोंड धांपून भीतर केली.

जीवोत्तमान म्हळें, "हांवे तुका सांगिल्ली ती खबर ोडे जाण जाणात. ती काय लिपून उरुंक ना. तें नाटक ामी इतलें बेर रंगयले की निमाणे म्हज्याच आंगलट ायलें."

"विशयांतर जावन ती खबर उरतली. सांग पळोवया ागीर कितें घडलें?

"त्या दिसा नाटक सोंपतकच हांव त्या तरनाट्याची ाट पळयत रावलों. अजीत ताजे नांव. तो भीतर आयलो. ो रुमांत पावनाफुडें हांव दार आड केलें आनी ताका मात्सो ेंगेत ओडलो. तितल्यानच तो पुरतो विरगळ्ळो."

हांसत हंसत जीवोत्तमान सगळी खबर सांगली. पूण ्हाका मात त्या फटवल्या तरनाट्याची काकुळट दिसली. ्हरशी तो शिकिल्लो सवरिल्लो. पूण वेवहारज्ञान ताका ाशिल्ले. पिरायेच्या तीस-बत्तीस वर्सांमिरेन ताजे जिणेंत बायल येवंक नासली आनी कथा कादंबऱ्यांच्या कल्पना सृष्टींत आपल्या विकृती आनी वासनांचे समाधान करुंक सोदतालो. तो तरनाटो मत्स्यगंधेच्या रुपांतल्यान जीवोत्तमाचेर भाळिल्लो आनी पिशाक पिंपळ दाखोवपाचे काम जीवोत्तमान तेन्नाच्यान केल्लें.

तो तरेकवार भेटवस्तू घेवन जीवोत्तमाक मेळूंक येतालो. केन्नाय ताका भायर फिरुंक आपयतालो. पूण जीवोत्तमान एक शाणेपण केलें. ताज्या सांगातान तो भायर केन्नाच गेलो ना.

"आमच्या घरात तूं यो अशें म्हणून ताणे अजिताक आपल्या घराकडेन आपोवचो आनी ताका फटोवपाच्या वावरांत आपले बायलेकय ताणे सामील करुन घेतली. बायल ती आपली भावज अशें अजिताक सांगले. आनी अजीत बायलेचो भेस करुन तो ताज्या सांगातान माळयेर वचून बसतालो.

फकाणां खूब दीस चल्लीं तरी त्या भोळ्या तरनाट्याक कांयच समजलें ना. घडये ते विशीं तो कोणाकडेनच उलयनाशिल्लो आसूंये. पूण म्हजे बायल ती तो म्हजी भावज मानतालो आनी आपलें लग्न बेगीन जुळोवन हाडूंक तो तिजो आदार मागतालो. हांवेंय बायलेक शिकोवन तयार केल्ली. देखून ती ताका जुस्ताक जुस्ता जापो दिताली."

"तुमी ताजे भावनेकडेन खेळ्ळे. पूण निमाणे ताका करी खबर केन्ना कळ्ळी?" हांवे विचारलें.

"ना. ताका केन्नाच कळ्ळें ना. पूण म्हाका मात केन्ना केन्नाय खूब दुख्ख भोगता. हांवें फकाणां केली. पूण आज तो त्रासांत पडला आनी ह्या विळख्यांतल्यान ताका कसो भायर काडचो तेंच म्हाका समजना." जीवोत्तमान जाप दिली.

'खंय आसता तो तरनाटो?' हांवे विचारलें.

"हांगा लागशिल्या शारांत तो आसता. आज घडये परत तो नाटकाक येत. हांव सारकें नकळ."

"पूण सत्काराक आयलो जाल्यार आज ताका कळटलें तूं दादलो म्हणून. तेन्ना ताजी आवतीकाय कितें जातली?

FREEDOM
FROM
HEAD INJURIES



**IN YOUR INTEREST**

**HELMETS ARE NOW COMPULSORY !**

- Use of Helmets are compulsory for 2-Wheeler riders and pillion riders.
- Straps should be fastened securely
- Helmets should be of approved ISI specification.

*Issued in Public Interest by*




Aim to reduce DEATHS & INJURIES caused by road accidents.

"आरेच्या, म्हाका हें येवजलेंच ना... पूण तो सत्काराक
अशें म्हाका दिसना. हालीं दोन म्हयने तो म्हाका
ळूच ना. बरो बी ना जाल्यार हांव नकळ.'

"पिराय कितें आसतली ताजी?'

"तेंच सांगात न्हय. म्हजो चलो सोबत इतलो तो
न. पूण फकाणां करतां करतां म्हाका भान उरलें ना."

"गांवच्या लोकांक ही खबर आसा तर?"

"ना. कोणाक ना. म्हजी बायल आनी हांव सोडून हे
प्रकरण आनी कोण नकळं."

आमचें उलोवप चालू असताना क्लबाचे लोक आयले
नी आमी सत्काराच्या सुवाळ्याक वचूंक भायर सरले.

व्यासपीठाचेर हांव पावलों तेन्ना पळयलें की एका
कप्रिय कलाकाराचो सत्कार आसलो तरी सुवाळ्याक
कत तीशेक लोक आयिल्ले. चडशे ल्हान भुरगे. एकय
यल ना.

"हांगा अशेंय आसत." क़्लबाच्या अध्यक्षान म्हाका
मजावपाचो यत्न केलो. 'आसल्या कार्यक्रमाक लोक येनात.
ण रातीच्या नाटकाक मुयेक रीग मेळची ना इतली गर्दी
तली."

"तुगेली बायल आयली ना?" हांवें जीवोत्तमाक विचारलें.

"हांवे आपयिल्ली. फाटल्यान येता म्हळां." ताणें
प दिली.

सत्कार सुवाळो साच्यांतलो जालो. एक दोन भाशणां,
खेल सोयरो ह्या नात्यान म्हजें भाषण आनी जीवोत्तमाली
प. मुखार बशिल्या भुरग्यांचो कुलकुलाट आनी जाण्ट्याच्यो
बयो पळयल्यार भाशण करपाची उमेद येवपाचीच न्हय.
वोत्तमान आपली जाप बरोवन हाडिल्ली. नाटकांतले
शण वाचचें तशी ताणी ती वाचली. इतले चड संख्येन
वच्या लोकांनी ह्या सुवाळ्याक येवन आपणावयलो मोग
क्तायलो हे खातीर ताणें भावाभावांचे उपकार मानले.
तलेंच न्हय तर भाशणाचे सुर्वेक सगळ्या उलोवप्यांनी
खार एकूय बायल नासतना 'बंधू भगिनीनो' अशे संबोधन
केले.

म्हाका कार्यावळीची चडशी आस्था नासली. फक्त
जीवोत्तमाच्या सत्काराक हाजीर रावंक हांव थंय गेल्लों. तो
सुवाळे बाबत जालो हाजी खंत म्हाका नासली. जाल्यारय
कार्यक्रम सोंपतकच सत्कार समारंभ बेस बरो जालो अशें
सगळेच एकमेकांक सांगताले.

परत घरा वतना हांवे जीवोत्तमाक विचारलें, "तो तुजो
मोगी सत्कार समारंभाक हाजीर नासलो मूं?"

"ना. म्हाकाय तो येत म्हणपाचो हुस्को आसलो."
जीवोत्तमान जाप दिली.

आतां काळोख जाल्लो. देवळाकडेन नाट्यगीतांच्यो
रेकॉर्डी वाजताल्यो. हाजफुडें जीवोत्तमागेर जेवण आनी
उपरांत नाटक.

"केन्ना सुरु जातलें तुमचें नाटक?" हांवे जीवोत्तमाक
विचारलें.

"लोक येतसर धा साडे धा जातात." ताणे जाप
दिली.

"तुजी परवानागी आसल्यार हांव गेल्यार जाता."

"ना, जेवले बगर तूं कसो वतलो?"

"जेवन वता." हांवे म्हळें, "नाटक सोंपतसर फांतोड
जातली आयज जागरण जालें जाल्यार म्हजो फाल्यांचोय
दीस फुकट वतलो."

"तूं नाटक पळोवंक रावच. हांवें थारायलां, आज म्हजे
निमाणे नाटक. हाजेफुडें हांव तोंडाक रंग लावन माचयेर
चडचो ना."

कितें करचें तें म्हाका समजना जालें. म्हाका घरा
परतुपाची ताकीत लागिल्ली. गांवानी कार्यावळी आसतकीच
अशेंच घडटा. देखून हांव कार्यावळीनी वचपाचें टाळतां.

जेवणाक गांवचे थोडे लोक आशिल्ले. तांगेले उलोवपाचे
विशय इतले वेगळे कि म्हजें मन तातूंत रमलें ना. हांवें एक
पळवाट सोदून काडली. जीवोत्तमाक म्हळें, "एक अंक

जातकच हांव वता.''

जीवोत्तमान मान्यताय दिली आनी म्हाका सू जालें.

नाटकाच्या माटवांत म्हाका ताणे पयलेच रांगेत खाशेल्या कदेलाचेर बयलो. माटव लोकांनी भरुन गेलो. दादल्यांपरस बायलो चड. बायलांचो बोवाळ, भुरग्यांची करंदाय आनी जाण्टयांची भासाभास. देवळाच्या वाठाराक जात्रेचें रुप आयिल्लें.

भायले वाटेन चार मांडय पडिल्ले.

नाटक सुरु जालें आनी म्हाका पडद्याफाटल्यान आशिल्ल्या जीवोत्तमान आपणाक मेळूंक रकाद धाडलो.

उट्टूंक एक बरी संद मेळ्ळी अशें येवजून हांव माचयेर पडद्या फाटल्यान गेलो. जीवोत्तमान म्हज्या कानाकडेन तोंड व्हरुन म्हळें, ''तो आयला.''

''कोण?''

''तो म्हजो मोगी.''

आनी ताणे ताज्यो खाणोखुणो म्हाका सांगल्यो. नाट
सुरु जाल्ल्यान प्रेक्षकांमदीं काळोख आसलो आनी खूब ग
देखून तो कोण हें हांव पळोवंक पावलो ना.

'पयलो अंक जातकच हांव तुजी वळख करुन दि
मात्सो फुडाकार घेवन हें संकट तूच निवार.'' जीवोत्तम
म्हजे कडेन मागले.

हांवें जाप दिली ना. माचयेवयलो सकल देंवलों. आ
माटवांत एके कुशीक उबो रावलों. सगळे लोक नाट
पळोवंक तल्लीन जाल्ले.

ल्हवूच हांव थंयसून कडसरलों आनी काळखांतल्य
आडखळत आडखळत मोटारीकडेन आयलों.

हांवें मोटार सुरु केल्ली तेन्ना कोण तरी धांवत ये
आनी म्हाका उलो मारता असो भास जालो. पूण हांवें थं
लक्ष दिना आसतना मोटार सोडली.



गजानन जोग

कथा

# टार्गेट

भिरमुटेन फुलाभोवतणी अचळय भोंवर मारचो
ं विमान दाबोळी विमानतळावयर पावतकच भोंवताडे
पाक लागलें तेन्ना ल्हान भुरग्याभशेन चाळीस वर्सांचो
द्र पै उचंबळीत जालो. गोंयांत येतना हें सदांच अशें
तालें. पुण विमानातल्यान गोंयांत देंवतना हें सगलें
ळेंच दिसलें. चड तरल आनी चड खर कशें. भितर थंड
ा आसली. भायर माय म्हयन्यातलो वताचो रखरख, जो
च्या उडपी गांवाभशेनूच आसतलो हें ताका खबर आसलें.
लदेव रामनाथाचे भेटेक वर्सातल्यान एक पावट तरी ना
कतां सगलीं अम्मा-अप्पा- गोदावरी बशीनी चिड्डुत येतालीं.
गीर कोंकण रेल्वे जाल्या उपरांत तीं आवांताद भोंवपाची
जा चाखीत. आतांच तो बैंक मॅनेजर जाल्लो. नव्या
ग्याचो चार्ज घेवपाक पयलेच पावट विमानान गोंयांत
तालो. आतां मॅनेजर ह्या नात्यान तो विमानान भोवूंक
कतलो. फॅमिलीक व्हरुंक शकतलो. विमानातल्या थंड
न्यापरस ह्या विचारांन ताच्या जिवाक चड थंडाय दिसली.
डयाच मिनटांनी विमान देंवतलें. माडांची पांचवीचार
डाय, अस्तंत दर्याचें, मळबातचें पडबिंब आप भितर
ोडून घेतिल्लें भव्य रुप. आंगट्या एदीं घरां आनी बेंकेंतल्या
टेटमेंट फोमेंटाचे कशे शेतांचे ल्हान ल्हान चौकोन.

तरतरांच्या विचारांनी उपेंद्राच्या मनात गोंदोळ केल्लो.
ायपुरांतल्या मेन ब्रेंचींत दोन वर्सां जातनाच ताका मॅनेजर
म्हूण प्रमोशन मेळिल्लें. एप्रिलाचे सात तारकेक प्रमोशानाची
बातमी ताका मेळिल्ली. तेन्ना पैलीं ताणें अम्माक मोबायल
केल्लो. 'अम्मा, मिगेलें प्रमोशन जालें. म्हाका गोंयांत पणजे
लागीं धाडटाली म्हूण आयकलां. जालें नवें तुगेले मागणें
प्रमाण?'' उपेंद्र हांशिल्लो. 'अप्पाक सांग हां.''

''रामनाथ पावलो पुता! अप्पा लागीं तूंची उलय. घे
आनी पळय, अपी, गोंयांत पावले फुडले रामनाथा दर्शन
घेवन मागीर जॉयन जावच्या विसरु नाका.''

आतां उपेंद्राक ती याद जाली आनी ताणें पैल्ली
रामनाथी वचपाचें थारयलें. सामान घेवन टॅक्सी करुन तो
बद्द रामनाथीं पावलो. रामनाथाचें दर्शन घेवन ताणें दोळे
धांपून घेतले. हें रुप केन्ना रागीट दिसता केन्ना, शांत केन्ना
मायेस्त देवाची म्हूर्त तीच पूण हीं वेगवेगळीं रुपां खंयच्यान
येतात? हें सगलें मनाचेच खेळ काय, तशें पळयल्यार
कोणांक खबर देव आसा काय ना, आसल्यार तो ह्या
जगांतल्या अब्जादि लोकांभितरल्या जण एकल्याक वळखता
तरी काय.. श्रध्दा, भक्ती निमाणे कितें हें सगलें. आतां
प्रसाद घेतना समज देवान सांगलें - हो नवो जागो तुका
फळादीक जावचो ना जाल्यार, जाल्यार हांव कितें करतलो?
आनीक कसले कसले पाडे विचार ताच्या मनात येवपाक
लागले, तेन्ना ताणें बेगीबेगीन दोळे उघडले. भटमाम तीर्थाचे

चिमूट भरुन ताणें दोळे उगडपाची वाट पळयतालो.

"भटमाम, प्रसाद-पाकळी?"

"आयज क्षय तीथ, फाल्यां यो." ताच्या हातार तीर्थाची पळी आनी बाविल्लीं दोन शेंवतीं सोडून भटजीन दुसऱ्या भक्ताकडेन लक्ष दिलें.

'देवाक सांगणें कोरका भटमाम' उपेंद्रान सांगलें आनी तीं फुलां आपणालें दाट पाकीट भायर काडून तांतूतल्या रामनाथाच्यो फोटो आशिल्ल्या खणात दवल्लीं. दुसरे वटेन पद्मा आनी चली विशालाक्षीचो फोटो ताचे कडेन पळोवन हांसलो. ताणे तो अचळय वंठांक लावन पाकीट बोलसांत दवल्लें.

"नांव, गोत्र?"

"देवा रामनाथा..."भटजीन सांगणे केलें. उपेंद्रान वीस रुपयांची करकरीत नोट ताटांत घाली.

"बँकेत आसात तुमी?"

"व्हय, तुमकां कशें कळ्ळें"

आमी आमच्या म्हाजनांक वळखनात तर पैमाम. महा प्रसाद घेवन वचात हां, येयात, म्हज्या फाटल्यान येयात,"

साडे-पांचांक शाखेचें शटर सकयल वोड्टना प्यूनाक आयज बरें दिसतालें. हो नवो सायब आयल्या उपरांत ब्रॅन्च इतले बेगीन केन्नाच बंद जांवक नासली. उपेंद्राक आज पयलेच पावट रीजनल मॅनेजराक मेळपाक वचपाचें आसलें. श्रीमंगलम् वांगडा येवपाक तयार नासलो. बायलेची भलायकी बरी ना अशें तो म्हण्टालो पुण उपेंद्रान आपलो अधिकार वापरुन ताका वांगडा घेतिल्लो. चार्ज घेवन म्हयनो जाल्लो. क्वार्टर्स, विशालाचो सेंट्रल स्कूल प्रवेश सगळें जाल्ले. पद्माकूय लागींच चलून वचपाच्या अंतरार ताचे बँकेची ब्रँच. मेळिल्ली. गोयांत रावपाच्या विचारानूच पद्मा खूश आशिल्ले. आनी उपेंद्र जाल्यार ब्रॅन्चीच्या प्रेमातूच पडिल्लो. एक ऑफिसर चार क्लार्क एक सबस्टाफ आनी एक सफाई करपी अर्दवेळाचो कामदार. बस इतलोच स्टाफ.

सकाळीं आठांक सगल्यांत आदीं हाजीर जावन सांजचो आठ मेरेन कितें ना कितें कामा करीत रावतात पद्माचो फोन येयमेरेन. सगल्या स्टाफाक ताणे डॅशि मॅनेजमेंट स्टायर्लीन आपल्या बॉल्सांत घातिल्लेच भश आसलें. ऑफिसर श्रीमंगलम् मात सामको अंतर दव सामको ऑफिशियली रावपाक सोदतालो. आतां लेगीत गाड्येंत वग्गी बसून भायर पळयत आशिल्लो उपेंद्र गा चलयतालो. मदीं मदीं प्रस्न विचारतालो ताका श्रीमंगल हय ना इतलीच जाप दितालो ती लेगीत ताचे कडे पळयनासतना. उपेंद्राक भिरभिरी माल्ली. - म्हजे गाड आवांताद बसला-येतना हांवूच ताका ताच्या घरा मे पावयतलो. काम बेंकेंचें. म्हजेर उपकार केल्ले भशेन असो कित्याक फुगून बसला? रिजनल मॅनेजराकडेन ब उलयलो जाल्यार हाचोय फायदोच जावचोना?

"क्या बात है भाय, चुपचाप बैठे हो?"

"कुछ नहीं"

"कुछ बोलो ना"

"क्या बोलूं?"

रिजनल मॅनेजरुय नवोच आयिल्लो. ब्रँच प्रोफाय मुखार दवरुनच तो बशिल्लो. कपलाक मिरयो घालून ता बॅल मारून च्या हाडपाक सांगली आनी सरळ विशया हात घालो.

"मि. पै. व्हाय आर यू लेट? नं. २, एका म्हयन्या कितें केलें? ओन्ली फिगर दी."

'सर, खूबशा कस्टमरांक मेळ्ळों.. सद्या डिपोजीट वाडपा लागलां."

"व्हॉट! वाडलां! दीज आर यूवर वन मन्थ फिगर्स चालीस लाख डिपोजीट और लोन कितना बढा है, मालू है?

"हां सर, नेट ओन्ली टोल लेक. बीस लेक आया ओ येट लेक चला गया ! मंगलम् सट्ट करुन उलयलो.

'सी, ही नोज बाय हार्ट.' कुमारमाकडेन पळयत आर.
न कॉमेन्ट माल्लो. तेन्नाच च्या आयली.

"आय अप्रिसिअट यू कुमार. हॅव दी टी"

'थँक्स सर"

'लुक मि. पै, म्हाका टार्गेट गांठपी मनीस जाय. कशें
ऽप तुवें थारावपाचें. आय वॉन्ट टार्गेट स्मॅशर्स. तुका
कुलेटेड रिस्क घेवचीच पडटली. रिस्क टेकर्स आर प्रॉफिट
र्स. पुण हिस्पाभायर रिस्क नाका ओ. के. गुड बाय."

वतना वग्गी आशिल्लो कुमार आतां बडबडपाक
गिल्लो. गाडी सुरु जाता थंय आसा ताणे उपेंद्राकडेन
कडीन पळयत विचाल्लें,

"सर, आपने इतना बडा टार्गेट कैसे मान लिया, दो
हेना तो चला गया, सप्टेंबर तक आपको पचास लाख
ड्वान्स देना है"

'क्या करता, नहीं बोलना हमको मालूम नहीं कुछ तो
गे. वी वील वर्क हार्ड'

'वी याने, आप. स्टाफ तो टाईम से आएगा, टाईमपर
एगा'

"और आप, मि. श्रीकुमारम्?" आवाज मात्सो वाडयत
पेंद्रान विचाल्लें.

"मेरा क्या, मैं तो हूं ही, मगर, मेरी उमर अब ५२ हो
यी है, मेरे फॅमिली प्रोब्लेम भी रहते हैं"

"फॅमिली तो मेरी भी है, प्रोब्लेम तो सबको रहते हैं
. कुमार"

उपेंद्रान एक दीस सारकी न्हीद घेतली ना. रात दीस
न्क आनी बॅन्क. केन्ना केन्ना पद्मा वितरागतालें. उण्यात
णे ताणे विशाली खातीर तरी वेळ काडपाक नाका?
ायतारचो लेगीत तो कामाक. कोणाक तरी मेळपाक,
ोंयची तरी रिकवरी करपाक. नव्या धोरण प्रमाण ९० दिसां
भतर जर लोनाचे हप्ते फारिक जाले ना जाल्यार तितलो
सो अनुत्पादक थारतालो. बॅन्केंतूच काम करपी पद्माक हें
सगलें खबर आसलें तरी पूण संसार म्हूण क्रितें तरी
आसताच काय ना, काम काम म्हूण कितलें करपाचें,
अशानी दुवेंत पडलो जाल्यार?

मदीं एका मुजीक हाजीर रावपाच्या निमतान मांय-
मांव आयिल्लीं तेन्ना तिणें तांचेकडेन उपेंद्राची-काडली. तीं
फकत हांसलीं. सदांच कामाचें तितलें चिंतपी तांचो पूत
तांका खबर नासलो काय कितें ?

सप्टेंबर ३०. अर्द वर्स सोंपलें. लोनाचें टार्गेट जालें
ना. डिपोझीट टार्गेट जालें पूण हेर सात पारामिटर्सांभितर
उपेंद्रान मार खालो. लोक लोन घेवपाक फुडेंच येनासले.
तांकां फुडें काडून बळयां लोना दिवपाचीं काय कितें? कितें
करपाचें ? ताची ही सातवी शाखा. पुण असले कस्टमर
ताणे खंयच पळोवंक नासले. हेर जाग्यानी लोना खातीर
मॅनेजराच्या फाटीक लागताले. हांगां सगलोच वेगळो प्रकार.
हप्ते भरपाक जमलेना जाल्यार अशी भिरांत सर्वसादारण
लोकांक दिसताली. सोताचें भांगर दवरुन रीण काडपाक
लेगीत हांगां लोकांक लज दिसताली. केन्ना केन्ना ताका
दिसतालें, कितेंच चुकना ह्या लोकांचें. तांकां मेळटा तितले
भितर जर ते सुखी आसात जाल्यार जाय कित्याक तांका ती
लोनांची भानगड? पूण ताच्यांतलो बॅन्कर ताका स्वस्त
बसूंक दी नासलो. आर. एमाचीं उतरां ताच्या कानात
घुमतालीं. टार्गेटां ताच्या फाटीकूच लागिल्लीं. सप्टेंबर रिपोर्ट
पळोवन जेन्ना आर. एमाचो फोन आयलो तेन्ना तो मात्सा
काचाबूल जाल्लो. पुण ताणे वेळ मारुन व्हेली. मार्चाक
सगली कसर भरुन काडपाचे उतर दिलें आनी आयचें मरण
फाल्यांर धुकल्लें.

तो दीस उपेंद्र केन्नाच विसरचो ना. सकाळीं कामाक
येतनाच मि. कुमार एका अप-टू-डेट मनशाक वांगडा घेवन
आयलो.

'एक व्ही.आयपी. कस्टमर लाया हूँ साहब. आप
कहते हैं ना, मैं, डेवलपमेंटल काम में हिस्सा कम लेता हूं.
हो सकता है, केवल ये एक कस्टमर हमारी शाखाके लिए
सभी टार्गेट पूरे करेंगा., लाऊ उसे अंदर?"

मि. तरनेजा एक अख्खो जंटलमन दिसतालो. स फुटां

लागीं उंचाय, लांब रुंद, तांबडोसो गोरो रंग, वागपांत मार्दव आनी पंजाबी खानदानी आदब. ताचो कॉम्प्युटर हार्डवेअर आनी हेर गजालींचो मुंबै धंदो चलतालो. हरयानात चंदीगढाक आनी, पंजाबांत लुधियानाक ताचे असेंब्ली युनीट आशिल्ले. गोव्यात तो आपलो बिझनेस वाडोवंक सोदतालो. तसो ताणे आदींच तो गोंयांत सुरू केल्लो. करंट अकाउंट उगडटनाच ताणे पांच लाखांचो चेक दीवन तो उगडलो. आपल्या तीन चलयांच्या नांवांर ताणें एकेका लाखाचीं फिक्स्ड डिपोजिटां केलीं आनी बायलेच्या नावार जालंधराक बेंकेत आशिल्ले पांच लाख फिक्स्ड डिपोर्डीट ट्रान्सफर करपा खातीर उपेंद्राच्या हातांत दिले.

'इसपर मेडम की दस्तखत चाहिए' उपेंद्रान सांगले.

रोकडोच फोन लावन ताणें बायलेक आपोवन घेतली. धा मिन्टां भितर ती आपल्या करकतीत नव्या गाड्येंतल्यान बेंकेत आयली आनी 'हाय बॉईज' म्हणत शेकहेंड करुन उपेंद्राकडेन एकटक नदरेन पळयत बसली. उपेंद्र मात्सो खांकुडलो पुण मागीर वेळ काडी नासतना ताणें सॉफ्ट-ड्रिंकाची ऑर्डर दिली.

दीस वताले. तनरेजा मार्केटिंगाच्या नावान लाखांचे चेक बैंकेंत येताले. पांच लाखांचो ओव्हरड्राफ्ट तनरेजा मार्केटिंगाक पास जाल्लो. ताच्या एकांवटा भितर सदाच पैशे आसताले. ताच्यो ऑर्डरी वाडटाल्यो तितलो तितलो ताचो बेंकेकडलो वेव्हार वाडटालो.

डिसेंबराच्या निमाण्या सुमनात मि. तनरेजा धा धा लाखांचो एक अशें पांच चेक घेवन आयलो. ते सगले ताणें आपल्या खात्यार घालपाखातीर उपेंद्राकडेन दिले, तेन्ना आनंदान ताचे दोळे लिकलिकले.

"इसमें से आधा हमे फिक्ड डिपोजीट में दे दिजीये, सिर्फ मार्च ३१ तर'

"अरे, आधा क्यूं भाई, हम आधा काम नहीं करते, पूरा पचास लाख दे देते हैं, मार्च के लिए, मगर फिलहाल, थोडा बडा काम आ पडा है, क्या है, एक ऑर्डर के सिलसिलेमें मै नॉर्थ कोरिया जा रहा हूं, चार दिन बाद. अगर ये ऑर्डर मिला तो आपका ब्रैच, आप और हम ग मालामाल हो जाएंगे. मगर एक मुसीबत है, तीस ला कैश की जरुरत है आपको कुछ ना कुछ जल्दी करना हो कल तक नहीं तो ये चान्स हातसे निकल जाएगा"

"इतना पैसा कहां मे आयेगा?"

"ये चेक आप डिस्कावंट करीये. पूरे पचास नहीं, सि पचीस लाख-आ आधे दे दिजी.. पांच लाख मेरे डिपोजीट लोन दीजिये. नहीं जमता तो अभी बोलिए, पासवाला बै मैनेजर तैयार है इंतजाम करनेके लिए"

उपेंद्राचेर प्रसंग कात्रींत सांपडपाचो प्रसंग आयलो. म्हटलें जाल्यार इतलो बरो एकावंट होगडावन बसपाच हय म्हळें जाल्यार खंयच्यान दिवपाचे पैशे? ताणें तनरेजा एकावंट मॉनिटरार पळयलो - फक्त सात हजार मेळटा सगल्या डिपोझिटांचेर लोन दिल्यान ते सादारण चार ला भरताले. हाचे डिस्कावंट करुंक जाता पुण इतल्या व्हडल किमतीचे?

"कुमार, थोडा अंदर आओ" ताणे कुमाराक विचाल्लें कुमारान नरोवा कुंजरोवा केलें. मागीर मात्सा रावून ता म्हळें, "सांब, आप सीधा आर. एम. से बात करो. फोनप डिस्कावंट के लिये परमिशन लो. बादमें लेटर भेजक पक्का करो."

"ठीक, वैसा करेंगे"

फोन लायलो. आर.एम. टूरार गेल्लो म्हण कळ्ळे असिस्टंटान फोन घेतलो उपेंद्राचे सगलें आयकून घेव ताणे सांगले, "मि. उपेंद्र, यू आर इन द फिल्ड, हांव हांग बसून कितेंच सांगूक शकना. पंचवीस लाख डिस्कावंट कर. आर. एमाक कितें, डी. जी. एमाक वो जी. एमाक शक ना. तूं प्रपोजल धाडून दी, आमी फुडें फारवर्ड करता."

"पूण सर, हो मिगेलो बेस्ट कस्टमर, ताका फाल्यार जाय पंचवीस लाख."

"एक उपाय आसा सांगू?"

"कसलो तर?"

"दरोडो घालपाचो गव्हर्मेंट ट्रेजरीचेर" तो खो खो हन हांसलो.

वितरागान उपेंद्रान फोन दवल्लो... त्या काळांतले कर हे - सिनियर. उल्लेलीं थोडीं वर्सां कात वाटावन डप हें तांचे टार्गेट! पांच मिन्टां तो दोळे धांपून बसलो. वार बशिल्ल्या तनरेजाचो जीव वयर सकयल जातालो. माणे रावूं नजो जावन ताणे म्हळें,

"साब, नहीं, होता ना, तो मैं चलता हूं. मैं उधर जाता , मुझे इंतजाम करना पडेगा कहीं ना कहींसे"

"क्यों, हम करेंगे इंतजाम, हमारे होते हुए आप दुसरे क में जाएंगे, ये कैसे हो सकता है? कल सुबे आकर आप च्चीस लाख उठाइये'

: 'बडी मेहेरबानी हुई आप की. जिन्दगी भर नहीं भूलूंगा आपके एहसान को. ये लिजीए मेरा वचन' ताणे आपलीं बिरुंद बुकबुकीत बोटां उपेंद्राच्या हातांत दिलीं. उपेंद्रान ती पल्या हाडकुळया बोटांनी मात्शीं दामलीं तेन्ना ताच्या टांक घाम लागलो. घाम तनरेजाचो वा आपलो हें ताका ळ्ळें ना.

दुसरे दीस सकाळी धा वरांचेर तनरेजा पावलो. उपेंद्रान दींच ते चेक कुमाराकडेन डिस्कावंट करपाक दिल्ले.

"ये कस्टमर हमने लाया, सही है साहब, मगर ये स्कावंटींग मैं नहीं करुंगा."

एका दमात सांगून कुमारान डिस्कावंटाक दिल्ले ते धा लाखांचे चेक उपेंद्राक परत दिले. आपल्या हाता सकयल्या नशान असे तरेन वागपाची ही पयलीच खेप. उपेंद्राक सलें, सांगिल्लें आयकनाशिल्ल्या ह्या मनशाक धांवडावन लचो, आत्तांच्या आत्तां. हाका बेंकेच्यो टार्गेटाचें पडून चूंक ना, बिझनेसाचें पडून वचूंक ना. हो फक्त म्हयनेम्हाल गाराचो धनी, इलाज नासून उपेंद्रान आपणेच ते सगले क डिस्कावंट करुन पोस्टातल्यान धाडून दिले. थोडे पैशे ानी उल्लेल्या रक्कमेचो डीडी घेवन तनरेजा खुशाल ावन गेलो.

"आज के लिए क्या लाऊं कोरिया से साहब, बोलिए"

"कुछ नहीं, शाखा के लिए बहोत सारा बिजनेस लाइये और कुछ नहीं चाहता मैं"

त्या दिसा ताका न्हीद पडूंक ना. रातभर तळमळे. फातोडेर मात्सो दोळो लागलो तेन्ना अप्पा अम्मा सपनात आयलीं. कसलोतरी लग्नासरको बोंवाळ चलतालो. लोक कितें कितें उलयताले कांयूक आयकूंक येनासलें. वोर्गी रावात पळोवया सगलीं. उपेंद्र सपनात तापलो आनी धडपडत जागो जालो.

"कितें जालें गा? हुशार ना?"

"राती समा न्हीद लागूना"

"काल आइल्ले तेदना सावन तुमी कस्सलें पुण आलोचन करीत आसाती. बैंकांतु एनी प्रोब्लेम?"

ताणे तनरेजाची गजाल थोडे भितर तिका सांगली तेन्ना ती घडांयच करुन उठून बसली. चिंतेन आनी भिरांतीन तिचो चेरो काळसणलो.

"अयोय देवा एदी व्हडली रिस्क तुमी घेवची कसली? चेक पास जाले जाल्यार अड ना. तरीय पॉवर्स नासतना डिस्कावंट केले म्हूण जाप दिवची पडटली. मेमो मेळूच्या पुरो. आनी, आनी सपोज, चेक बाऊन्स जाले जाल्यारी-" म्हणत तिणे तोंडार हात दवल्लो.

दुसरे दीस सुटी आसली. सकाळीं उठून तीं तिगांय रामनाथी गेली. देवाचो सदचो राखणेचो प्रसाद घेतलो. उपेंद्रान मागीर आपली अडचण भटजीक सांगली आनी देवाकडल्यान उतर मागले.

ताबडतोब पाकळी जाली.

'डबिनधास्त रावात हो, घणघणीत उतर मेळलां. कसलेंय अरिश्ट आयल्यान रामनाथ आपल्या दाव्या पांयांकडेन तें दामून धरतलो. कसलीच चिंता करी नासतना सदची कामां करीत रावात. चलात.'

"रामनाथी कृपा भटमाम"

उपेंद्रान बरी घसघशीत भेट पेटयेंत आनी ताटांत घाली. दोगानीय भक्तीभावान नमस्कार केलो.

धा बारा दीस गेले. उपेंद्र मुंबै धाडिल्ल्या त्या चेकांची वाटावन येवपाची वाट पळयतालो. इतले भितर ते वाटावन येवपाक जाय आशिल्ले. बेचैन जावन तो पोस्टमनाची वाट पळयतालो. निमाणो उठून तो सोताच पोस्टांत वचून टपाल घेवन आयलो. बेगीबेगीन ताणे आपणेच तें टपाल उगडलें. धाडिल्ले ते हळडुव्या कोराचे चेक पळोवन ताका कडकडो सुटलो. ताचे पांचूय चेक परते आइल्ले. कारण दिल्लें "हें खातें बंद जालां."

तकली दामून धरुन दोळे धांपून तो बसलो. बेल मारुन ताणे उदक हाडून घेतलें, तें गटागटा पिलो. केबीनात ए. सी. चलताली. पुण ताका दरदरुन घाम फुटलो. ताका दिसले. ल्हानपणात अप्पा तापयतालो तेन्ना तो थंयच्यान धांव मारतालो. तशी आतां धांव वारची, धावत धांवत रावचें, थामचेंच न्हय.

कुमार भितर आयलो.

"सर आपकी तबीयत ठीक नहीं क्या?

उपेंद्र वगीच रावलो.

"आर. ओ. से अर्जंट फोन था आपको आप बाहर गए थे"

"कुछ मेसेज?"

"र्जंट बात करो बोले हैं. खूद आर. एम. थे फोन पर."

भायर वचून तो तोंडार उदक मारुन आयलो. तेन्ना तात्शें बरें दिसलें. ताणे फोन जोडलो.

"गुडमॉर्निंग सर, उपेंद्र पै बात करता हूं सर"

"गुडमॉर्निंग मि. पै. टेल मी. व्हॉट इज युवर डिस्कावंटींग पॉवर, तुवें फाटल्या विकांत कितलें डिसांवटींक फिगर दाखयलां स्टेटमेंटात?"

"सर पांच चेक इडस्कावंट केल्ले तनरेजा मार्केटींग तुमी टुरार आसले तेन्ना"

"अंडर हुज पॉवर्स? आं? आनी चेक पास जावन आयल तर?"

"आदले सगले आइल्ले सर, पुण हे पावटी.. रिटर्न जाले

"माय गॉड यू आर इन ट्रबल मि. पै, आम् सो सॉरी तनरेजाचे रिपोर्ट बरे नात. तो खंय आसा आतां?"

"तो कोरिया गेला सर डील करपाक"

'बंडल, तो मनीस फ्रॉड म्हूण आयकलां, बाय द वे कितले वर्सांचो हो एकावंट, कोणे इंट्रोड्यूस केला हो एकावंट?"

"सर, जस्ट फोर फाय मंथ सर हांवेच केलो त इंट्रोड्युर, कुमारान हाडलो तो"

"यू आर ए मॅनेजर ऑर ए क्लार्क ऑन प्रोबेशन? सो मच इर्रिरिस्पांन्सिबल!'

"सर, म्हाका म्हज्या टार्गेटाचें पडिल्लें सर..."

"हांव भायर सरतां आतांच, खंयच वचू नाका, हांव येवपाची वाट पळय. ओ. के?"

"यस सर"

आर. एम. अर्दवरा भितर आयलो. ताणे आपण वांगडा हाडिल्ल्या ऑडिटरांनी शाखेचे कामकाज तपासपाक वेगोवेग सुरवात केली. मागीर उपेंद्राच्या केबीनात ताच्या जाग्यार वचून तो बसलो आनी उपेंद्राक आपोवन घेतले. उपेंद्र येवन चोर कसो मुखार उबो रावलो.

"लुक मि. पै. हांव आतांच कांय सांगूक शकना. पुण तूं आताच चार्च मि. कामताक दी आनी पंधरा दीस रजेर वच."

"पुण, सर,..."

"पुण बीण कांय ना. आय कॅन सस्पेंड यू मि. पै. पुण नाका, यू आर ए सिन्सीयर वर्कर, म्हाका खबर आसा ते

लक्षांत दवर, टार्गेट बी सगलें बराबर. पुण हीं असली भायर रिस्क घेवपाचीं कामां करुन तुवें तुकाच न्हय, म्हाकाय टार्गेट केला, टॉप मॅनेजमेन्टाचे नदरेंतल्यान. म् आन्सरेबल टू. डी. जी. एम.'

टिफीन, ब्रीफकेस घेवन तो घरा आयलो. वाटेंत एका तार तो गाडी मोखपाचोच. पुण दुसरो चलोवपी शादूर लो म्हूण उपेंद्र वाटावलो. घरा पावलो तेन्ना ताची ली सामकी फोट्टाली. केलें कितें आनी जालें कितें ले चेक पास जावन आयले ताचे आनी हेच चेक न्स जावचे? दार उगडटना ताका वेगळेंच दिसताले. ह्या र तो वाठार ताणे केन्ना पळोवंकूच नासलो. सगलें त, शीतळ आसलें. भितर वचनासतना तो भायल्या मीटाच्या सोप्यारुच मात्सो तेंकलो. हांगच्या घरां परस का हे सोंपेच चड आवड्टाले. मुखार आंगणात घर नकिणीच्यो रोजणी हातचें राखीनासतना फुलिल्ल्यो तीन र रंगांची रोजांच रोजां. तांचे भवतणी पिसोळी भोवताली. णी बंद वाऱ्यार धोलताल्यो. फुलपाखरांच्या त्या फुलां वतणी भोवपांत एक सुंदर लय आसली. ती वाऱ्याचे री वांगडा कायबरो मेळ खाताली. कांयखीण उपेंद्र सकाळचो प्रसंग लेगीत विसल्लो. ताका दिसलें. इतलें बरें हें गणातलें जग पळोवपाक म्हाका केन्ना वेळूच नासता. हांव प्यतां कामाच्या कटकटींनी दीस भर काम दीस भर टार्गेट नी टार्गेट. निमाणे हातांत हें. आतां फुडें कितें जातलें य? सस्पेन्शन?

; घरांत फोन केन्नाच्यान वाजतालो. ताच्या तें आतां क्षांत आयले. धांवत वचून ताणे तो घेतलो.

'हॅलो, उपेंद्र उलोवचें,"

"हांव तुगेलो अप्पा, बॅन्कांत फोन केलेलो, घरा चमकला ण सांगले. कितें, हुशार ना?"

"कस ऽ ज्यालें म्हळ्यारि, डिस्कावंटेड चेक बाऊन्स याल्याति, होड अमांउट"

"व्ह वे, डोन्ट वरी, बी पेशंट"

"टार्गेट हाय राबलां. रिस्क घेतल्यारी अस्सलें संकट याता, आमी कोरचें कस्सलें गोत्त ना"

"पुता, उपेंद्रा, तूं तें आलोचन करत बैसूं नाका, जावचें ज्यायत वता. आमी दोगांय गोयां येताति. फाय सक्काणी पुत्तूर बसार डोंट वरी, तूं क्लीन आसा, म्हाका विस्वास आसा. हे प्रोफेशनल हेझार्डस् "

परतो भायर येवन तो तीं रोजां पळयत बसलो. इतल्यांत मोपेडाचो आवाज आयलो.

"पद्मा, तूं परत आयलें? कितें ज्याले?"

"तुमका कितें ज्याले, तुमी बॅकांतल्यान घरा केल्या म्हूण सांगले, कितें की प्रोब्लेम आसा म्हणालो कुमार, कितें जालें"

"तेंची. डिस्कावंटेड चेक बाउन्स ज्याल्याति. अकावंट क्लोड्ड म्हूण रीजन दिलां, पूरा चेक वापास घेनासतना कसो क्लोज केलो?"

"आतां फुडे कितें?" वितराग तिच्या तोंडार दिसतालो.

"वेट-न सी"

"गोयां ट्रान्सपर म्हळ्यार एक नमुन्याचो आनंदसो.. जागो घेवचे, घर बांदचे प्लॅन - आतां कस ऽ कोरचें? तुमकां हांवे सदांच सांगचें, बॅन्का काम कोरचें जाल्यार ताका लिमीट जावका रात दीस काम कोर्न घेवन...."

बॅग कुशीक उडोवन तिणे सोप्यार बसकण माल्ली. कितें कितें फुतफुतत रावली. तो तिचे सगले हावभाव पळयतालो. दुःखापरस तिका तिडकूच चड आयिल्ली. बॅन्केची, ताच्या जापसालदारी घेवपाच्या सभावाची घड्ये ताचीय.

"चलाति, रामनाथी वचून येवया."

"रामनाथाक? व्हॉट फॉर? ताणे तेदना दिल्लें उत्तर.. उडगास ना? भटमामान सांगिल्ले, कितेंय अरिश्ट आयल्यार रामनाथ तें दाव्या पांयांपोंदा दामतलो.. कडेर माका दिसाता तो म्हाकाचि दामतलो..."

कांय उलयनासतना ती तिडकीन भितर गेली. रोजां वाऱ्यार धोलतालीं तांचो परमळ उपेंद्राक हयन्हयसो जाणवतालो.. खोल स्वास घेवन ताणे दोळे मिटून घेतले आनी सोफ्यार मान फाटल्यान उडोवन तो बसून रावलो.







कथा

देविदास कदम

# डायरींतल्यो कथा

## मोगां चीट

सु शांताक हे दिसाडेन एक वेगळेंच पिशें लागिल्लें. ोणाल्याय नांवान कोणाकूय मोगा चीट बरोवची आनी गांमदी पेटोन दिवचें. उपरांत मजा पळयत बसचें. ताच्यो सल्यो दोन केझी हांवें ताच्याच तोंडातल्यान आयकल्ल्यो. रशी हीं कामां हो करतां हें म्हजेबगर कोणाक खबर ासलें.

हरशी म्हजो इश्ट तो! पुणू, एक दीस म्हजेरुच घुंवलो.

आमचे कॉलेजींत साधना नांवाची एक चली आसली. ोबीत. हांव एक दीस लायब्ररीत बशिल्लो. साधना आयलें. ्क्सक्युज मी!' म्हाका म्हणूंक लागलें. हांवें चयलें, 'कितें?'

'मातसो भायर येवशी..? म्हाका तुजेलागी उलोवचें ासा.'

हांवें म्हळें, 'कितें उलवचें आसा? हांगाच उलय मुगो!'

'हांगां सगळ्यां हुजरां उलोवचें न्ही तें !'

'बरें!' अशें म्हणत हांव ताचेवांगडां भायर येयलों.

तें म्हाका घेवन कॉलेज-गार्डनात येयलें. म्हणूंक लागलें, 'मंदार, आमी सदाच हांगां कॉलेजींत मेळटात मुरे..?'

'हय तर!'

'मागीर, तुवें म्हाका तोंडान सांगून जायना जाल्यार, हातात चीट दिल्यार जाताली. पोस्टान कित्याक धाडूंक जाय आसलें..?'

'कितें तें ?' म्हाका कांयच समजूंक नासलें.

'पळय, कांयच खबर नाशिल्ल्याभाशेन उलयता तो! ही चीट तुवें धाडल्या ती! हांगां कोणाल्याय हातात पडल्यार आनी तांणे उगडून वाचल्यार फो फो जावचें नासलें? हाचे आदीं जालां तशें!'

ताणें चीट काडून म्हज्या हातात दिली.

हांवें वाचली.

चीट व्हड आसली. 'हांव तुजेर मोग करतां, तूं म्हाका आवडटा' असल्यो जायत्यो गजाली तातूंत आसल्यो. ती चीट म्हजे नांवान साधनाक बरयिल्ली आसली.

म्हाका कळ्ळें, हें सुशांताचेंच काम ! ताचें अक्षरय वळखलो.

साधना म्हणूक लागलें, 'म्हाकाय तूं आवडटा ! आयं लव्ह यू टू..!'

हांव चकासूर ! म्हाका हरशी साधना भोव आवडटालें. पुणू, 'हांव तुजेर मोग करतां!' अशें सांगची छाती म्हाका केनाच जावंक नासली. आयतेंच म्हजें काम जाल्लें. हांव खूश!

हांवें ही गजाल वचून सुशांताक सांगली. ताचें तोंड पळवपासारखें जालें !

## जाण

कुंदा टीचर सातवे क्लासींत भितर सरली मात, भुरग्यांनी रोखडेंच सांगलें, 'टीचर, महेश आनी शरद झगडून घेताले...'

'मारुनय घेयले, टीचर!'

कुंदा सातवेची क्लास टीचर. सकाळीं-सकाळीं भुरग्यांची कम्प्लेन आयकून ती तिडकली. 'कितें जालें रे तुमचें..?' तिणें विचारलें.

'टीचर, शरदान म्हजेर शाय उडयली.'

'ना, टीचर! पडली चुकून. हाणें म्हाका गोमटेक धरलो'

'मागीर, हाणें म्हाका आड घालून म्हजें खोमीस पिनलें.'

'स्डँड अप ऑन द बेंच! दोगाय बेंचीर उबें रावात!' टीचरील्या धेंगशाबरोबर दोगाय बेंचीर उबें रावले.

मागीर टीचरीन घेऽ लेक्चर सुरु केले. टीचरीक बाबडेक भुरग्यांनी दिल्लो इल्लोय तरास सोसना. म्हणूंक लागली, 'तुमकां शीस्त ना! आपणे केल्ले खंयच्याच गजालीचो हेराक तरास जावचो ना मू ? हांचो तुमका विचारच ना ! मारप, गोमटेक धरप, खोमीस पिनप, हीं जनावरांलीं कामां! मनशांची न्ही. मनशाक अक्कल आसा. एकामेकांक समजून घेवचेली तांक आसता. अर्थात मनीस मनशांभाशेन वागतलो जाल्यार, ताका तशें घरचे संस्कारुय जाय ! ज्या घरांत बरेऽऽ संस्कार नात, तीच भुरगीं अशें तरेन वागतात. आनी भुरग्यांक बरें संस्कार दितले जाल्यार आदीं घरच्यांक बरे संस्कार आसचे पडटात. मडकेंत ना जाल्यार, पेल्यांत खंयच्यान येतलें..?' अशे तरेन टिचर जायतें उलयली. पुराय तास लेक्चरातूच गेलो.

अशीच एक दीस, शाळा सुट्टकीर कुंदा टीचर घरा आयली. भितर येता थंय आसा, घरकामांक दवरुन घेयिल्ल्या चेडवान म्हळें, 'ताई, मयुराल्या सरान रकाद दवरला!'

'कसलो...?'

'मयूर शाळेंत खंय खूब मस्ती करता हे दिसाडेन. भुरग्यांक खंय मारता, बडयता ! कोणाल्यातरी नाकातल्यान रगत काडलें खंय! सरांनी तापयल्यारुय आयकना खंय! तुमका येवन वच म्हळां !'

'हूं, वयतां फाल्यां !... भुरगीं न्ही तीं ! भुरगीं मस्ती करना जाल्यार कोण करतलो..? इतलीच जाण मास्तरांक ना...?' कुंदा टीचरीन तिडकेवनशे म्हळें.

'हांवूय तेंच म्हण्टा, ताई!'

## घुंवळ

आपलें दुकान बंद करुन अशोक घरा येयलो. घरकान्नीन गोड हांसत म्हळें, 'येयले...? पिवूंक ग्लासभर उदक हाडूं...?'

'नाका!' अशें म्हणत अशोक कदेलार बसलो.

घरकान्न भितर गेली.

बेडरुमांत अशोकाचो चार वर्सांचो पूत बंटी खेळत बशिल्लो. बापायक पळोवन धावत भायर येयलो. म्हणूक लागलो, 'डॅडी, मम्मीन तुका सांगू नाका म्हणिल्लें, सांगू...?'

'कितें?'

'चॉकलेट दितलो...?'

'हय!'

'सांगू नाका हां मम्मीक हांवें सांगलें म्हूण!'

'बऽरे ! सांग!'

'तेन्ना मम्मीक घुंवळ येयिल्ली न्ही ! तुवें मम्मीक ती टली म्हण घट्ट धरून दवरिल्ली पळय..'

अशोक हांसलो. दोन म्हयन्याफाटी तीं दोगाय घोव-यल मुडात आसलीं. एकामेकांक वेंगोवन उबीं आसलीं. यर खेळपी बंटी अचकीत भितर सरलो. आवय-बापायक स्थितीत पळोवन म्हणूंक लागलो, 'तुमी कितें करतात...?

दोगाय कांचवेली. कितें सांगचे म्हण कळ्ळें ना. तेन्ना शोकान बंटीक म्हणिल्लें, 'मम्मीक घुंवळ येयली. ती सकयल पडत म्हूण घट्ट धरुन दवरल्या.' बंटीक ती याद आसली. ते यादीर बंटी बापायक सांगूक सोदतालो.

'हूं! कितें जालें सांग...!' अशोकान म्हळें.

'आयजय मम्मीक घुंवळ येयिल्ली. हांव गार्डनात खेळटालो. बावले घेवूंक म्हण घरात येयिल्लो. उदय अंकल आयिल्लो. ताणें मम्मीक घट्ट धरुन दवरिल्ली.

उदय अशोकाचो इश्ट. ताचे घरात यो-वच आसतालें. अशोक आयकून चकासूर !

'खरें सांगतां बंटी तूं ?'

'खररें! थंय भितर. तुका सांगू नाका म्हणिल्लें. सांगल्यार अंकलान हाचे उपरांत चॉकलेटी दिना म्हळां! सांगू नाका हां हांवें सांगलें म्हण....!' बंटीन दोळे मोट्टे करत म्हळें.




दिवाळेच्या मंगल सुवाळ्याच्या निमनात
समेस्त गोंयकारांक हुनहूनीत परबी!

सगळ्यांक बरी भलायकी आनी खोशी मेळची
दर एकाची उदरगत जांवची अशी आंस प्रगटायता!



## दि. नवहिंद टाईम्स
(गोंयचें सगळ्यात चड खपाचें इग्लीश दिसाळें)

## दै. नवप्रभा
(गोंयचें लोकप्रिय मराठी दिसाळें)

## - नवहिंद पेपर्स पब्लीकेशन्स -
नवहिंद भवन, पणजी - गोंय



# CORPORATION OF THE CITY OF PANAJI

HELP TO KEEP THE CITY PLASTIC FREE
& GARBAGE FREE
PLEASE CO-OPERATE TO MAKE A GRAND SUCCESS
SEGREGATION AND
THE DOOR TO DOOR GARBAGE COLLECTION
SCHEME OF CCP

# कविता


अरुण साखरदांडे

## झाड

झाड कोमरेता
हावूंय कोमरेता
झाड वाडटा
हावूंय वाडटा
झाड धोलता
हावूंय धोलता
झाड तानेता
हावूंय तानेता
झाड भुकेता
हावूंय भुकेता
झाड फुलता
हावूंय फुलता
झाड फळटा
हावूंय फळटा
झाड दुखेता
हावूंय दुखेता
झाड सुखेता
हावूंय सुखेता
झाड पर्जळटा
हावूंय पर्जळटा
झाड अुडले दिगंतरा
हांव मात उल्लो धर्तरा


माया अनील खरंगटे

## खामसुत्रीं बावलीं

जगाच्या माचयेवयलीं आमी
खामसुत्रीं बावलीं
आमच्यो दोरयो ताच्या हातांत
ताका जाय जाय तसो
जाय जाय तेन्ना तो
आमकां खेळयता नाचयता
ताका जाय तेन्ना कितलींच
नवीं बावलीं सकयल सोडटा
जाय ताका अचळय वयर व्हरता
आमी मात म्हणटात,
हांवें हें केलें, तें केलें,
हांव अशें करतलों
तशें करतलों
पूण आमच्यो दोरयो
तो हालयता ताका जाय तश्यो
जाय तेन्ना
आमी ताच्या हातांतलीं
खामसुत्रीं बावलीं.


नूतन साखरदांडे

## दोन शेवणीं

तेर्रासाच्या घडेवेल्यान
दोन शेवणी
कुट्टकुट्ट करुन चलतना
पैरुच दिश्टी पडलीं
बारीक पळेयत जाल्यार,
वळखीचीं दिसलीं
बरोच वेळ तकली
खाजयतकच
याद जाली.
हीच ती दोगां
आमी नवींच लग्न जांवन
भाड्याच्या घरांत
रावपाक गेल्ली, तेन्ना
सपणार दिश्टी पडटाली,
पुण तेन्ना कशीं
चोंचींत चोंच घालुन
अेकामेकांक घश्टुन चलतालीं
फरक इतलोच
आतां फाटीं फुडें चलतात.
सेर्त इतल्यावर्सांनी
ही भाड्याचें घर सोडुन
स्वतःच्या घरांत
रावंक गेल्यां आंसुक जाय.



भालचंद्र गांवकार

# कविता

## वड

वड....
जून थंयच आसा.
ल-पयरचीं
तलींशीच सुकणीं
च्या आंगा-खांदार खेळून
यिल्ले वाटेन परतीं गेल्यांत.
गीं ताका
ीच पळयला
ळ्बाच्या गोपांत
पणाली अस्मिताय राखताना
सो थीर रावून
गें पळयल्यात
ज्यो तिनूय अवस्था
गेपण.. तरणेपण आनी
ण्टेपणूय...
चीय पानां झडटनां
वेन ताका पळयला
ा... दर फावटी
ल्यान आंकरेंवन
तरणो... तरणो जायत गेला.
ामच्या ह्या...
फाट्या प्रवासान
ामकां....

दोन तोंकार व्हेल्यात.
म्हजी निमाणी अवस्थाय
घडये तो पळयतलो
मळावेल्यान मसुंडेंत वचपी
म्हजी मरणयात्रा पळोवन
घडये चुरचुरत म्हणटलो...
'आनीक एक सुकणें गेलें'
पूण एक दुबाव येता...
म्हज्या अमरत्वाक
ताच्यान आव्हान दिवपाक जातलें ?

## दिसाच्या उजवाडांत

दिसाच्या उजवाडांत
म्हजे इतलो
सभ्य मनीस
तुमकां सोदुनूय मेळचोना.
रातीच्या काळखांत मात
म्हजें न्हेसण..
कोण सुतलायता
तें म्हाकांच कळना.
तेन्ना...
म्हजे इतलो
असभ्य मनीस
वखदाकूय मेळचोना.
थंय हांव जातां
पुराय विंगळो
असभ्यताय वेंगायताना
आनी....
खिणयाळ्या खेळांत
पुराय
शितीत वगडावन बसतां
सभ्यतायेचो
पुनर्जल्म जायमेरेन.







परेश नरेंद्र कामत



# झिरझिर

वळ्यांनी झिरझिर
वशी सांज

रपता झाडांनी
ळखी ओलसाण

न्या मोन्या ओंठार
रथर ओलीं

ळखीचीं उतरां
नवळखी जावन.

ने तुजे दोळे
वशी दिशांसारके

ळ्यांत दाटिल्ले
ने आभास

गेतात मोन्यांनीच
हाका वेंटाळून,

चंब भिजून,
जे स्वास-उस्वास...

# रानवाल

तुजें आंगान आंग
सळसळून
जागें

म्हजें वेंगेंत
भरगच्च रान
अटंगें.

रानांतल्या
गुपाट काळखाक
घालून वेटाळें

रानवाल कशें तूं
तट्टीत
काळोख भोगी.

रुंवांरुंवांत तुज्या
रात
फुलारुन जागी...

# चंद्र

रातीच्या काळखाइतली
भायली गाज
जाली
किण्ण किण्ण.

सगळो बोवाळ
गेलो गळून,
कुलकुलाट
विरगळून,

सगळेकडेन
शुकशुकाट,

आशिकुशीकची
उचंबळ लेगीत
कुंरगुटी करुन
न्हिदली
गोजडेंत सुस्त.





